Dr. Kiran Budkuley
with compliments
[signature]
23/12/2000

# संस्कृतिधारा

(संस्कृत सुभाषितां आनी सुभाषितांची वळख)

बरोवपी

रामकृष्ण भास्कर शेणवी खांडेपारकार

मयूरेश प्रकाशन

२१, बोर्डा, पोस्ट फातोर्डा, मडगांव – गोंय.

SANSKRITI DHARA
संस्कृतिधारा



पयली आवृत्ती: भाद्रपद, अनंत चतुर्दशी, शके १९२२ (१२-९-२०००)

**प्रकाशक**
मयूरेश प्रकाशन
बोर्डा, पोस्ट फातोर्डा
मडगांव, गोंय ४०३ ६०२

**अक्षर जुळणी**
तन्वी ग्राफिक्स
बी-०४, आषाढ, माडेल
मडगांव, गोंय ४०३ ६०१

**छापपी**
कस्तुरी प्रिंटर्स
ढवळी, फोंडें, गोंय ४०३ ४०१

**मुखपृष्ठ: सौ. शीला रामकृष्ण शेणवी खांडेपारकार**

मोल : १२५/- रु.

ISBN 81-901163-1-2

---

*म्हजो भाऊमामा*

सर्गेस्त पुरुषोत्तम केशव शेणवी काकोडकार

हाका .....

# 'आंगें सानें परिणामीं थोर'

साहित्याच्यो जाती दोन.

एक, वाचले उपरांत मनशाक उठून उबो रावपाची आनी आपणा वांगडा आपणा भोंवतणचें जिवीत बदलपाची प्रेरणा दिता तें. आनी –

दुसरी, वाचप्याच्या काळजांतलो खंयचोय एक रितो कोनसो अणभवान वा कल्पनेन भरून काडटा तें.

पुणून, आमच्या देशांत आनीक एके जातिचें साहित्य वयर सरलां. ताका **सुभाषित साहित्य** म्हणटात. मनशाक आयुष्यभर सांगात दिवपाची जाच्यांत तांक आसता तें. संस्कृत भास हे जातिच्या साहित्यान संवसारांतले दुसरे खंयचेय भाशे परस गिरेस्त.

हरशींय जाल्यार, संस्कृत एक 'बोलकी' भास. एका एका उतराक कितलींशीं पर्यायवाची उतरां आशिल्ली. तिंवूय अर्थान उपाट भरिल्लीं. उदक हें एकूच उतर घेवंया. उदका खातीर इंग्रजींत एकूच उतर आसा – Water. संस्कृतांत कितलींशींच. एक एक उतर एका एका अर्थाचें. **उदक** म्हळ्यार भितरल्यान भायर सरलां तें. तळप फोडून भायर आयलां तें. उदका खातीर आनीक एक उतर आसा – **पानीयम.** म्हळ्यार, तान न्हिवयता तें. जिवाक थाकाय दिता तें. पानीयमा भायर **पय** म्हूण आनीक एक उतर आसा. पय म्हळ्यार, पोसवण दिता तें. जिवाक घटाय दिता तें. **नीर** म्हूण आनीक एक उतर आसा – जीव धादोसभरीत करता तें. तृप्त करता तें.

**पृथ्वी** खातीर इंग्रजींत एकूच उतर आसा – Earth. संस्कृतांत पृथ्वी, भूमि, धरा, गुर्वी, उर्वी, क्षमा अशीं कितलींशींच उतरां आसांत. एक एक उतर एक एक अर्थूच न्हय, तर एक एक चित्र, एक एक विचार, एक एक संकल्पना आमचे मुखार साकार करून दवरता. **पृथ्वी** म्हळ्यार आयस पयस पातळ्ळेली. **भूमि** म्हळ्यार तरांतरांचे जीव जल्माक घालपी. **धरा** म्हळ्यार सगळ्या जिवांक पोसपी. **गुर्वी** म्हळ्यार वजनदार (पेझाद). **उर्वी** म्हळ्यार विशाळ, मोट्टी. **क्षमा** म्हळ्यार सगळें सोंसून घेवपी.

एक एक उतर ताचें खाशेलें व्यक्तित्व आशिल्लें.

उतरांनी गिरेस्त तशी सुभाषितांनीय एक गिरेस्त भास ही. वेद, ऐतरेयब्राह्मण, रामायण, महाभारत, पंचतंत्र हीं संस्कृत भाशेंतलीं पुस्तकां म्हळ्यार सुभाषितांच्यो एका फुडल्यो एक खणी. सुभाषितांची सगळ्यांत व्हडली खण संस्कृत भाशेंत मेळटा ती भर्तृहरिच्या **शतकां**ची. ताणें तीनशीं सुभाषितां रचल्यांत. शंबर नितिचीं, शंबर शृंगाराचीं, शंबर वैराग्याचीं. तिनूय शतकां अर्थान उपाट भरिल्लीं. हांतलें **नीतिशतक** खूब लोकप्रिय जालां. फाटल्या सुमार बारा तेरा शतमानां सावन तें लोकांचे जिबेर घोळत आयलां. कितल्याश्या लोकांक ताणें संस्कारी केल्यात, शिटूक केल्यात, शाणे केल्यात. कितल्याश्या दु:खी लोकांक धीर दिला, आधार दिला. कितल्याश्या निर्शेल्ल्या लोकांक उर्बा दिल्या आनी कितल्याश्या वाट चुकिल्ल्यांक नीट वाटेर हाडल्यात.

संस्कृतांतल्या सुभाषितांनी लोकांची भास तेजिश्ट केल्या. कितल्याश्या लोकांचें समयसूचकपण वाडयलां. सगळ्यांची बुद्द तरतरीत केल्या.

हालिंसाराक संस्कृत भाशेचो लोकांक सराव उरूंक ना. पुणून संस्कृत भास जेन्ना समाजांत 'चलताली', जिवी आशिल्ली, तेन्ना सुभाषितां तोंडपाठ करपाची एक चाल दर एका संस्कारी घरांत चलत आयिल्ली. शास्त्रवचना इतलेंच सुभाषिताक ते मुस्तींत म्हत्व आशिल्लें.

बऱ्यांतलो बरो, रुचीक वा प्रेरक खंयचोय एक विचार मुदयेर थीक कश्या थोडया उतरांनी सुंदर शैलींत बांदून काडलो म्हणटकूच ताचें सुभाषित जाता. सुभाषितांत खंयचेंय आध्यात्मीक तत्त्व आसुंकूच जाय अशें ना. तातूंत नवें कितेंय आसतकूच जालें. आगळें वेगळें अशें कितेंय, जिविताक प्रेरणा दिवपी अशें कितेंय, मनशाची प्रज्ञा जागोवपी, ताच्या शाणेपणाक जाग हाडपी, अशें कितेंय – थोडे भितर सांगचें जाल्यार, अणभवाचो आपरोस आशिल्लें कितेंय आसतकूच जालें. तें तोंडपाठ आसलें म्हणटकूच आयुष्यभर आमकां ताचो सांगात मेळटलो. सट्ट करून आमी निसरून पडले जाल्यार तेंच आमकां हात दिवन वयर काडटलें. निर्शेणेच्या काळखांत पडले जाल्यार तेंच आमच्या काळजाची पणटी पेटोवन आमकां उजवाडाचे दिकेन घेवन वतलें. **साहितस्य भावो साहित्यम्** ही साहित्याची व्याख्या खरी मानली जाल्यार सुभाषित हें बऱ्यांतलें बरें साहित्य अशेंच म्हणचें पडटलें. असलेंच साहित्य आमच्या सांगाताक उरता. असलेंच साहित्य आमकां जिविताची वाट चलता आसतना पावला पावलाक उपकरा पडटा.

जिवीत जशें जशें खोल आनी व्यापक जायत वता तसो तसो सुभाषितांचो अर्थूय

खोल आनी व्यापक जायत रावता. तरणेपणांत जो अर्थ आमचे मुखार उकतो जाल्लो तोच जाणटेपणांत उरतलो अशें म्हणूं येता. घडये बदलतालो, पुणून खोल आनी व्यापकूच जातलो. तितलें तितलें सुभाषितांचें मोल आमचे नदरेन वाडत वतलें.

आनी, मागीर, आमकां एक संवय जातली: जंय जंय सुभाषिता सारकें कितेंय मेळटा, थंय थंयचें आमी तें उखलतले आनी आमच्या उगडासाच्या 'पेटलां'त तें सांबाळून दवरपाक लागतले.

बुद्ध म्हणटालो, सत्यवचन तुमकां खंयूय मेळू, तें बुद्धवचन करून तुमी उखलून व्हरचें.

* * *

संस्कृत सुभाषितां म्हळ्यार, दायज एक आमचें मोट्यांतलें मोटें, संस्कृतायेच्या मळा वयलें. हें दायज भुरग्यांक शाळेंतूच मेळूंक जाय आशिल्लें. नशीब भुरग्यांचें – आयज तांकां तें शाळेंत मेळना. तेंदिवपाचो कोणेंय यत्न केलो जाल्यार आमचो सेक्युलरिझम बुडटा. आमचो सेक्युलरिझम धर्मविरोधी नाशिल्लो. निधर्मी नाशिल्लो. धर्माविशीं उदासीनय नाशिल्लो. तो सर्वधर्मसमभावी आशिल्लो. म्हळ्यार, सगळ्या धर्मांक 'मानपी' आशिल्लो. शाळेंत भुरग्यांक संस्कृत सुभाषितां शिकयल्लीं जाल्यार कितेंच बुडचें नाशिल्लें. कितेंच कोंसळून पडचें नाशिल्लें.

सुभाषितां नितिधर्म शिकयतात आनी नितिधर्मा कडेन सेक्युलरिझमाची दुस्मानकाय आसपाचें कारणूच ना.

पुणून देश **लकीर के फकीर** सभावाच्या लोकांच्या हातांत पडला, ताका कितें करतले? इंग्रजींत एक म्हणणी आसा – जाका उपाय ना तें एक तर सोंसून घेवंक जाय वा तातूंतल्यान वाट काडून मुखार वचूंक जाय. प्रा. रामकृष्ण खांडेपारकारांनी मोटे कुशलतायेन आयचे परिस्थितींतल्यान वाट काडल्या. जे संस्कार आपणाले धुवेक शाळेंत मेळूंक जाय आशिल्ले (पुणून मेळूंक पावनात) ते तिका घरांतूच मेळचे म्हूण तांणी संस्कृतांतलीं कांय सुभाषितां वेंचून काडलीं आनी तांचो अर्थ तिका कोंकणींत समजावन मूळ संस्कृतांत तिचे कडल्यान तीं पाठ करून घेतलीं.

वाचप्यांच्या हातांत आशिल्लें 'संस्कृतिधारा' पुस्तक तांगेल्या ह्या तळमळिच्या यत्नांतल्यान जल्माक आयलां.

प्रा. खांडेपारकार आमकां सांगतात, 'हांवें केलां तशें तुमीय करात... भुरग्यांक जें शाळेंत मेळना तें तांकां तुमी घरांतूच दियात... हें घेयात, तुमच्या हातांत हांव

एक पुस्तक दवरतां... तुमकां तें खूब उपकारा पडटलें. तुमकां सांगात दीत रावतलें. ह्या पुस्तकाच्या आधारान भुरग्यांचो आपणाले संस्कृताये कडेन संबंद जुळोवन दियात... ना जाल्यार, आयच्या हिन्दुस्तानांत तीं 'न घर की न घाट की' जावन पडटलीं... आपल्याच देशांत परकी कशीं जातलीं...'

दोन म्हयने जाले, **संस्कृतिधारा** पुस्तक म्हज्या उश्याकडेन आसा. सद्दां हांव तें इल्लें इल्लें वाचीत आसतां. पुस्तकांत सुभाषितां आसात. तेच बरोबर आमचे परंपरेची वळखूय आमकां तें करून दिता. आनी प्रा. खांडेपारकारांचें आगळें वेगळें आंग तें हें – मदीं मदीं रुचीक कथानकां आनी आख्यायिका सांगून एक कठीण विशय आमचे मुखार ते सोंपो करून दवरतात.

हांव तांचें मनस्पुर्वेक अभिनंदन करतां.

प्रा. खांडेपारकार हालिंसाराक सपसप पळोवंक मेळनात असले एक गोंयकार: संस्कृत भाशेचो उपाट मोग आशिल्ले. तिचे एक परम भक्त. संस्कृता विशिंची ही भक्ती तांकां दायजान मेळ्ळ्या. स. पुरुषोत्तमबाब काकोडकार तांगेले मामा – संस्कृत भाशेचे एक भक्त, संस्कृतांतले एक विद्वान. काशी विद्यापीठांत संस्कृत घेवन 'शास्त्री' जाल्ले. भाच्याक मदीं मदीं ते संस्कृत सुभाषितां शिकयताले. ताचे पसून पयस वताले तेन्ना सुभाषितां पत्रांतल्यान धाडून दिताले. मामा कडल्यान मेळिल्लें हें दायज भाच्यान आपणाले धुवेक दिलें आनी धुवेच्या निमित्त्यान आतां तें ह्या पुस्तका रुपान आमकां दिलां.

'आंगें साने परिणामीं थोर' अशें एक पुस्तक हें.

सगळ्या कोंकणी भक्तांनी तांकां दिनवासूंक जाय.

प्रियोळ, ५-४-२००० **रवीन्द्र केळेकार**
(संवसार पाडवो)

# मनांतलें

संस्कृत ही आमचे संस्कृतायेची भास. आयच्या कॉम्प्युटर युगांत लेगीत संस्कृत भाशेंत शिकपासारकें जायतें आसा. आयज विज्ञानाक लागून ज्ञानाचो आस्पाव वाडला. विज्ञानांत नवीं नवीं शास्त्रां उजवाडाक येत आसात, जाका लागून कोणाकच संस्कृत वाचपाक, शिकपाक, समजून घेवपाक इल्लोय वेळ ना.

पयलींचे विद्यार्थी संस्कृत भाशेचें व्याकरण शिकपाक बारा वर्सां वावुरताले. आयज विज्ञानाक लागून वाऱ्याच्या वेगान भोंवतल्या मनशाक एक विज्ञानांतलो विशय शिकपाक ताची आख्खी जीण कमी पडटली. अशें जरी आसलें तरी जर्मन, रशियन लोक संस्कृत भास शिकूंक वेळ 'वगडायतात'! न्हय, तर वेळेचो बरो उपेग करतात. संस्कृत भास शिकप हें अडाणीपणाचें आनी कालबाह्य कर्तुब अशें सांगपाक आज आमची जीब मातय आडखळना. संस्कृत भास आनी कॉम्प्युटर हांचो लागशिल्लो संबंध समजावपाक आमकां अमेरिका-जर्मनींतल्या फॉरेनरांची गरज लागता हें आमचें दुर्दैव!

भारतीय संस्कृतायेच्या रसांचो आपरोस मेळटा तो संस्कृत सुभाषितांच्या रुपान. ह्या आपरोसाचे चार थेंबे म्हाका म्हज्या मामाकडल्यान शिकूंक मेळ्ळे. तशेंच, म्हजे आजयेन, म्हज्या ल्हानपणासावन म्हाका सांगिल्ले मोलादीक उतरांचे चोमे, म्हज्या आवय-बापायकडल्यान मेळिल्ले आशिर्वाद आनी म्हजी वाचनाची आवड ह्यो गजाली एकठांय करून तयार केल्लें हें पुस्तक.

ह्या पुस्तकाचे बांदावळीक म्हजे कॉलेजींतले म्हजे सहकारी श्री. एस्.एम्. बॉर्जिस, श्री. ओमप्रकाश परब आनी श्री. गुणाजी देसाय हांचें मोलादीक सहकार्य म्हाका मेळ्ळें. तशेंच, अक्षर रचनेची जापसालदारकी तन्वी ग्राफिक्स, मडगांव, हांणी, आनी छापणावळीची जापसालदारकी कस्तुरी प्रिंटर्स, ढवळी, हांणी बरे तरेन सांबाळ्ळी. ह्या सगळ्यांचो हांव उपकारी आसां.

हें पुस्तक तुमच्या हातांत दिवपाक म्हाका खूब खोस भोगता.

**— रामकृष्ण भास्कर शेणवी खांडेपारकार**

# मांडावळ

# सुभाषितां

मनीस जें कितें पळेता, आयकता आनी अणभवता तें सगळें सूक्ष्म रितीन अंतस्करणांत उरता. हें अंतस्करणांत उरप म्हळ्यारच संस्कार अशें म्हणू येता. संस्कार हे ल्हानपणासावन जायत आसतात. कांय संस्कार मनीस जल्माबरोबरच घेवन येता. अणभवांतल्यान जाल्ल्या संस्कारांक लागून जल्मजात जाल्ले संस्कार बदलूंक येतात. जाल्यारय ह्या संस्कारांतल्यानच विचार आनी आचार मनशाचे वागणुकेंत दिश्टी पडटात. मनशाची सगळी जीण संस्कारांचेर आधारीत आसता. पळेवपांत, आयकुपांत बरो बदल जाल्यार संस्कार बदलूंक येतात आनी ह्या संस्कारांचो परिणाम म्हळ्यार एक उंचेल्या पांवड्यावेली जीण मनीस जियेतना पळेवंक मेळटा. तशेंच, सगळ्या संस्कारांचो चोमो म्हळ्यार श्रद्धा अशें म्हणूं येता. हे श्रद्धेच्या नेटार मनीस व्हड-व्हड कामां तडीक पावयता आनी केद्याय व्हडल्या संकटाक तोंड दिवपाक शकता.

ह्या संवसारांत वावुरतना मनशाक बरें तेंच पळेवंक मेळटलें वा बरें तेंच आयकूंक मेळटलें अशें ना. इतलेंच न्हय, तर चडशो वायटच गजाली दिश्टी पडटात. समजिकाय आशिल्लो मनीस बऱ्यो त्योच गजाली घेवन वायट तें सोडून दिवंये. पूण अज्ञानी अशीं भुरगीं, जीं बऱ्या वायटाचो विचार करूंक नकळत, तांकां जें कितें दिश्टी पडटा तें मनाचेर खूब परिणाम करताच. म्हणून भुरग्यांचेर बरे संस्कार करपाचें काम मुद्दाम करूंक जाय. भुरग्यांक बरीं पुस्तकां वाचपाची संवय लावची पडटा. ताचेपरस आवय-बापायच्या वागपांतल्यान भुरगें खुबशो गजाली बेगीन शिकता. शेजारी-पाजारी, शिक्षक आनी हेर सोयरे-दायरे हांचोय बरे संस्कार जावपाक मोलादीक असो वांटो आसता. अशे तरेन सगळ्या वाटांनी बऱ्या संस्कारांची लागवड जाल्यार भुरग्यांक फुडाराक एके बरे जिणेचो लाव जावंयेता. आंब्याचीं झाडां, पणसाचीं झाडां आनी हेर फळ-फळावळ जावपाचीं झाडां मुद्दामूच रोवपाक जाय. कांटेरी झाडां-झुडपां मात रोवपाची गरज नासता. तेच भशेन, जाणविकायेन बरे संस्कार केले बगर भुरग्यांचेर बरे संस्कार जायनात.

न्यायमूर्ती राम केशव रानडे हे महाराष्ट्रांतले एक नामनेचे जुवीज. १९६६ वर्सा ते रिटायर जाले आनी ताचे उपरांत तांणी कायदो आनी तत्त्वज्ञान ह्या विशयांचेर जायतीं पुस्तकां बरयलीं. परमार्थाचेर तांचे विचार घेवपासारके! जण एकल्यान एक बरो विचार केल्यार शंभर बरे विचार ताचेकडेन आकृश्ट जातले आनी जीवनांतलो बरो आनंद ताका मेळटलो. पूण एक वायट विचार केल्यार शंभर वायट विचार आकृश्ट जावन त्रास जातलो. 'जीवन-गीता' पुस्तकांची माळ बरयतना ते म्हणटात, **''देवा, मायबापा, दयाधना, परमेश्वरा, म्हजें जीवन बरें कर.''** रातीकडेन न्हिदचे पयलीं दोन मिनटां आनी सकाळीं उठनाफुडें दोन मिनटां देवाची प्रार्थना करात हें तांचें सांगणें. न्या. रानडे हांणी 'देव म्हळ्यार कितें?' ह्या प्रस्नाक जाप दिता आसतना एक गजाल आपल्या पुस्तकांत बरयल्या ती अशी.

अमेरिकेंतले एके शाळेंत एकलो आयलो. थंय विजेचेर चलपी उपकरणां आसलीं तीं पळेवन ताणें भुरग्यांक विचारलें, ''Tell me, what is electricity?'' एकाय भुरग्याक जाप दिवंक जमलें ना. थंय शिकयतल्या मास्तराकय ह्या प्रस्नाची जाप आयली ना. डॉक्टरेट घेतिल्लो शास्त्रज्ञ, ताकाय जमलें ना. मागीर त्या म्हातान्यान म्हळें, ''म्हजें नांव एडिसन. हांवेंच विजेचो सोद लायलो. म्हाकाय ह्या प्रस्नाची जाप येना. मात हे विजेक लागून तुमकां जो फायदो जाला, तो पळेवन म्हाका आनंद जाता.'' न्या. रानडे म्हणटात, देव म्हळ्यार कितें हें जरी कळ्ळें ना तरी देवाचो साक्षात्कार जाता हाचेसारको आनंद ना.

एक फावटी विनोबाजींक एकल्यान विचारलें, ''हो दिवो आसा हें जितलें खरें, तितलेंच देव आसा हेंवूय खरें?'' विनोबाजीन म्हळें, ''देव आसा हें खरें, पूण हो दिवो आसा हें हांव खरें मानिना.'' म्हणजेच, दिवो पालवलो जाल्यार तो आनी थंय खंय उरतलो? देवाविशीं मात अशें जावंक शकना. शरिराक जशी अन्नाची गरज, तशीच आत्म्याक प्रार्थनेची गरज. फरक इतलोच, अन्नाचे बाबतींत केन्ना-केन्नाय उपास करूंक जाय, जाल्यार प्रार्थनेचे बाबतींत उपासाची गरज लागना.

प्रार्थनेची व्हडविकाय सांगपी बरींचशीं सुभाषितां संस्कृत भाशेंत आसात. अशा कांय संस्कृत सुभाषितांचो अर्थ समजून घेवपाचो यत्न करूंया.

गणपती हें सगळ्यांचेंच आराध्य दैवत. जावं विद्यार्थी, जावं धनिक; जावं श्रीमंत, जावं गरीब; जावं दादलो, जावं बायल, गणेशाची प्रार्थना सगळ्यांक तितलीच उपकारक. खंयच्याय देवाची पूजा करचे पयलीं गणेश पूजेचो मान. अशा ह्या विघ्नेश्वराच्यो

कांय प्रार्थना पयलीं समजून घेवंया.

**वक्रतुण्ड महाकाय सूर्यकोटिसमप्रभ।**
**निर्विघ्नं कुरु मे देव शुभकार्येषु सर्वदा॥**

वक्रतुण्ड म्हळ्यार वांकडे सोंडीचो, म्हणजेच वांकडे वागपी दुश्टांचो नाश करपी, आंगान धश्टपुश्ट आनी जाचें तेज एक कोटी सुर्यां इतलें आसा, त्या गणेश देवाक हांव आंवडेतां. हे देवा, म्हज्या शुभकार्यांत विघ्नां येवंचींनात अशें कर.

गणपतीचें अथर्वशीर्ष ही एक मनाक शांती दिवपी अशी प्रार्थना. शिकपी भुरग्यांनी हें अथर्वशीर्ष खरें म्हळ्यार सदांच म्हणपाक जाय. देवाची भावना हाचे फाटल्यान आसाच. आनी विज्ञानिक नदरेन पळेल्यार ती एक मनाक आनी शरिराक फायदेशीर गजाल. मनाची एकाग्रताय आनी उच्चार सुधारपाक हे प्रार्थनेचो फायदो जाता. अथर्वशीर्षांतल्यो कांय वळी आनी तांचो अर्थ लक्षांत घेवंया.

**ॐ भद्रं कर्णेभि: शृणुयाम देवा: ॐ भद्रं पश्येम अक्षिभि : यजत्रा:।**
**स्थिरै: अङ्गै: तुष्टुवांस: तनूभि: व्यशेम देवहितं यद् आयु:॥**
**ॐ शान्ति: । शान्ति: । शान्ति: ।**

हे देवांनो, आमी तुमचेखातीर यज्ञ करतना कानांनी शुभ आयकुचें, दोळ्यांनी बरें पळेवचें आनी सुदृढ शरिरान तुमची तुस्त करीत तुमी दिल्लें बरें आयुष्य घालोवचें. मानसिक (आध्यात्मिक) त्रास, जीव-जंतूंपासून (आधिभौतिक) त्रास आनी मंत्र-तंत्रान (आधिदैविक) जावपी त्रासांपासून शांती मेळची.

**ॐ सह नाववतु। सह नौ भुनक्तु । सह वीर्यं करवावहै।**
**तेजस्वि नावधीतम् अस्तु । मा विद्विषावहै ।**
**ॐ शान्ति: । शान्ति: । शान्ति: ।**

ह्यो वळी गणपतीच्या अथर्वशीर्षांत जरी वाचूंक मेळ्ळ्यो तरी हो एक उपनिषदांतलो शांतिमंत्र आसा. ताचो अर्थ असो :

ओंकारस्वरूप परमात्म्याकडेन गुरू-शिष्य मागणी करतात —

– आमकां दोगांकय राख.

– आमचें दोगांयचेंय जीवन सुखकारक कर.

– आमकां दोगांकय शक्ती प्राप्त करून दी.

– आमची दोगांचीय विद्या तेजोमय कर.
– आमी दोगांनीय एकामेकांचो द्वेष करचो न्हय अशें कर.
– आमचे त्रास नष्ट करून आमकां शांती प्राप्त करून दी.

मन:शांती बाजारांत विकती मेळना वा ती मेळपाचें वखदय ना. प्रार्थना म्हळ्यार देवाचें नांव घेवप. हो एक सोपो उपाय. परिक्षेंत पास जावपाखातीर देवाचें नांव घेवप हें तितलें समा न्हय, आनी देवाचें नांव घेतल्यार परिक्षेंत यश मेळटलेंच अशें ना. परिक्षेंत बरें यश मेळपाखातीर बरो अभ्यास हो एकमेव उपाय. पूण बरो अभ्यास करपाक मन:शांतीची गरज आसता. मन निवळ, नितळ, स्थिर आसल्यार अभ्यासांत बरें लक्ष लागूं येता आनी म्हणून देवाचें नांव घेवंक जाय. प्रार्थना म्हणपाक जाय. जशें भगवद्गीतेंत आठव्या अध्यायाच्या सातव्या श्लोकांतल्यान युद्धांच्या प्रसंगावेळार श्रीकृष्ण सांगतात –

**तस्मात्सर्वेषु कालेषु मामनुस्मर युद्ध च ।**
**मय्यर्पितमनोबुद्धिर्मामिवैष्यस्यसंशयम् ।।**

युद्ध करतना सदासर्वकाळ म्हजें स्मरण कर. तुजें मन आनी बुद्धी म्हाकाच अर्पण कर. म्हणटकच सगळें म्हाका पावता हातूंत दुबाव ना.

देवाचें नांव घेतल्यार सगळीं कामां जातात अशेंय गीता सांगना. गीतेच्या दुसऱ्या अध्यायाच्या सत्तेचाळीसाव्या श्लोकांत भगवान् श्रीकृष्ण सांगतात –

**कर्मण्येवाधिकारस्ते मा फलेषु कदाचन।**
**मा कर्मफलहेतुर्भूर्मा ते संगोऽस्त्वकर्मणि ।।**

कर्म करपापुरतोच तुजो अधिकार. फळ मेळप ना मेळप हें तुज्या हातांत ना. आपल्या कर्माचें अमुकच फळ मेळपाक जाय अशी आस्त बाळगून तूं कर्म करूं नाका. आनी कर्म करिनासतनाय तूं रावूं नाका. कर्म करप मनशाच्या हातांत आसा. पूण ताचें फळ मेळप ना मेळप मनशाच्या हातांत नासता.

गीतेच्या अठराव्या अध्यायांत कर्म घडून येवपाखातीर पांच कारणां सांगल्यांत.

**अधिष्ठानं तथा कर्ता करणं च पृथग्विधम् ।**
**विविधाश्च पृथक् चेष्टा दैवं चैवात्र पंचमम् ।।**

१. अधिष्ठान (शरीर), २. कर्ता (कर्म करपी), ३. कर्म करपाक लागपी वेगवेगळीं साधनां (उपकरणां/ज्ञानेंद्रियां), ४. कार्यनिष्पत्तिकारक (कार्य करपाचे) वेगवेगळे व्यापार, आनी ५. दैव (नशीब).

म्हणूनच गीतेच्या दुसऱ्या अध्यायांत भगवान श्रीकृष्ण अर्जुनाक सांगता

**हतो वा प्राप्स्यासि स्वर्ग जित्वा वा मोक्ष्यसे महीम् ।**
**तस्मादुत्तिष्ठ कौन्तेय युद्धाय कृतनिश्चय: ।।**
**सुखदु:खे समे कृत्वा लाभालाभौ जयाजयौ ।**
**ततो यद्धाय युजस्व नैवं पापमवाप्स्यसि ।।**

मेल्यार स्वर्गांत वतलो आनी जिखल्यार पृथ्वीचेर राज्य भोगतलो. म्हणून अर्जुना, युद्ध करपाचो निश्चेव कर. सुख-दुख्ख, फायदो-लुकसाण, जिखप-हरप हें सगळें सारखेंच अशें समजून युद्ध कर, म्हणजे तुका पाप लागचें ना.

न्या. रानडे बरयतात, ''साखरेंत जशी गोडसाण, बर्फांत जशी थंडसाण, सुर्यांत जशी हुनसाण आनी चंद्रांत जशी शितळसाण, तेच भशेन देवाचें नांव घेवपांत मनशांती लिपिल्ली आसता.''

परमेश्वराचें ध्यान करपाचें व्यसन लागपाक जाय. हरशीं व्यसन ही गजाल बरी न्हय. पूण सोरपाच्या विख्खांत जशी मारपाची तशी तारपाचीय शक्त आसता, तेच भशेन बरींय व्यसनां आसात. विद्येची उपासना करप हें एक बरें व्यसन. तशेंच, परमेश्वराचें चिंतन करप, ध्यान करप हाकाय हांव बरें व्यसन अशें म्हणटां. परमेश्वराचें विस्मरण जावप हाका विपत्ती अशें म्हळां आनी ताचे स्मृतीक संपत्ती अशें म्हळां.

**व्यसनानि सन्ति बहूनि, व्यसनद्वयमेव केवलं व्यसनम् ।**
**विद्याभ्यसनं व्यसनम् अथवा हरिपादसेवनं व्यसनम् ।।**

न्या. रानडे बरयतात, ''जेप्रमाण मनशाक जगपाक हवा लागता, तेच भशेन अहंकाराचो नाश जालेबगर मनीस परमार्थी जायना.'' अहंकाराचो नाश करपाक न्यायमूर्तींन वखद सांगलां तें म्हळ्यार 'नाम'. ते म्हणटात

**भगवंताचे नाम । करते परमार्थाचे काम ।।**
**भगवंताचे स्मरण । म्हणजे अहंकाराचे मरण ।।**

नामांत भगवंताचें प्रेम आसा हें पटोवन दितना न्यायमूर्तीं ताकाचें उदाहरण दितात.

ताकांत आशिल्लें लोणी पळेवपाक ताक घुसळचें पडटा. तेच भशेन नाम घुसळपाक जाय. नाम घुसळटकच भगवंताच्या प्रेमाचें लोणी वयर येता.

भक्तीचे णव प्रकार सुभाषितकार कशे मांडटात तें पळेयात.

**श्रवणं कीर्तनं विष्णो: स्मरणं पादसेवनम् ।**
**अर्चनं वन्दनं दास्यं सख्यम् आत्मनिवेदनम् ॥**

| | | |
|---|---|---|
| १. | **श्रवण** | (कथा, पुराण, प्रवचन अशो गजाली भक्तीन आयकप.) |
| २. | **कीर्तन** | (ईश्वराचे गुण गावप, गुणांचें वर्णन करप.) |
| ३. | **स्मरण** | (जप करप, ध्यान करप.) |
| ४. | **पादसेवन** | (गुरुची सेवा करप, गुरूक शरण वचप.) |
| ५. | **अर्चन** | (देवाचे मुर्तीची षोडशोपचारान पूजा करप.) |
| ६. | **वंदन** | (देवांक, व्हडांक, साधुसंतांक साष्टांग नमस्कार करप.) |
| ७. | **दास्य** | (काम करप, देवळां बांदप, देवळांचो जिर्णोद्धार करप.) |
| ८. | **सख्य** | (देवाक शरण वचप.) |
| ९. | **आत्मनिवेदन** | (अहंकार सोडप, एकरूप जावप.) |

देवाची भक्ती करपांतच सुख आसा. संवसारांतल्यो सगळ्यो गजाली मेळ्ळ्यो आनी जर भक्तींत मन लागलेंना जाल्यार सगळेंच व्यर्थ. सुभाषितकार म्हणटात –

**कलत्रं, धनं, पुत्रपौत्रादि, कीर्ति:**
**गृहं, बान्धवा:, जाति:, एतद् हि सर्वम् ।**
**हरे: अङ्‌घ्रिपद्मे मन: चेत् न लग्नं**
**तत: किं, तत: किं, तत: किं, तत: किंम् ॥**

बरी बायल, धन, भुरगीं-नातरां, कीर्ती, घर, सोयरे-दायरे हें सगळें आसा पूण हरिचेर, म्हळ्यार देवाचेर मन बसलेंना जाल्यार फुडें कितें? फुडें कितें? फुडें कितें? फुडें कितें?

**भज गोविन्दं, भज गोविन्दं, भज गोविन्दं मूढमते ।**
**प्राप्ते संनिहिते मरणे न हि न हि रक्षति 'डुकृञ् करणे' ॥**

आरे निर्बुद्ध मनशा, तूं सतत गोविंदाची भक्ती कर. ताका लागून तुका मरणा उपरांत सद्‌गती मेळटली. मरण लागीं येतकच तुजें रक्षण करपाक कोणच ना रे बाबा!

**अनायासेन मरणं, विना दैन्यं च जीवनम् ।**
**एतत् च देहि मे देव, तव भक्तिं निरन्तरम् ॥**

हे देवा, म्हाका कश्टांविणें मरण, हालअपेश्टांविणें जीवन आनी तुजी अखंड भक्ती दी.

लक्ष्मी आनी सरस्वती हीं सुसंस्कृत जीवनाचीं दोन आंगां. मनशाच्या जीवनाचो विकास जावपाक दोगांचीय सारकीच गरज आसा. जीवनांत दोगांचीय हजेरी नासत जाल्यार जीवन शून्य, शुष्क जातलें. लक्ष्मीचो गौरव करपाक सरस्वतीची गरज उरता. दोगांपैकीं एकली कोणय ना जाल्यार जीवनांत उणीव जाणवतली. म्हणूनच जीवन आनंदमय करपाक दोगांचीय गरज आसा. आराधना वा उपासना केलेबगर सरस्वती प्रसन्न जावप शक्य ना. कालिदासान देवी कालीची खडतर आराधना करतकच तो महाकवी जालो. तुकारामाचे अभंग विठ्ठलाचे आराधनेंतल्यानच जल्माक आयले. अशे तरेचे दैविक आराधनेंतल्यानच वाल्या कोळ्याचो वाल्मिकी जालो. अशी ही विद्येची अधिष्टात्री देवता सरस्वती, तिचें चिंतन संस्कृत भाशेंत कशें केलां तें पळेवंया.

**या कुन्देन्दुतुषारहारधवला या शुभ्रवस्त्रावृता**
**या वीणावर दण्डमण्डित करा या श्वेतपद्मासना ।**
**या ब्रह्माच्युतशङ्करप्रभृतिभि: देवै: सदा वन्दिता**
**सा मां पातु सरस्वती भगवती नि:शेषजाड्यापहा ॥**

सरस्वतीचें हें ध्यान शुभ्रवर्णी सांगलां आनी शुभ्र वस्त्रांनी तें सुशोभित केलां. हंस हें तिचें वाहन शुभ्रच. विद्या वा ज्ञान हें तिचें कार्य, जाचो वर्ण शुभ्रच मानला. जिका ब्रह्मा-विष्णु-महेश सदांच वंदन करतात अशे भगवती देवी सरस्वती, तूं म्हजें रक्षण कर. सरस्वती ही लक्ष्मीप्रमाण अलंकारांनी सजयल्ली ना हें मतींत धरपासारकें.

सरस्वतीची आराधना करपी अशेच तरेचो आनीक एक श्लोक

**शुक्लां ब्रह्मविचारसारपरमामाद्यां जगद्व्यापिनीं**
**वीणापुस्तकधारिणीमभयदां जाड्यान्धकारापहाम् ।**
**हस्ते स्फाटिकमालिकां विदधतीं पद्मासने संस्थितां**
**वन्दे त्वां परमेश्वरीं भगवतीं बुद्धिप्रदां शारदाम् ॥**

शुभ्र (धवीफुल्ल), ब्रह्म विचाराचें सार सांबाळपी, श्रेष्ठपणान सगळ्या संवसाराक व्यापपी, वीणा वाद्य आनी पुस्तक हातांत धारण करपी, अभय दिवपी, अज्ञानरुपी काळोख ना करपी, हातांत स्फटिकाची माळ धरिल्ली, कमलासनाचेर बशिल्ली, बुद्धी दिवपी अशी शारदा – सरस्वती, हांव तुका वंदन करतां.

सकाळीं उठनाफुडें आपल्या हातांचें दर्शन करचें म्हूण सांगपा फाटल्यान सरस्वतीचे आराधनेचोच भाग आसा. सकाळींफुडें हातरुणाचेर बसून सरस्वतीचें स्मरण करपाखातीर रचिल्ल्यो ह्यो वळी.

**कराग्रे वसते लक्ष्मी: करमूले सरस्वती ।**
**करमध्ये तु गोविन्द: प्रभाते करदर्शनम् ॥**

हाताच्या बोटांच्या तोंकार लक्ष्मी आसता. तळहाताचे सकयल मनगटाकडेन सरस्वती आसता आनी मदल्या भागार गोविन्द (भगवान कृष्ण) वास करता म्हणूनच सकाळीं उठनाफुडें हाताचें दर्शन करप कल्याणकारी समजतात.

गणपती ही लेगीत विद्येची देवता. विघ्नांचो नाश करपी म्हणून गणपतीची आराधना करतात तशीच विद्या प्राप्ती खातीरय गणपतीक भजतात. शुक्लपक्षांतली चतुर्थी (विनायकी) आनी कृष्णपक्षांतली चतुर्थी (संकष्टी) हे दोनीय दीस गणपतीची आराधना केल्यार विद्याअभ्यासांत यश मेळटा अशें मानतात. गणपतीचीं बारा नांवां फुडल्या श्लोकांत वाचूंक मेळटात. विद्याअभ्यासाच्या आरंभाक, लग्नविधीच्या वेळार, घरप्रवेशा वेळार, तशेंच संकट काळांत जो ह्या श्लोकांचें पठण करता ताका त्या-त्या पांवड्यार यश प्राप्त जातलें अशें सांगलां.

**सुमुख: च एकदन्त:च, कपिल:, गजकर्णक: ।**
**लम्बोदर:च, विकट:, विघ्ननाश:, विनायक: ॥**
**धूम्रकेतु:, गणाध्यक्ष:, भालचन्द्र:, गजानन: ।**
**द्वादश एतानि नामानि य: पठेत् शृणुयाद् अपि**
**विद्यारम्भे विवाहे च प्रवेशे निर्गमे तथा ।**
**संग्रामे संकटे च एव विघ्न: तस्य न जायते ॥**

भारतीय संस्कृतींत दिव्याक खुबच महत्व दिलां. तिनसांजच्या वेळार घरांतल्या देवामुखार आनी तुळशीकडेन दिवो लावपाची पद्धत आजूनय खुबशा घरांनी पाळटात. म्हणटातच न्हय, ''दिव्या दिव्या दिपत्कार, कानीं कुंडलें मोतीहार, दिव्याला पाहून नमस्कार, दिवा जळूं दे सारी रात.'' संस्कृत भाशेंत दिव्याचें वर्णन वाचूंक मेळटा तें अशें –

**दीपज्योति: परब्रह्म दीपज्योतिर्जनार्दन: ।**
**दीपो हरतु मे पापं दीपज्योतिर्नमोऽस्तु ते ॥**

दीपज्योतीचो उजवाड म्हळ्यार परब्रह्म तो लोकांचें दुःख ना करपी असो आसा. हे दीप प्रकाशा, म्हजें पाप ना जायसारकें कर. संध्याकालीन दीपज्योतीरुपी भगवान, तुका म्हजो नमस्कार.

तिनसांजच्या वेळार दिवे लायतकच म्हणपाच्यो आनीक कांय प्रार्थना –

**दीपो नाशयते ध्वान्तं, धनारोग्ये प्रयच्छति ।**
**कल्याणाय भवति एव, दीपज्योतिर् नमोस्तुते ॥**

दिवो काळखाचो नाश करता, धन दिता, आरोग्य दिता. अशें कल्याण करपी दिव्याक म्हजो नमस्कार.

**शुभं करोति कल्याणम्, आरोग्यं, धनसंपद: ।**
**शत्रुबुद्धिविनाशाय दीपज्योतिर् नमोऽस्तु ते ॥**

शुभकल्याण करपी, आरोग्य दिवपी, पयसो-आडको दिवपी, शत्रुबुद्धीचो नाश करपी दीपज्योती, हांव तुका नमस्कार करतां.

तिनसांजच्या वेळार म्हणपाची आनीक एक प्रार्थना आसा. ती म्हळ्यार विष्णूची आराधना करपी

**शान्ताकारं भुजगशयनं, पद्मनाभं सुरेशं**
**विश्वाधारं गगनसदृशं मेघवर्णं शुभाङ्गम ।**
**लक्ष्मीकान्तं कमलनयनं योगिभि: ध्यानगम्यं**
**वन्दे विष्णु भवभयहरं सर्वलोकैकनाथम् ॥**

जाची मूर्ती शांत आसा, जो शेषाचेर न्हिदला, जाचे बोंबलेंतल्यान कमळ उदेलां, देवांचो देव आनी विश्वाचो आधार, आकाशी वर्ण, लक्ष्मीपती, योगी मनशांक ध्यान

करून जाचेकडल्यान ज्ञान मेळटा, जगाची राखण करपी आनी संवसाराचें दुख्ख ना करपी विष्णूक हांव वंदन करतां.

प्रार्थना करप, देवाची भक्ती करप हाचेसारकें आनीक बरें जगांत कांयच ना. संत रामदास स्वामी दासबोधांत म्हणटात –

**भक्तिचेनि योगे देव । निश्चये पावती मानव ।**

देवाची भक्ती केल्यार ताचेसारकें समाधान ना. देव निश्चित पावता अशें म्हणून समर्थ रामदासांनी भक्तीची व्हडविकाय सांगिल्ली तांगेल्या दासबोध ग्रंथांत वाचूंक मेळटा.

न्या. राम केशव रानडे हांणी भक्ती करपाचेर भर दितना एक गजाल सांगल्या. बादशहान विचारलें, ''सत्तावीसांतल्यान णव काडल्यार कितले उरतात?'' हाजीर आशिल्ल्या सगळ्यांनी उत्तर दिलें, ''अठरा''. जाल्यार बिरबलान एकल्यानच म्हळें, ''शून्य.'' बिरबलान फोडणिशी केली. सत्तावीस नक्षत्रांतल्यान पावसाचीं णव नक्षत्रां काडल्यार बाकी शून्य उरतलीं. पावसाचीं णव नक्षत्रां काडलीं जाल्यार पावसूच पडचोना. पावस पडलोना जाल्यार दुकळ पडटलो. दुकळ पडटकच खावपा जेवपाचे हाल जातले. 'बाकी शून्य उरतली.' अशें म्हणून दुकळाचे परिस्थितीचें वर्णन शून्याचेर भर दिवन केलां. न्यायमूर्ती म्हणटात, ''भक्तीक णव गुण, (भक्तीक ते नवविधा अशें म्हणटात) ज्ञानाक णव गुण आनी कर्माक णव गुण मेळून सत्तावीस गुण जातात. भक्तीचे णव गुण हातुंतल्यान काडले जाल्यार बाकी शून्य उरतली.'' न्यायमूर्तीनी मांडिल्लो हो विचार मतींत घेवपासारको. ते फुडें शून्याची फोडणिशी करतना म्हणटात,

''पयसो गेलो, थोडेंशें कितेंतरी गेलें; प्रतिश्ठा गेली, खुबशें कितेंतरी गेलें; भक्ती गेली जाल्यार मात सगळेंच गेलें.''

साने गुरूजीन आवयची व्हडविकाय सांगपाक आपलें मन उकतें केलें. मळबाचो कागद केलो, समुद्राची शाई केली आनी सगळ्या झाडांची लेखणी केली. तरी लेगीत आवयची व्हडविकाय बरोवन सोंपचीना. साने गुरुजीच न्हय, तर वैदिक काळासावन आवयची तुलना 'अनंत' अशे गजालीकडेन केल्ली वाचूंक मेळटा. गणपतीन आवयचे भोंवतणी प्रदक्षणा घाली. ही प्रदक्षणा म्हळ्यार पृथ्वी प्रदक्षणेसारकी आसा अशें म्हणपा फाटलो हेतू आवयचे उदात्त व्हडविकायेचो आसा हें सांगपाक तज्ञाची गरज ना. हें अशें कित्याक हाची फोडणिशी करप कोणाच्यान शक्य जायत अशें म्हाका दिसना.

न्या. रानडे एक सुंदर प्रसंग सांगतात. एक ल्हान भुरगो आपले आवयबरोबर

जात्रेक गेलो. आवयचो हात धरून चलतना तो खेळणीं घेवन दी म्हूण रडटालो, हट्ट करतालो. गर्दींत त्या भुरग्याचो हात आवयच्या हातांतल्यान सुटलो आनी तांची चुकामूक जाली. एक ल्हान भुरगो रडटा म्हूण लोकांनी ताका खूब खेळणीं हाडून दिलीं. पूण भुरगो खेळण्यांक पळेना लेगीत जालो. ताका जाय आसली आवय! तो 'आई जाय, आई जाय' म्हण रडपाक लागलो. आवयची चुकामूक जातकच भुरग्याक खेळणीं लेगीत नाका दिसतात, हे गजालींतलें मर्म लक्षांत घेवपासारकें.

महाभारतांत युद्ध सोंपतकच गांधारी, तिचें सांत्वन करपाक आयिल्ल्या कृष्णाक उद्देशून म्हणटा

**त्वमेव माता च पिता त्वमेव,**
**त्वमेव बन्धुश्च सखा त्वमेव**
**त्वमेव विद्या, द्रविणं त्वमेव**
**त्वमेव सर्वं मम देवदेव ॥**

हे कृष्णा, तूंच म्हजी आवय, तूंच म्हजो बापूय आनी तूंच म्हजो भाव, तूंच म्हजो मित्र. तुजें ज्ञान हीच म्हजी विद्या आनी तुजी प्राप्ती हेंच म्हजें धन. तूंच म्हजें सर्वस्व.

अशेच तरेचो श्लोक रामरक्षेंतय वाचपाक मेळटा.

**माता रामो, मत्पिता रामचन्द्रः,**
**स्वामी रामः मत्सखा रामचन्द्रः ।**
**सर्वस्वं मे रामचन्द्रः दयालुः न अन्यं जाने,**
**नैव जाने, न जाने ॥**

म्हजी आवय राम, बापूय रामचन्द्र, स्वामी राम, मित्र रामचन्द्र, दयावन्त रामचन्द्र हो म्हजें सर्वस्व. ताका सोडून हांव आनी खंयच्याय देवाक वळखना.

जिणेंत गुरूक खुबच मान आसा. संस्कृत भाशेंतल्यान गुरूची व्हडविकाय कशी मांडल्या तें समजून घेवपाचो यत्न करुंया.

**गुरुर्बह्मा गुरुर्विष्णुः गुरुर्देवो महेश्वरः ।**
**गुरु साक्षात् परब्रह्म, तस्मै श्रीगुरुवे नमः ॥**

म्हळ्यार गुरू होच ब्रह्मदेव, गुरू होच विष्णु, गुरू होच महादेव, गुरू म्हळ्यार प्रत्यक्ष

परब्रह्म. अशा गुरूक म्हजो नमस्कार.

गुरुचें वर्णन करपी आनीक एक श्लोक पळेवंया.

**अज्ञानतिमिरान्धस्य ज्ञानाञ्जनशलाकया ।**
**चक्षुः उन्मीलितं येन तस्मै श्रीगुरुवे नमः ॥**

तिमिर म्हळ्यार काळोख. अज्ञानाक लागून जो कुड्डो जाला ताका ज्ञानरुपी अंजन दोळ्यांत घालून दृश्टी दिवपी गुरूक हांव नमस्कार करतां.

**एकमेव अक्षरं यः तु गुरुः शिष्यं प्रबोधयेत ।**
**पृथिव्यां नास्ति द्रव्यं यद् दत्त्वा च अनृणी भवेत् ॥**

जो गुरू शिष्याक एकच अक्षर बरे तरेन शिकयता, ताचें हें रीण पावोवपासारकी कसलीच गजाल पृथ्वीचेर ना.

पयलींच्या काळांत विद्या मेळोवपाखातीर गुरूची सेवा करची पडटाली. शिष्य गुरूच्या आश्रमांत वचून रावतालो. विद्या मेळोवपाबरोबर तो आश्रमांत हेर कामांय करतालो. रांदप, लाकडां फोडून हाडप, यज्ञ-पूजेचें सामान एकठांय करप अशीं जायतीं कामां शिष्याक करचीं पडटालीं. विद्या मेळोवपा बरोबरच तो व्यवहारज्ञान शिकतालो, धर्म सांबाळपाक शिकतालो, राजकारण शिकतालो आनी शिकून जातकच तो बरें जीवन जियेवपाक समर्थ जातालो. गुरूकडल्यान विद्या प्राप्त करप ही गजाल संस्कृतांत कसली उपमा दिवन मांडल्या तें पळेयात.

**यथा खनन् खनित्रेण नरो वारि अधिगच्छति ।**
**तथा गुरुगतां विद्या शुश्रूषुः अधिगच्छति ॥**

म्हळ्यार, जशें कुदळीन जमीन खणून उदक मेळयतात तेच भशेन गुरूची सेवा केल्यार विद्या प्राप्त जावंयेता.

सुभाषितकार म्हणटात

**शिष्याद् इच्छेत् पराजयम् ।**

शिष्याकडल्यान हार खावपाची इच्छा धरची.

गुरून आपल्या शिष्याक आपलेपरस विद्वान केल्यार तें गुरुचें एक व्हड यश थारता, अशेंच सुभाषितकारांक म्हणपाचें आसा. प्रत्येक फुडले पिळगेचें पावल ज्ञानाचे

नदरेन फुडेंच पडूंक जाय.

विद्या ही केन्नाच सुखासुखी मेळना. विद्या आत्मसात करपाक तपश्चर्याच करूंक जाय, उपासनाच करूंक जाय अशीच लोकांची धारणा आसली. विद्या मेळोवपाखातीर पडटल्या त्रासांची तुळा बायलमनशेक बाळंत जातना जावपी त्रासांकडेन केल्ली वाचूंक मेळटा.

**विद्वान एव विजानाति विद्वज्जनपरिश्रमम् ।**
**न हि वन्ध्या विजानाति गुर्वी प्रसववेदनाम् ॥**

म्हळ्यार, विद्वान मनशाक विद्या मेळोवपाखातीर जे त्रास काडचे पडटात ते ताकाच खबर! बाळंतपणाचे त्रास कशे आसतात हें भुरगीं जावंक नाशिल्ले बायलेक कशें समजतलें ?

आयज शिक्षणाचें बाजारीकरण जालां. डिग्री घेवन भायर सरतकच जीवन कशें घालयतलो हाची मोख विद्यार्थ्याक नासता. ताका लागून तो भरकटत वता. एकत्र कुटुंबपद्धत नाशिल्ल्यान आनी कुटूंब नियोजनाक लागून दर एका कुटुंबांत एक वा दोन भुरगीं आसतात. भुरग्याक शिकोवपा खातीर कितलेय त्रास घेवपाची आवय-बापायची तयारी आसता. पूण भुरगो मात सुस्तावला, सुखावला. विद्या आत्मसात करपाक त्रास काडपाक जाय हें ताका खबरच ना. कृत्रिम घडणुकांनी भरिल्लो दूरदर्शनाचो संच होच ताचो मार्गदर्शक, तोच ताचो गुरू अशें म्हळ्यार अतिताय जावंची ना. कश्ट केलेबगर विद्या प्राप्त जायना, आनी ह्या कश्टान मेळयिल्ल्या ज्ञानाचो आनंद विद्यार्थ्याक मेळटा तो वेगळोच !

सुख आनी विद्या हांचें पटना अशें सांगपी हो श्लोक –

**सुखार्थिन: कुतो विद्या, नास्ति विद्यार्थिन:सुखम् ।**
**सुखार्थी वा त्यजेत् विद्यां, विद्यार्थी वा त्यजेत् सुखम् ॥**

ह्या महाभारतांतल्या श्लोकांत विदुर धृतराष्ट्राक सांगता, ''सुख जाय आशिल्ल्याक विद्या कशी मेळटली ? विद्यार्थ्याक सुख मेळना. सुख जाय आशिल्ल्या विद्यार्थ्यान विद्या सोडूंक जाय आनी विद्या जाय आशिल्ल्या विद्यार्थ्यान सुख सोडूंक जाय.''

रामायणांत वसिष्ठ ऋषी रामाक विद्येबद्दल कितें सांगतात तें पळेवंया.

**ज्ञानवान एव सुखवान, ज्ञानवान एव जीवति ।**
**ज्ञानवान एव बलवान, तस्मात् ज्ञानमयो भव ॥**

वसिष्ठ म्हणटात, ''ज्ञानी मनीसूच सुखी आसता आनी ज्ञानीच बरी जीण जियेता. ज्ञानवान तोच बलवान आसता, समर्थ आसता, देखून तूं लेगीत ज्ञानवान जा.''

जांकां विद्यालाभ जायना अशांनी कितें करचें हें सांगतना वसिष्ठ ऋषी रामाक सांगतात तो श्लोक असो–

**अलब्धज्ञानदृष्टीनां क्रिया, पुत्र, परायणम् ।**
**यस्य न अस्ति अम्बरं पट्टं कम्बलं किं त्यजति असौ ॥**

वसिष्ठ म्हणटात, ''वत्सा, जांकां ज्ञानदृष्टी ना अशा लोकांनी काम करूंक जाय. न्हेसपाक रेशमी वस्त्र ना म्हूण कोण आंगावेले कपडे काडून उडयता?''

तुमकां कौरवांचो राग कित्याक येना, अशें संतापून विचारपी द्रौपदीक युधिष्ठिर कितें उत्तर दिता पळेयात–

**य: तु क्रोधं समुत्पन्नं प्रज्ञया परिबाधते ।**
**तेजस्विनं तं विदुषो मन्यते तत्वदर्शिन: ॥**

जो मनीस आपल्याक आयिल्लो राग गिन्यान वापरून ना करता त्या मनशाक सत्य समजावपी विद्वान लोक तेजस्वी आनी पराक्रमी समजतात.

विद्येबद्दल इतलें बरें सांगलां खरें. तरी पूण मनांत एक प्रस्न उप्रासता. तो म्हळ्यार, समजा एक विद्वान आनी एक राजा (आयचे भाशेंत, मंत्री) घरांत भितर सरले. घरांतलो मनीस दोगांकय वळखता. ताचेकडेन घरांत बसपाक एकच कदेल आसा. प्रस्न असो, हें कदेल विद्वानाक मेळटलें, काय मंत्र्याक? म्हाका दिसता, तें कदेल मंत्र्याकच मेळटलें. मंत्र्याक कदेल दिवपी असो विचार करतलो, विद्वानाक उबो दवरलो म्हणून कांयच वायट जावपाचें ना. मंत्र्याक उबो दवरल्यार तागेलो राग म्हारग पडुंयेता. घडये ह्या कारणाक लागून संस्कृतांत असोय एक श्लोक वाचूंक मेळटा–

**विद्वत्त्वं च नृपत्वं चं नैव तुल्यं कदाचन ।**
**स्वदेशे पूज्यते राजा, विद्वान सर्वत्र पूज्यते ॥**

म्हळ्यार, विद्वत्ता आनी राजा हांची तुळा केन्नाच जावंचीना. राजाक तागेल्या देशापुरतो मान मेळटा, जाल्यार विद्वानांचो आदर सगळेकडेन जाता.

राजाचो रंक जावंयेता, पूण विद्वानाचो अज्ञानी कसो जातलो? खर्च केल्यार धन कमी जाता. मात विद्या दुसऱ्याक दिल्यार कमी जावंचे बदला वाडटा. देखून

विद्या ही सर्वश्रेष्ठ अशें सांगतना संस्कृत भाशेंत रचना केल्ली वाचूंक मेळटा ती अशी –

**सर्वद्रव्येषु विद्या एव द्रव्यम् आहुः अनुत्तमम्**
**अहार्यत्वाद् अनर्घ्यवाद् अक्षयत्वात् च सर्वदा ॥**

विद्या ही सगळ्यांत श्रेष्ठ. ती चोरपाक मेळना, तिचें मोलय करपाक येना, देखून विद्येक अक्षय म्हळां.

अशाच अर्थाचो आनीक एक श्लोक –

**अपूर्वः कोऽपि कोशोऽयं विद्यते तव भारति ।**
**व्ययतो वृद्धिम् आयाति, क्षयम् आयाति संचयात ॥**

हे सरस्वती, तुजो हो ज्ञानाचो खजिनो जगांत तोड नाशिल्लो. खर्च केल्यार तो वाडटा आनी सांठयल्यार कमी जाता म्हणून विद्या आनी ज्ञान दुसऱ्याक दीत रावंक जाय.

असो हो विद्येचो खजिनो कोणाच्यानच जबरदस्तीन व्हरूंक नजो, हें सांगपी एक रचना –

**न चोरहार्यं, न च राजहार्यं, न भ्रातृभाज्यं न च भारकारी ।**
**व्यये कृते वर्धते एव नित्यं विद्याधनं सर्वधनप्रधानम् ॥**

म्हळ्यार, चोरांच्यान चोरून व्हरपाक जायनाशिल्लें, राजाक जबरदस्तीन व्हरूंक मेळनाशिल्लें, भावाभावांतय वांटणी करूंक मेळनाशिल्लें, तशेंच, जाचो केन्नाच भार जावंक शकना आनी जें कितलेंय खर्चिल्यार वाडतच रावता, अशें हें विद्याधन सगळ्यांत श्रेष्ठ धन.

अशाच अर्थाचो आनीक एक श्लोक –

**हर्तुर् याति न गोचरं, किमपि शं पुषणाति यत् सर्वदा,**
**अपि अर्थिभ्यः प्रतिपाद्यमानम् अनिशं प्राप्नोति वृद्धिं पराम् ।**
**कल्पान्तेष अपि न प्रयाति निधनं विद्याख्यम् अन्तर्धनम्**
**येषां, तान् प्रति मानम् उज्झत नृपाः, कः तैः सह स्पर्धते ? ॥**

जें जबरदस्तीन काडून घेवपाक मेळना, जें सदांच कल्याण करीत रावता, जें दुसऱ्याक

दिल्यार कमी जायनासतना वाडत रावता, प्रलय जाल्यार लेगीत जें नश्ट जायना तें विद्या नांवाचें गुप्त धन जांचेकडेन आसा तांचेमुखार, हे राजांनो, तुमचें गर्व सोडून दियात. तांचे बरोबर कोण स्पर्धा करूंक शकता ?

याचकाक सतत दीत रावल्यार लेगीत केन्नाच सोंपपाचें ना, अशें हें विद्याधन. इतलेंच न्हय, तर सगळ्या दानांत विद्यादान हें श्रेष्ठ. म्हळ्यार, सगळ्यांत उंचेल्या पांवड्यावेलें दान अशें एका श्लोकांत वाचूंक मेळटा. म्हणूनच जावंये, पयलींच्या काळांत शिक्षकाक खूब व्हड मान असलो. राजासावन रंका मेरेन सगळेच शिक्षकाचें म्हणणें आयकताले आनी पाळटाले म्हणपाचें वाचूंक मेळटा. विद्यादान श्रेष्ठ म्हणपी श्लोक असो –

**अन्नदानं परं दानं, विद्यादानं अत: परम् ।**
**अन्नेन क्षणिका तृप्ति: यावज्जीवं च विद्यया ॥**

म्हळ्यार, अन्नदान हें श्रेष्ठ दान, विद्यादान हें ताचेय परस श्रेष्ठ दान. अन्नान तृप्ती मेळटा, पूण ती क्षणिक! विद्या मात तृप्तीचो आनंद जल्मभर दिता.

आयज आमच्या देशांत शिक्षण सक्तीचें करपाक कायदो करपाची गरज आसा. मुळावें शिक्षण सक्तीचें केलां. तरीपूण लोकांचेर ताचो जितलो परिणाम जावपाक जाय तितलो तो जाला अशें दिसना. कायदो करचे पयलीं शिक्षणाचें म्हत्व लोकांक पटोवन दिवपाची गरज आसा. हालीं आमदार, खासदार वा मंत्री जावपाक शिक्षणाची गरज ना. शिक्षण नाशिल्लो मनीस लोकांचें फुडारपण घेवन जेन्ना असो उंचेल्या पांवड्यार पाविल्लो दिश्टी पडटा तेन्ना लोकांक शिक्षणाची गरज कित्याक जाणवतली ? भुरग्यांची विचार करपाची खोलाय तशी चड नासता, आनी आवय-बापूय खोलाय आसल्यार लेगीत वेगळ्या थरार विचार करतात. आमच्या पूर्वजांनी मात हाचेर खोलायेन विचार केल्लो जावंक जाय. म्हणूनच, जीं आवय-बापूय आपल्या भुरग्यांक शिक्षण दिनात तांकां एका श्लोकांत शत्रू म्हणिल्ल्याचें वाचूंक मेळटा.

**माता शत्रु: पिता वैरी येन बालो न: पाठित: ।**
**न शोभते सभामध्ये, हंसमध्ये बको यथा ॥**

म्हळ्यार, जांणी आपल्या भुरग्यांक शिक्षण दिवंक ना, तीं आवय-बापूय त्या भुरग्याचीं शत्रू. हंसांच्या कळपांत जसो बगळो सोबना तसोच समाजांत अशिक्षित मनीस सोबना.

एखादे गजालीची व्हडविकाय दुसरे खंयचेय गजालीची उपमा दिवन सांगप ही

चाल संस्कृत भाशेंत, आनी चड करून संस्कृत सुभाषितांनी वाचूंक मेळटा. गुरूक ब्रह्मा, विष्णू, महेश हांची उपमा दिल्या. विद्या ही मनशाचे जिणेंत एक रक्षक जावन वावुरता आनी म्हणून जिणेंत विद्येची गरज आसा. विद्याच मनशाक राखता, तारता अशा आशयाची उपमा विद्येक दिल्ली वाचूंक मेळटा. जिणेंत आपलो भाव आनी तातूंत व्हड भाव, जाचेकडेन सगळे तरेचें मार्गदर्शन आपणाक मेळूंक शकता, तशी विद्या. संकटाच्या वेळार इश्ट पावता, संकटांतल्यान वाट दाखयता, तशी विद्या. विद्या आसतकच धन मेळपाक अडचण ना आनी म्हणून विद्या ही धनाभशेन. बरो विचार करपाची स्फूर्त विद्याच दिता. बरो विचार म्हळ्यार बरी जीण, म्हणजेच सुख. म्हणून विद्या म्हळ्यार सुख. अशे तरेन विद्येची व्हडविकाय सांगपी हें सुभाषित–

**नास्ति विद्यासमो बन्धु:, नास्ति विद्यासम: सुहद्**
**नास्ति विद्यासमं वित्तम्, नास्ति विद्यासमं सुखम्**

विद्येसारको भाव ना, विद्येसारको इश्ट ना, विद्येसारकें धन ना आनी विद्येसारकें सुख ना.

माडाक 'कल्पवृक्ष' म्हणटात. ताच्या फळाक श्रीफळ म्हणटात. खिणा कणकणी मनशाक उपेगी पडपी हो माड, ताठ मानेन जिये, आनी मळब हीच तुजे उदरगतीची तेंगशी अशें मनीसजातीक जागयत उबो आशिल्लो हो झाडांचो राजा. विंगड-विंगड पांवड्यांचेर मनशाक आधार दिवपी ह्या कल्पवृक्षाभशेन विद्याय मनशाचे जिणेंत एक व्हड आधार कशी. विद्येची तुळा ह्या कल्पवृक्षाकडेन केल्ली वाचूंक मेळटा.

**माता इव रक्षति पिता इव हिते नियुङ्क्ते**
**कान्त इव च अपि रमयति अपनीय खेदम् ।**
**लक्ष्मी तनोति वितनोति च दिक्षु कीर्ति**
**किं किं न साधयति कल्पलता इव विद्या ॥**

विद्या ही मातेसारकी रक्षण करता, बापायभशेन हिताचें आचरण करून घेता, प्रिय अशे पत्नीभशेन आनंद दिता, वैभव वाडयता, कीर्ती पातळायता. कल्पवृक्षाभशेन आशिल्ले हे विद्येपसून कितें साध्य करूंक मेळना?

शस्त्र आनी शास्त्र ह्या दोन शब्दांत फकत एके मात्रेचो फरक. दोगांयचेय व्हडविकायेची तुळा करप कठीण आनी अर्थाचो अनर्थ जावपाइतलें सामर्थ्य ह्या दोनीय शब्दांत घुस्पलां. कशें तें पळेयात.

**विद्या शस्त्रं च शास्त्रं च, द्वे विद्ये प्रतिपत्तये ।**
**आद्या हास्याय वृद्धत्वे, द्वितीया आद्रियते सदा ॥**

शस्त्रविद्या आनी शास्त्रविद्या ह्यो दोनीय विद्या शिकून घेवपासारक्योच. पूण शस्त्रविद्येचो म्हातारपणांत उपेग जायना, जाल्यार शास्त्रविद्या सदांच उपेगाची. शब्दांत एके मात्रेचो फरक जरी आसलो, अर्थांत जमीन अस्मानाचो फरक!

स्वामी विवेकानंदांनी एकेकडेन म्हळां, ''Everybody has to teach himself.'' हातुंतलें मर्म जाणून घेवप गरजेचें. प्रत्येक भुरगो हो स्वतंत्र व्यक्तिमत्व घेवन जल्माक येता. म्हणून ताच्या जिविताक बरें वळण लावपाचें साधन म्हळ्यार शिक्षण. भुरग्याच्या शिकपांत शिक्षक, पालक आनी भोंवतणचो समाज हांचो वांटो मोलादीक आसता हें तत्त्व आधुनिक अशें म्हाका दिसना. विद्यार्जनाचें तत्त्व सांगपी सुभाषित वाचल्यार ही गजाल पटूंक जाय अशें म्हाका दिसता.

**आचार्यात् पादम् आदत्ते, पादम अन्यं स्वमेधया ।**
**पादं सब्रह्मचारिभ्यः, पादः कालेन पच्यते ॥**

म्हळ्यार, विद्यार्थ्याक चारकडल्यान ज्ञान मेळटा. पाव-वांटो तो गुरूकडल्यान प्राप्त करून घेता, दुसरो पाव-वांटो तो स्वताचे बुद्धीन विचार करून मेळयता. तिसरो पाव-वांटो तो संगतीन, म्हळ्यार ताचे वांगडा शिकपी वांगड्यांकडल्यान मेळयता, आनी चवथो पाव-वांटो तो कालांतरान अणभवांतल्यान मेळयता.

ज्ञान मेळोवपाखातीर स्वताचे बुद्धीचो उपेग करप म्हळ्यार अभ्यास करप अशें म्हणूं येता. अभ्यासान मन बरें जाता, प्रसन्न जाता आनी घट (प्रबळ) जाता. मन स्थिर करपाक, एकाग्र करपाक अभ्यासाची गरज, अभ्यासाचें म्हत्व आनी अभ्यासान मेळपी घटसाण ह्या गजालींकडेन बोट दाखोवपी भगवद्गीतेंतलो श्लोक खऱ्यांनीच लक्षांत दवरपासारको.

**अभ्यासयोगयुक्तेन चेतसा नान्यगामिना ।**
**परमं पुरुषं दिव्यं याति पार्थानुचिन्तयन् ॥**

हे पार्था, चित्त दुसरेकडेन वचपाक दिवंनाका, विचलीत करनाका. तें अभ्यासाच्या आधारान स्थिर कर आनी दिव्य पुरुषाचें निरंतन चिंतन करीत राव. म्हणटकच तूं त्या दिव्य पुरुषाभशेन जातलो.

अशाच अर्थाच्यो वळी ज्ञानेश्वरींतय वाचूंक मेळटात.

**येणेचि अभ्यासेसि योगु । चित्तासि करी पां चांगु ।**
**अगा उपाय बळे पंगू । पहाड टाकी ।**

अर्जुना, अभ्यासावांगडा चित्ताची सांगड बरी घाल. प्रयत्नांच्या बळार पांगळो लेगीत पर्वत चडून वचपाक शकता.

रामदास स्वामी तर म्हणटात, ''अभ्यासाने प्रगट व्हावें। नाहीतरी झाकोन असावे।''

ज्ञान मेळोवपाक गरज लागता ती अभ्यासाची, गिन्यानाची. गिन्यान आसलें म्हण जायना. ताचे आठ पांवडे एका संस्कृत श्लोकांत सांगल्यात ते अशे–

**शुश्रूषा, श्रवणं चैव, ग्रहणं, धारणं तथा**
**उहापोहो, अर्थविज्ञानं, तत्त्वज्ञानं च धीगुणाः ॥**

म्हळ्यार, शिकपाची जबरदस्त इत्सा, श्रवण करप म्हळ्यार आयकप, ग्रहण करप म्हळ्यार आत्मसात करप, स्मरणांत दवरप म्हळ्यार याद दवरप, तर्क-वितर्क, सिद्धान्त (म्हळ्यार नेमांक धरून) निश्चय, अर्थज्ञान, तत्त्वज्ञान हीं बुद्धिचीं आठ आंगां सांगल्यांत.

ज्ञान मेळोवपाक कितें करपाक जाय हें जशें म्हत्वाचें, तशेंच, कितें करूंक जायना हें तितलेंच गरजेचें. अभ्यास हाचो अर्थ व्यासंग, सराव, परिपाठ वा पुनरुक्ती असो मेळटा. हें सगळें जमतलें जाल्यार कितें करपाक नाका हाचेर संस्कृतांत सुभाषित आसा, जातूंत अशा नाका आशिल्ल्या गजालींक विद्येचे शत्रू अशें म्हळां. विद्येचे तीन शत्रू सांगल्यात.

**अशुश्रूषा, त्वरा, श्लाघा, विद्यायाः शत्रवः त्रयः ।**

म्हळ्यार, जाका आयकुपाची इत्सा ना, आयकून घेवपाक चिकाटी ना आनी आत्मस्तुती करप वा बढायो मारप हे विद्येचे तीन शत्रू.

फकत बुद्द आसली म्हण ज्ञान मेळटा अशें ना. आनिकय जायतीं पथ्यां विद्यार्थ्यान पाळपाचीं आसतात. म्हणटातच, 'विद्या विनयेन शोभते'. विद्वान हो नम्र आसता. तो बढायो मारना. विद्यार्थ्यान पथ्यां पाळ्ळीं ना जाल्यार ताच्या ज्ञान मेळोवपाच्या मार्गांत अडथळे येवंयेतात.

**सर्वथा संत्यजेत् वादं, न कंचित् मर्माणि स्पृशेत् ।**
**सर्वान् परित्यजेत् अर्थान् स्वाध्यायस्य विरोधिन : ॥**

म्हळ्यार, वादविवाद करप, दुसऱ्याक दुखावता अशें उलोवप ह्यो गजाली विद्याभ्यासाक प्रतिकूल अशो आसतात. वादविवाद करून दुसऱ्याचें मन दुखवता आनी हातुंतल्यानच शत्रू निर्माण जातात.

घडये म्हणूनच म्हणटात, विद्यार्थ्यान राजकारणांत पडचें न्हय. विद्या आसल्यार पोट भरपाची काळजी करपाची गरज ना अशें सांगपी हो श्लोक.

**सद्विद्या यदि का चिन्ता वराकोदरपूरणे ।**
**शुकोऽपि अशनम् आप्नोति राम राम इति च ब्रुवन ॥**

बरी विद्या आशिल्ल्या मनशान पोट भरपाची काळजी कित्याक करची? राम-राम म्हणपी पोपटाक लेगीत खावपाक मेळटा.

ज्ञान आत्मसात करपाक कसलेंच सोयर-सुतक धरचें न्हय. फातरांतल्यान जशें आमी भांगर काडून घेतात, तशी विद्या कोणाकडल्यानय घेवची. प्रत्येकाकडल्यान शिकपासारकें थोडें कितें तरी आसताच. अशा ज्ञानाची – विद्येची – व्हडविकाय सांगपी कांय सुभाषितां अशीं आसात–

**अनेकशास्त्रं बहु वेदितव्यमल्पश्च कालो बहवश्च विघ्ना: ।**
**यत्सारभूतं तदुपासितव्यं हंसो यथा क्षीरमिवाम्बुमध्यात ॥**

शास्त्र एकच ना. तीं खूब आसात. जाणून घेवपासारकेंय खूब आसा. वेळ (आयुश्य) मात खूबच थोडो आसा आनी अभ्यासाक अडचणीय खूब आसात. म्हणून हंस जसो उदकांतलें दूद वेगळें काडून घेता, तशें मनशान बरें तें शिकून घेवन ज्ञानाची उपासना करची.

**अव्याकरणम् अधीतं, भिन्नद्रोण्या तरङ्गिणीतरणम् ।**
**भेषजम् अपथ्यसहितं, त्रयम् इदम् अकृतं वरं, न कृतम् ॥**

व्याकरणाशिवाय अभ्यास (अध्ययन) करप, फुटिल्ल्या व्हड्यान पलतडी वचपाचो यत्न करप आनी पथ्य पाळिनासतना वखदां घेवप, ह्यो तीन गजाली करचेपरस न केल्ल्यो बऱ्यो.

**न तेन स्थविरो भवति येन अस्य पलितं शिर: ।**
**बालोऽपि य: प्रजानाति तं देवा: स्थविरं विदु: ॥**

तकलेवयले केंस धवे जाले म्हणून मनीस 'वृद्ध' अशें म्हणूं नजो. ल्हान आसून जाका खूब ज्ञान आसा ताका देव 'स्थविर', म्हणजेच स्थीर बुद्धिचो वृद्ध, अशें समजतात. ज्ञानवृद्ध तोच खरो वृद्ध. शाणपण हें वयाचेर आदारून नासता.

**प्रभूतवयस: पुंस: धिय: पाक: प्रवर्तते ।**
**जीर्णस्य चन्दनतरो: आमोद: उपजायते ॥**

मनशाचें वय जालें म्हणटकच ताचे बुद्धीक धार येता. म्हणजेच, तो परिपक्व जाता. वयाबरोबर अणभव वाडटा आनी ज्ञानान तो ज्ञानवृद्ध जाता. चंदनाचें झाड जाणटें जालें म्हणटकच ताच्या लाकडाक बरो वास येता, सुगंध येता.

**यस्य न अस्ति निजा प्रज्ञा केवलं तु बहुश्रुत: ।**
**न स जानाति शास्त्रार्थं दर्वी सूपरसान् इव ॥**

जे भशेन वरणांत बुडयल्ल्या दवल्याक वरणाची रूच कळना, तेच प्रमाण जाका स्वताची बुद्द ना, पूण जो पुस्तकी पंडित आसता, जाका पढिक अशें म्हणटात, ताका शास्त्राचो खरो अर्थ समजना.

**वरं दरिद्र: श्रुतिशास्त्रपारगो न च अपि मूर्खो बहुरत्नसंयुत: ।**
**सुलोचना जीर्णपटा अपि शोभते, न नेत्रहीना कनकै: अलंकृता ॥**

वेद आनी शास्त्र बरें जाणा आशिल्लो, शास्त्रांत पारंगत आशिल्लो दळिद्री मनीस बरो, पूण रत्नां बाळगुपी मूर्ख मनीस नाका. सुंदर दोळ्यांची, पिंजिल्लें कापड न्हेशिल्ली बायलमनीस सोबता, पूण भांगरा वस्ती घातिल्ली कुड्डी बायलमनीस सोबना.

पयसो-आडको हो विद्येपरसय श्रेष्ठ म्हणून विद्येक ज्ञानदृष्टी अशें म्हणिल्लें वाचूंक मेळटा.

**पटपद: पुष्पमध्यस्थो यथा सारं समुद्धरेत् ।**
**तथा सर्वेषु शास्त्रेषु सारं गृह्णन्ति पण्डिता: ॥**

फुलांमदीं रावन भंवर त्या फुलांतलें म्होंव (म्हळ्यार फुलाचें सार) शोषून घेता तसो

पंडित (विद्वान मनीस) सगळ्या शास्त्रांतल्यान म्हत्वाचो भाग तितलो घेता, जाका लागून खुबशा शास्त्रांचो अभ्यास करप ताका शक्य जाता. विद्वान हो खोलायेन अभ्यास करपी आसता, वयलेवयर अभ्यास करपी नासता.

**अनेकसंशयोच्छेदि, परोक्षार्थस्य दर्शकम ।**
**सर्वस्य लोचनं शास्त्रं यस्य नास्ति अन्ध: एव स: ।।**

खूबशा संशयांचें मुळांतसून निरसन करपी, आपल्या दोळ्यांआड आशिल्ल्यो गजाली दाखोवपी, जणएकल्याच्या दोळ्यांभशेन आशिल्लें हें शास्त्र तें जाका येना, ताका दोळे आसून कुड्डोच म्हणपाक जाय.

**एकं हन्यात् न वा हन्याद् इषुर् मुक्तो धनुष्मता ।**
**बुद्धिर् बुद्धिमता उत्सृष्टा हन्याद् राष्ट्रं सराजकम् ।।**

धनुर्धरान सोडिल्लो बाण एकाक तरी जितो मारुंये वा न मारुंये, पूण बुदवंत मनशान येवजून काडिल्ली बुद्द म्हळ्यार युक्ति वा धोरण राजासकट सगळ्या शत्रूंचो, सगळ्या राष्ट्राचो नाश करता.

**विद्या नाम नरस्य रुपम् अधिकं प्रच्छन्नगुप्तं धनं**
**विद्या भोगकरी, यश:सुखकरी, विद्या गुरूणां गुरु: ।**
**विद्या बन्धुजनो विदेशगमने विद्या परा देवता**
**विद्या राजसु पूज्यते, न हि धनं, विद्याविहीन: पशु: ।।**

विद्या म्हळ्यार खरेंच मनशाचें एक बरें रूप आनी लिपोवन दवरिल्ल्या धनाभशेन आसा. विद्या ही उपभोगाच्यो वस्तू, यश आनी सुख प्राप्त करून दिता. विद्या म्हळ्यार गुरूचो गुरू. देशाभायर वतकच विद्या ही आपल्या भावाभशेन, म्हळ्यार आप्तबंधू आसता. विद्या म्हळ्यार श्रेष्ठ देवता. राजा-म्हाराजां भितर लेगीत विद्येचो आदर जाता, तिची पूजा करतात, धनाची न्हय. विद्या नाशिल्लो मनीस म्हळ्यार जनावराभशेन.

विद्यावान मनीस स्वताक भाग्यवान समजता, नशीबवान समजता. एक विद्वान कवी आपले विद्येची श्रीमंती कशी सांगता तें पळेवंया.

**न अस्माकं शिबिका न च अस्ति कटकाद्यलंकारसत्क्रिया**
**न उत्तुङ्गस् तुरगो न कश्चिद अनुगो न अपि अम्बरं सुन्दरम् ।**
**किं तु क्ष्मातलवर्तिअशेषविदुषां साहित्यविद्याजुषाम्**
**चेतस्तोषकारी शिरोनतिकरी विद्या नवद्या अस्ति नः ॥**

आमचेकडेन पालखी (वाहन) ना, अलंकार ना, बऱ्यापैकीं घोडो ना, नोकर चाकर ना, बरें वस्त्रय ना. पूण पृथ्वीचेर आशिल्ले सगळे साहित्यप्रेमी, विद्याप्रेमी, विद्वान अशा लोकांचें चित्त आनंदीत करपी, मन प्रफुल्लीत करपी आनी तल्लीन करपी अशी निर्दोष विद्या आमचेकडेन आसा.

ज्ञान हें आत्मसात करपाक जाय. पुस्तकां संग्रही आसलीं म्हणून ज्ञान मेळना. पुस्तकां वाचूंक जाय. जें कितें वाचलां ताचेर मनन, चिंतन ह्यो गजाली जावंक जाय. सगळ्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार, ह्या सगळ्यांचें विस्मरण जावंक फावना. म्हणूनच सुभाषितकार म्हणटात,

**पुस्तकस्था तु या विद्या, परहस्तगतं धनम्**
**कार्यकाले समुत्पन्ने, न सा विद्या, न तद् धनम् ॥**

पुस्तकांतली विद्या (तकलेंत नाशिल्ली) आनी दुसऱ्याच्या हातांत गेल्लें धन ह्या दोनीय गजालींचो गरजेवेळार उपेग जायना.

ज्ञान आत्मसात केलें तरीय आनीक एक गजाल उरता ती म्हळ्यार कृती. आपूण जें कितें शिकलां, म्हळ्यार जें कितें वाचलां, चिंतन केलां, मनन केलां तें सगळें कृतींत उतरावचें पडटा. पुस्तकांचें वाचन वा शाळा कॉलेजांत जें कितें शिकयतात तें शिक्षण न्हय, तर तें एक शिक्षणाचें साधन. रामदास स्वामी, तुकाराम महाराज, संत नामदेव, ज्ञानेश्वर ह्या सगळ्यांनी शाळा-कॉलेजांत वचून खंय कसल्यो पदव्यो घेतल्यात? न्या. रानडे म्हणटात, ''**शाळा कॉलेजांत वचून शिकप आनी पदव्यो मेळोवप म्हळ्यार शिक्षण न्हय. जीवन बरे तरेन जगप म्हळ्यार शिक्षण, आनी ज्ञानाप्रमाणें आचरण करप म्हळ्यार प्रशिक्षण.**'' ते फुडें म्हणटात, ''**खरें ज्ञान हें संवसाराचे शाळेंत, जिणेच्या विद्यालयांत आनी अणभवाच्या विद्यापीठांत मेळटा.**'' हीं उतरां विचार करपासारकीं, भांगरान बांदून दवरपासारकीं!

**शास्त्राण्यधीत्यापि भवन्ति मूर्खाः,**
**यस्तु क्रियावान पुरुषः स विद्वान् ।**

**संचिन्तितं त्वौषधम् आतुरं हि**
**किं नाममात्रेण करोत्यरोगम् ॥**

म्हळ्यार, शास्त्रांचो अभ्यास करून लेगीत मूळचे मूर्ख ते मूर्खच उरतात. आपलें ज्ञान, शिक्षण कृतींत हाडटा आनी जीण जियेता तोच खरो विद्वान. दुयेंत मनशाक दोतोरान फकत वखदाचें नांव सांगलें म्हणून तो दुयेंत मनीस बरो जाता?

तुकाराम महाराजांनी म्हळां,

**बोलाचीच कढी, बोलाचाच भात**
**जेवूनिया तृप्त, कोण झाला !**

अशाच अर्थाचो आनीक एक श्लोक–

**अज्ञेभ्यो ग्रन्थिन: श्रेष्ठा:, ग्रन्थिभ्यो धारिणो वरा: ।**
**धारिभ्यो ज्ञानिन: श्रेष्ठा:, ज्ञानिभ्यो व्यवसायिन: ॥**

अज्ञानी मनशापरस जाका ग्रंथ वाचूंक येता, म्हळ्यार जो साक्षर आसा, तो श्रेष्ठ. ताचेय परस जाका ग्रंथ वाचतकच समजता, तो श्रेष्ठ. ताचेय परस आत्मज्ञानी श्रेष्ठ. आनी ह्या सगळ्यां परस ज्ञान जगता, कृतींत हाडटा तो श्रेष्ठ.

बुद्द ही मुळांतच आसची पडटा. बुद्द हाचो अर्थ शाणपण आनी चातुर्य. ह्यो दोन गजाली पुस्तकांतल्यान मेळनात तर त्यो मुळांतच आंगांत आसच्यो पडटात. कसलेय गजालीचो अभ्यास करप, ती गजाल समजून घेवप हें तशें सोंपें न्हय. शाणपण आनी चातुर्य अशा दोन गजालींची जोड आसल्यार समजिकायेक खोलाय येता. न्या. रानडे हांणी एक मार्मिक गजाल आपले बरपावळींत सांगल्या.

एकदां एक इंग्लीश मनीस लोकमान्य टिळकांकडेन गेलो. ताणें म्हळें, 'हांवें मराठी भाशेचो इतलो अभ्यास केला की मराठी उलोवपी मनशापरस म्हाका मराठी भास बरी कळटा.' लोकमान्य टिळक कांयच उलयलेनात. पूण तांणी म्हळें, 'अमूक अमूक मनशागेर वच आनी ताची चवकशी करून यो.' तो इंग्लीश मनीस टिळकांनी सांगिल्ल्या मनशागेर गेलो. ताणें त्या मनशाचें नांव घेवन विचारलें, '... घरांत आसा?' घरांतले बायलेन जाप दिली, 'खुंटयेक पगडी दिसना.' इंग्लीश मनशान म्हळें, 'हांव पगडेविशीं विचारिना, ... घरांत आसा?' ते बायलेन परत जाप दिली, 'बडी खंय दिश्टी पडना.' इंग्लीश मनशान परत विचारलें, 'हांव बडयेविशीं विचारिना, ... घरांत आसा

काय विचारतां.' ती बायल म्हणपाक लागली, 'जोतेंय खंय दिश्टी पडना.' तो मनीस परत टिळकांकडेन आयलो आनी सांगलें, 'त्या घरांत आशिल्ली बायलमनीस अशी कितें? खुंटयेर पगडी ना, बडी ना, जोतेंय खंय दिश्टी पडना, अशें कितें उलयता ती?' टिळकांनी म्हळें, 'तुमी स्वताक मराठीचे तज्ञ समजतात न्हय? पूण ती बायल उलयताली ती मराठी तुमकां समजली ना.'

खोलायेन अभ्यास करिना त्या मनशाची गत ह्या इंग्लीश मनशाभशेन जाता.

**यस्य नास्ति स्वयं प्रज्ञा शास्त्रं तस्य करोति किम्**
**लोचनाभ्यां विहीनस्य दर्पण: किं करिष्यति ॥**

जाका स्वताची बुद्द ना ताका शास्त्र कशें कळटलें? दोळे नासल्यार हारशाचो कितें उपेग?

**काचो मणिर् मणि: काचो, येषां ते न्ये हि देहिन: ।**
**सन्ति ते सुधियो येषां काच: काचो, मणिर् मणि: ॥**

जीं मनशां कंवचेक रत्न समजतात आनी रत्नाक कंवची समजतात तीं निर्बुद्ध म्हणपाक जाय. जीं मनशां कंवचेक कंवची आनी रत्नाक रत्न म्हणटात तींच बुद्दिमान.

रत्न पारखूंक रत्नपारखीच जाय.

**गुणानाम् अन्तरं प्रायस तज्ञो जानाति न इतर: :**
**मालतीमल्लिकामोदं घ्राणं वेत्ति न लोचनम् ॥**

गुणागुणांतलो फरक तज्ञाकच कळटा. जायेच्या आनी मोगऱ्याच्या फुलांचो वास नाकाक येता, दोळ्यांक न्हय.

मराठींत अशी एक म्हण आसा: **'थेंबे थेंबे तळे साचे.'** ही म्हण विद्येकय लागू जाता. म्हळ्यार, विद्या ही ल्हव-ल्हव करून आत्मसात करपाक जाय. धनाचे, म्हळ्यार पयशांचे, बाबतींत short-cuts मारूंक जायनात अशें म्हळ्यार जाता. झटपट विद्या आनी झटपट धन मेळोवन श्रीमंत जावप ह्यो दोनीय गजाली टिकाऊ न्हय.

**क्षणश: कणशश्चैव विद्याम् अर्थ च साधयेत्**
**क्षणे नष्टे कुतो विद्या, कणे नष्टे कुतो धनम् ॥**

एक एक क्षण वगडायनासतना क्रमाक्रमानच विद्या साध्य करून घेवंक जाय. तशेंच,

पय पय करून धन एकठांय करपाक जाय. वेळ फुकट घालयल्यार विद्या कशी मेळटली, आनी पयसो मेळटा तसो खर्च केल्यार धन एकठांय कशें जातलें?

अशाच अर्थाचो आनीक एक श्लोक–

**जलबिन्दुनिपातेन क्रमशः पूर्यते घटः ।**
**स हेतुः सर्व विद्यानां, धर्मस्य च धनस्य च ॥**

उदकाचो एक एक थेंबो कळशांत पडत रावल्यार कळसो उदकान भरता. विद्या, धर्म म्हळ्यार पुण्य आनी धन मेळोवप ह्यो तिनय गजाली अशोच. विद्या, पुण्य आनी धन झटपट मेळोवपाचो यत्न करूंक जायना.

नेपोलियनान म्हळां, ''तागडेच्या एका दाल्यांत आपले आवयक आनी दुसऱ्या दाल्यांत सगळें जग घाल्यार लेगीत म्हजे आवयचें दालें जड तें जडच.''

महाभारतांत मार्कंडेय ऋषी युधिष्ठिराक सांगतात–

**दुष्करं खलु कुर्वन्ति पितरो मातरः च वै**

म्हळ्यार, आवय आनी बापूय आपल्या भुरग्यांखातीर जें कितें करतात तें म्हळ्यार एक व्हड आनी कठीण अशें काम.

न्या. रानडे म्हणटात, आवयची भक्ती, आवयची शक्ती आनी आवयची कृती म्हळ्यार भारतीय संस्कृती. आमी विठोबाक विठोबा बाबा अशें म्हणनात, पूण विठाई माऊली अशें म्हणटात. ज्ञानेश्वरांक ज्ञानोबा माऊली अशें म्हणटात. जगांतल्यो व्हड-व्हड संस्कृतायो नश्ट जाल्यो, पूण खूब प्राचीन अशी भारतीय संस्कृताय आयजमेरेन ताठ उबी आसा हाचें कारण मातृप्रेमाच्या अमर अन्नाचेर ती जिती आसा. आवयपरस आनीक श्रेष्ठ अशें जगांत कांयच ना. जाका आवयचें प्रेम समजता, ताका भक्तीप्रेम समजता अशें पटोवन दितना न्यायमूर्ती रानडे एक गजाल सांगतात.

एक भुरगो बिल तयार करून आवयकडेन दिता. जीं-जीं आवयलीं कामां भुरग्यान केल्यांत तांचें मोल तो भुरगो बिलांत बरयता. पंदरा दिसांभितर बिलाचे पयशे आपल्याक येवंक जाय म्हूण तो आवयक सांगता. कांय दिसांनी भुरगो दुयेंत पडटा. आवय ताची रात दीस सेवा करता, ताका वेळार वखद दिता आनी तो पूर्ण बरो जातकच ताका बिल दिता. भुरगो बिल घेवन वाचता. प्रत्येक केल्ल्या कामामुखार मोल आसत 'शून्य'. सगळी बेरीज करून बिलाचे पयशे 'शून्य'. तें बिल वाचतकच भुरग्याचे दोळे उगडटात आनी तो आवयचे कुशींत रडटा. निष्काम प्रेमाची जाणविकाय त्या

रग्याक जाता.

**न अन्नोदकसमं दानं, न तिथिर्द्वादशीसमा**
**न गायत्र्याः परो मन्त्रो, न मातुः परदैवतम् ॥**

न्न आनी उदकासारकें दान ना. द्वादशीसारकी शुभ तिथी ना, गायत्रीमंत्रापरस श्रेष्ठ सो मंत्र ना, आनी आवयपरस श्रेष्ठ अशें दैवत ना.

आवयची व्हडविकाय सांगपी असोच आनीक एक श्लोक.

**उपाध्यायात् दश आचार्यः, आचार्याणां शतं पिता**
**सहस्त्रं तु पितृन् माता गौरवेण अतिरिच्यते ॥**

पाध्याय म्हळ्यार कुटुंबाचो पुरोहीत. उपाध्यायापरस आचार्य हो धा वांट्यांनी श्रेष्ठ, पूय आचार्यापरस शंभर वांट्यान श्रेष्ठ, जाल्यार आवय ही बापायपरस हजार वांट्यांनी ष्ठ.

कवी यशवंत बरयतात, 'स्वामी तिन्ही जगाचा, आईविना भिकारी.'

भुरगो कितलोय व्हड जालो, जाणटो जालो जाल्यार लेगीत आवयचे म्हऱ्यांत । ल्हानच. आवयक तो व्हड जालो अशें दिसचना. आवयच्या वात्सल्याचो हात ाटीर भोंवडावपाक वा आवयचे कुशींत, तिच्या पदरांत तोंड लिपोवपाक वयाची रज नासता.

**पुत्रपौत्रोपपन्नः अपि जननीं यः समाश्रितः**
**अपि वर्षशतस्य अन्ते स द्विहायनवत् चरेत ॥**

त आनी नातरां आशिल्ल्याक जर आवयचो आधार आसत तर ताचें वय शंभर र्सां आसल्यार लेगीत तो दोन वर्सांच्या भुरग्याभशेन वागता.

स्वामी विवेकानंदांक आवयविशीं खूबच प्रेम आसलें. सॅन फ्रॅन्सिस्को हांगाच्यान ीमती ओलिबूल हांकां स्वामीजींनी १७ जानेवारी १९०० ते मार्च १९०० मेरेन त्रां बरयिल्लीं. त्या पत्रांतल्यान ताणी आपले आवयविशीं जें बरयलां तें वाचपासारकें. ग्रामीजी बरयतात –

''म्हजें सगळें कार्य अर्द्यार उडोवन आवयची सेवा करपाक हांव भारतांत येतलों. ाचे निमाणचे दीस सुखान वचपाखातीर म्हाका यत्न करुंकच जाय. स्वामी शंकराचार्यांनी गीत तांगेले आवयची सेवा तिच्या निमाण्या दिसांनी केली. स्वामी शंकराचार्य हे

एक संन्याशी तसो हांवय एक संन्याशीच. म्हाकाय तशीच आवयची सेवा करूंक जाय. म्हगेलें कार्य, म्हजी महत्वाकांक्षा ह्यो सगळ्यो गजाली कुशीक दवरून म्हाका आवय म्हऱ्यांत वचूंक जाय. आवयची योग्यता इतली आसा ताच्या मुखार म्हगेलें सगळें कार्य सोडून तिच्या म्हऱ्यांत वचप हें एक कुस्कुटाभशेन. १८८४त हांव आवयक सोडून कार्य करपाक भायर सरलों, हो एक त्यागच आसलो. आतां कार्य सोडून आवय म्हऱ्यांत वचपाची म्हाका संद मेळटा हें हांव म्हजें भाग्य समजतां. म्हजे आवयन आयजमेरेन खूब दुख्ख भोगलां. आतां तिगेल्या निमाण्या दिसांनी तिची सेवा करून तिचे उरिल्ले दीस बरे वचपाक म्हाका यत्न करूंक जाय. जगन्मातेन शंकराचार्याक जें करपाक लायलें तेंच ती म्हाकाय करपाक लायता. जगन्मातेचो सल्लो मानप हें म्हजें कर्तव्य.''

एक व्हड संन्याशी जावन लेगीत आपले आवयचेर आशिल्ल्या प्रेमाक लागून, मायेक लागून स्वामीजीन आवयची सेवा केली.

**तदा स वृद्धो भवति, तदा भवति दुःखितः**
**तदा शून्यं जगत् तस्य, यदा मात्रा वियुज्यते ।।**

जेन्ना मनशाक आवयचो वियोग जाता तेन्ना तो वृद्ध जाता, दुख्खी जाता आनी सगळें जग ताका शून्य दिसता.

**कुपुत्रो जायेत, क्वचिद् अपि कुमाता न भवति ।।**

वायट भुरगो आसुंयेता, मात वायट आवय खंयच आसना.

बायलमनशेक आदरान वागोवपाक जाय म्हणपाचें अनादिकालापासून विद्वानांक दिसत आयलां. जेन्ना-जेन्ना ही गजाल दुर्लक्षित जाली, सत्शील बायलमनशेक त्रास जालो तेन्ना-तेन्ना ताचे वायट परिणाम समाजाक भोगचे पडले. रामायण, महाभारत घडपाक ही एक गजाल कारणीभूत आसली. बायलमनीस ही आवयसमान अशें सांगपी सुभाषित हें अशाच कारणाक लागून जाणकारांनी रचलां जावंक जाय.

**राजपत्नी, गुरोः पत्नी, भ्रातृपत्नी तथैव च ।**
**पत्नीमाता, स्वमाता च, पञ्च एताः मातरः स्मृताः ।।**

राजाची बायल, गुरूची बायल, व्हडल्या भावाची बायल, आपले बायलेची आवय आनी स्वताची आवय ह्यो मनशाच्यो पांच आवयो आसात.

आवयचे फाटोफाट घरकान्नीक, म्हळ्यार बायलेक तितलोच मान सुभाषितकारांनी

दिल्लो वाचूंक मेळटा. ते म्हणटात,

**माता यस्य गृहे नास्ति, भार्या च अप्रियवादिनी**
**अरण्यं तेन गन्तव्यं, यथा अरण्यं तथा गृहम् ॥**

म्हळ्यार, ज्या मनशाच्या घरांत आवय ना आनी घरांतली बायलमनीस खाष्ट आसा, अशा मनशाचें घर आनी रान (जंगल) हातूंत कांयच फरक ना.

महाभारतांत शान्तिपर्वांत भिष्माचार्य म्हणटात,

**वृक्षमूले अपि दयिता यस्य तिष्ठति तद् गृहम् ।**
**प्रासादो पि तया हीन: कान्तार: इति निश्चितम् ॥**

खंयच्याय झाडापोंदा लेगीत मोगाळ घरकान्नी वांगडा रावल्यार ताका घर म्हणूं येता. मात घरकान्नीबगर राजेशाही असो वाडो हो जंगला समान हातूंत इल्लोय दुबाव ना.

भीष्माचार्यांनी अशेंय म्हणिल्लें वाचूंक मेळटा –

**न गृहं गृहमित्याहुर्, गृहिणी गृहम् उच्यते ।**
**गृहं तु गृहिणीहीनम् अरण्यसदृशं मतम् ॥**

घराक घर म्हणनात तर घरकान्न (गृहिणी) हेंच घर. घरकान्नी बगर घर हें जंगलाभशेनच अशें मानतात.

शान्तिपर्वांत असोय श्लोक वाचूंक मेळटा –

**नास्ति भार्यासमो बन्धु: नास्ति भार्यासमा गति: ।**
**नास्ति भार्यासमो लोके सहाय: धर्मसंग्रहे ॥**

घरकान्नीसारको दुसरो सोयरो ना. घरकान्नीसारको दुसरो आधार ना. पुण्य जोडपाक पालव दिवपी जगांत दुसरो आनीक कोण ना.

रामायणांत सीता रामावांगडा रानांत वचपाचो हट्ट करता. अयोध्यापर्वांतलो हो श्लोक पोरणे विचारसरणेची जाण दिता.

**न अतन्त्री वाद्यते वीणा, न अचको विद्यते रथ: ।**
**न अपति: सुखम् एधेत, या स्याद् अपि शतात्मजा ॥**

तार नासतना वीणा वाजना, चाक नासतना रथ चलना तशेंच शंभर भुरगीं आसल्यार लेगीत घोवाबगर बायलमनशेक सुख मेळना.

आयज बायलमनीस स्वावलंबी जाल्या, स्वतंत्र जाल्या, जाकालागून हांवें हे विचारसरणेक पोरणी विचारसरणी अशें म्हळां. अशेच पोरणे विचारसरणेचें आनीक एक सुभाषित.

**स्तरियः तरित्रं, पुरुषस्य भाग्यं, देवो न जानाति, कुतो मनुष्यः**

बायलमनशेची वागणूक (चारित्र्य) आनी दादल्याचें भाग्य देवाकय कळना तेन्ना मनशाक कशें समजतलें ?

बायलमनीस ही भितरले बुद्धीची अशेंच घडये सुभाषितकाराक म्हणपाचें आसा. तरी, वागणूक कोणाचीय कशीय आसुंयेता. जावं दादलो, जावं बायल. बरी वायट वागणूक हो मनशाचो गुण. तो दादलो, बायल असो फरक कित्याक करतलो ? म्हणूनच हाचे उरफाट्या विचारांचो श्लोक रचिल्लो वाचूंक मेळटा –

**स्त्रियो हि नाम खलु एताः निसर्गाद् एव पण्डिताः ।**
**पुरुषाणां तु पाण्डित्यं शास्त्रः एव उपदिश्यते ।।**

बायलमनीस ही जल्मतांच हुशार आसता; दादल्यांक मात शास्त्राच्या आधारान शाणेपण शिकोवंचें पडटा.

शास्त्र आनी दादलो, शास्त्र आनी बायल हांचे संबंद वेगवेगळे आसात अशें दिसना. मनीस सभाव हो दादल्याक वेगळो जावं बायलेक वेगळो अशें कित्याक आसुंयेता ? अशाच अर्थाचो कालिदासाचो एक श्लोक वाचूंक मेळटा.

**स्त्रीणाम् अशिक्षितपटुत्वम् अमानुषीषु**
**संदृश्यते किमतु याः प्रतिबोधवत्यः ।।**

मनीसजातींत बायलमनशेक शिकयनासतनाच शाणपण आसता. जर तिका शिकूंक मेळ्ळें जाल्यार तिचेविशीं कितें उलोवपाचें ?

तरी लेगीत बायलमनशेक एकटी सोडप समा न्हय. भाऊबीज, रक्षाबंधन हे सारके सण हेच बुनयादीचेर सुरू जाल्यात जावंक जाय. म्हणूनच एका श्लोकांत म्हळां –

**पिता रक्षति कौमारे, भर्ता रक्षति यौवने ।**
**पुत्राश्च स्थाविरे भावे, न स्त्री स्वातन्त्र्यमर्हति ।।**

आंकवार आसतना बापूय राखण करता, लग्न जातकच घोव राखण करता आनी म्हातारपणांत पूत राखण करतात. बायलमनीस स्वतंत्र, म्हळ्यार एकटी उरूंक जायना.

एक वेळ असो आसलो, पुनर्विवाह म्हळ्यार विधवेन लग्न करप समाजाक मान्य नासलें. पूण पुनर्विवाह वा विधवेचें लग्न हाचेर मनुस्मृतींत बरयल्लो एक श्लोक अजाप करपासारको.

**नष्टे मृते प्रव्रजिते क्लीबेच पतिते पतौ ।**
**पञ्चसु आपत्सु नारीणां पतिः अन्यो विधीयते ॥**

घोवान सोडल्यार, घोव मरतकच, घोवान संन्यास घेतल्यार, घोव नपुसंक आसल्यार आनी व्यसनी आसल्यार खंयचेय बायलेन दुसरें लग्न करचें अशें धर्मशास्त्र सांगता.

पूण बायलमनशेक स्वातंत्र्य ना हाचो अर्थ ती गुलाम असो जायना. हांगा स्वातंत्र्याचो रोख बायलमनशेच्या शीलाचेर आसा हें लक्षांत घेवपाक जाय. बायलमनशेचें शील इबाडलें जाल्यार कुळाचो नाश जावंक शकता. कुळाचो नाश जाल्यार भुरगीं, देव, पितर अशा गजालींक अर्थच उरचोना.

मनू णवव्या अध्यायांत म्हणटात –

**स्त्रियाः श्रियश्य गेहेषु न विशेषो स्तु कथंचन ।**

म्हळ्यार, बायलमनीस ही घरांतली साक्षात लक्ष्मी. स्त्री आनी श्री हातूंत कांयच फरक ना.

**आत्मानमात्माना यास्तु रक्षेद्युस्ताः सुरक्षिता : ।**

जी बायलमनीस स्वताची राखण करपाक शकता ती सुरक्षीत आसता.

बृहस्पति म्हणटात –

**यत्र नार्यस्तु पूज्यंते रमंते तत्र देवताः**
**यत्रैतास्तु न पूज्यंते सर्वास्तत्राफलाः क्रियाः ॥**

ज्या जाग्यार बायलांक मान मेळटा थंय देवता संतुश्ट जातात. ज्या जाग्यार बायलांक मान मेळना, बायल अपमानित जाता, थंय सगळीं कामां निष्फळ जातात.

महाभारतांत भीष्म युधिष्ठिराक म्हणटात –

**श्रिय: एता: स्त्रियो नाम सत्कार्या: भूतिम् इच्छता ।**
**पालिता निगृहीता च श्री: स्त्री भवति भरत ॥**

हे भारता, बायलमनीस म्हणजे लक्ष्मीच. आपली भरभराट जावंची अशें इच्छिणाऱ्यान तिचो सत्कार करचो. तिचें बरे तरेन पालन केलें आनी योग्य रितीन नियंत्रण केलें जाल्यार बायलमनीस ही लक्ष्मीच आसता.

**पुरा कल्पे कुमारीणां मौजीबंधनमिष्यते ॥**

पयलींच्या काळांत बायलांची मुंज करताले. मुंज म्हळ्यार शिकप सुरू करचे पयलीं करपाचो संस्कार. पयलींच्या काळांत बायलो दोन तरेच्यो आसताल्यो. ब्रह्मवादिनी, म्हळ्यार जल्मभर शिक्षण घेवपी, आनी सद्याद्वाहा म्हळ्यार लग्न जायमेरेन शिक्षण घेवपी. महाभारतांत द्रौपदीक पंडिता म्हणिल्ल्याचें वाचूंक मेळटा.

सज्जन लोक कशे आसचे, कशे वळखुंचे हाचेर सुभाषितकारांनी जायत्यो रचना केल्यात.

**उपकारिषु य: साधु: साधुत्वे तस्य को गुण:**
**अपकारिषु य: साधु: स साधु: सद्भि: उच्च्यते**

म्हळ्यार, आपणाचेर जाणें उपकार केला ताचेकडेन बरो वागलो म्हणून तातूंत कसलेंच व्हडपण ना. मात, आपणाक वायट करता ताचेकडेन लेगीत जो बरो वागता, ताकाच व्हड मनीस वा सज्जन मनीस म्हणुंयेता.

माडाक कल्पवृक्ष म्हणटात. मनीसजातीकडेन जे बरे गुण आसपाक जाय ते गुण हें झाड दाखयता. खावपाक कातली दिता, पिवपाक उदक दिता. आनिकय कितल्याशाच गजालींचो शिंवर करता आनी ताचेबरोबर आपणाले गुण लेगीत मनीसजातीक दाखयता, हें विशेश. मनशान मात तें वळखून वागूंक जाय. कृतज्ञता आनी उपकार धरपी अशा ह्या झाडाबद्दल सुभाषितकार कितें म्हणटात तें पळेवंया.

**प्रथमवयसि पीतं तोयम् अल्पं स्मरन्त:**
**शिरसि निहितभारा: नारिकेरा: नराणाम् ।**
**ददति जलम् अनल्पास्वादम् आजीवितान्तम्**
**न हि कृतम् उपकारं सांधवो विस्मरन्ति ॥**

म्हळ्यार, व्हड जावपाक माडाक खूब उदक लागना. ल्हानपणांत, म्हळ्यार कवाथो आसतना आपणाक दिल्ल्या पोटभर उदकाची याद हें झाड दवरता. मनशांनी केल्ल्या ह्या ल्हानशा उपकाराचें वजें हें झाड बाळगिता आनी ताची परतफेड म्हण जावंये, जल्मभर हें झाड आपल्या श्रीफळांतल्यान गोड उदक दीत रावता. असो हो कृतज्ञतायेचो गुण सज्जन मनशांतय दिसून येता.

हरशीं जाल्यार झाडां आमकां सावळी दितात. पूण ती दिवपाखातीर झाड वतांत आसता हाचो विचार कोण करता? हो विचार इतलेच खातीर की सज्जन मनीस अशेच दुसऱ्याक बरें दिवपाक गुल्ल आसतात. तांकां स्वताची पर्वा नासता.

**छायाम् अन्यस्य कुर्वन्ति, तिष्ठन्ति स्वयम् आतपे ।**
**फलन्ति अपि परार्थाय, वृक्षाः सत्पुरुषाः इव ॥**

झाडां हीं सज्जन मनशांभशेन लोकांक सावळी म्हळ्यार थंडाय दितात आनी स्वता वतांत रावतात. तीं दुसऱ्यांखातीर फळां दितात. सज्जन मनीस असोच आसता. स्वता कश्ट करून तो दुसऱ्यांक सुखी करता.

कल्पवृक्षाभशेन चंदनाचें झाड, तसोच ऊस! तांचें व्हडपण सांगून सज्जन मनीस कसो आसता हें सांगपी हीं दोन सुभाषितां.

**न हि स्वदेहशैत्याय जायन्ते चन्दनद्रुमाः ।**

चंदनाचें झाड स्वताकच थंडाय जाय म्हण उत्पन्न जायना. सज्जन लोक दुसऱ्याचेर उपकार करूंक जल्म घालयतात, स्वताचें तांकां पडून वचना!

**घृष्टं घृष्टं पुनरपि पुनः चन्दनं चारुगन्धम्,**
**छिन्नं छिन्नं पुनरपि पुनः स्वादु च एव इक्षुकाण्डम् ।**
**दग्धं दग्धं पुनरपि पुनः काञ्चनं कान्तवर्णम्,**
**प्राणान्तेऽपि प्रकृतिविकृतिर् जायते न उत्तमानाम् ॥**

चंदन जशें-जशें घासता तसो ताका परमळ येत रावता. तशेंच, उशीकांड्याचे कुडके खाता तितले गोड लागतात, आनी भांगर उज्यांत घालून काडटकच तें आनीक चकचकता. तेच भशेन सज्जन मनशाचो बरो स्वभाव प्राण वता जाल्यार लेगीत बदलना, इबाडना.

'हें विश्वचि माझें घर' हो विचार ज्ञानेश्वरांनी मांडलो. सुभाषितकार होच विचार मांडटात. कसो तें पळेयात.

**अयं निज: परो वा इति गणना लघुचेतसाम् ।**
**उदारचरितानां तु वसुधा एव कुटुम्बकम् ।।**

'हो म्हजो' वा 'हो परकी' असो विचार (आपपरभाव) संकुचित मनाच्या लोकांचो आसता. पूण उदार चारित्र्याच्या, उदार मनाच्या मनशांक सगळें जग हेंच आपलें कुटुंब अशें दिसता.

**सुजनो न याति वैरं परहितनिरतो विनाशकाले पि ।**
**छेदेऽपि चन्दनतरु: सुरभयति मुखं कुठारस्य ।।**

दुसऱ्याचें बरें चिंतपी सज्जन लोक तांचेर वायट वेळ आयल्यार लेगीत कोणाकडेनच दुस्मानकाय करिनात, दुसऱ्याचें वायट चिंतिनात. कुराडेन चंदनाचें झाड कापल्यार कुराडेचे धारेक चंदनाचो वास येता.

जगांत श्रेष्ठ अशो गजाली दुर्मिळ. त्यो सगळेकडेन मेळटाच अशें ना. म्हणूनच सुभाषितकार म्हणटात –

**शैले शैले न माणिक्यं, मौक्तिकं न गजे गजे ।**
**साधवो न हि सर्वत्र, चन्दनं न वने वने ।।**

प्रत्येक दोंगरार हिरे-माणकां मेळटाच अशें ना. प्रत्येक हत्तीच्या माथ्यार (गंडस्थळार) मोती आसताच अशें ना. सगळेच कडेन सज्जन मनशां नासतात आनी चंदनाचें झाड सगळ्याच रानांनी मेळटाच अशें ना.

**रत्नै महार्हैः तुतुषुः न देवा:, न भेजिरे भीमविषेण भीतिम् ।**
**सुधां विना न प्रययु: विरामं, न निश्चितार्थाद् विरमन्ति धीरा:**

समुद्रमंथनावेळार बरीं-बरीं रत्नां मेळूनय देव संतुश्ट जालेनात आनी भयंकर अशें वीख मेळ्ळें म्हणून भियेलेनात. अमृत मेळ्ळेबगर तांणी मंथन थांबयलेंना. धीरवान लोक निश्चित हेतू साध्य जालेबगर प्रयत्न सोडिनात.

**'हाती घ्यावें तें तडीस न्यावें'** हें धीरवान आनी सज्जन लोकांचें ब्रीदवाक्य. अशेच तरेच्या अर्थाचें आनीक एक सुभाषित –

**प्रारभ्यते न खलू विघ्नभयेन नीचै:**
**प्रारभ्य विघ्नविहता: विरमन्ति मध्या: ।**
**विघ्नै पुन:पनर् अपि प्रतिमन्यमाना:**
**प्रारब्धम् उत्तमजना: न परित्यजन्ति ।।**

कामांत आडखळ येतली, संकट येतलें ह्या भंयान कांय लोक कामाक सुरवातच करिनात. थोडेजाण कामाक सुरवात करतात पूण इल्लीशी आडखळ आयल्यार तें काम बंद उडयतात. बरे लोक मात कितल्योय आडखळी आयल्यो तरी सुरू केल्लें काम पूर्ण केलेबगर रावनात.

**स्वभावं न जहाति एव साधु: आपद्गतो पि सन् ।**
**कर्पूर: पावकस्पृष्ट: सौरभं लभतेतराम् ।।**

सज्जन मनीस संकटांत सांपडिल्लो आसतना लेगीत आपलो स्वभाव सोडिना. कापराक उजो लागतकच, म्हणजे, तो जळूंक लागतकच ताचेपासून सरभोंवतणीं वास म्हळ्यार सुगंध पातळटा.

**यथा चित्तं तथा वाच:, यथा वाच: तथा क्रिया: ।**
**चित्ते, वाचि, क्रियायां च, साधूनाम् एकरूपता ।।**

सज्जन लोक जें मनांत आसता तेंच उलयतात. जें उलयतात तेंच करतात. विचार, उच्चार आनी आचार हे तांच्या स्वभावांतल्यान एकवटिल्ले दिश्टी पडटात.

स्वाभिमानी मनीस वायट वेळ आयली म्हणून भियेना. संकटांची तो पर्वा करिना. अणभवांतल्यान तो आपले दोश पयस करता. पूण ताची तुळा जर वायट मनशांवांगडा केली जाल्यार ताका खूब दुख्ख जाता. सुभाषितकारांनी ही गजाल भांगराचें उदाहरण दिवन सांगल्या.

**अग्निदाहे न मे दु:खं, छेदने ताडने पि वा**
**एतत् तु मे महद् दु:खं, गुञ्जया सह तोलनम्**

भांगर म्हणटा, म्हजी परीक्षा करतना म्हाका उज्यांत उडयतात ताचें दुख्ख जायना. मागीर हातोडेन म्हाका धोडायतात ताचेंय म्हाका वायट दिसना. पूण जेन्ना म्हाका गुंजीबरोबर जोखतात तेन्ना मात म्हाका खूब दुख्ख जाता.

**उदये सविता रक्त: रक्त: च अस्तमने तथा ।**
**संपत्तौ च विपत्तौ च महताम् एकरुपता ॥**

सूर्य उदेतना जसो तांबडो दिसता तसोच तो मावळटनाय तांबडो दिसता. व्हड मनीस वायट वेळ आयल्यार लेगीत बदलना. ताचें वागणें एकसारकें आसता.

सुभाषितकारांनी उपमा दिवन बरे विचार मांडपाचो केल्लो यत्न हो तोखणाय करपासारको. बऱ्यो उपमा म्हणून बरे विचार आनी बरे विचार समजुपाक बऱ्यो उपमा, अशी वर्तुळाकार शीम घातिल्लो बऱ्या संस्कारांचो हो खजिनो. एक कुसको आंबो बऱ्या आंब्यांक कुसयता, हो एक विचार. जाल्यार, जमनीर पडिल्लीं फुलां मातयेचो वास आपल्याक घेनात, उरफाटें आपलोच वास मातयेक दितात, हो दुसऱ्या तोंकावयलो विचार. सज्जन मनशांविशीं उलयतना सुभाषितकारांनी फुलांच्या वासाचो आधार घेतला आनी आमची संस्कृताय सदांच विधायक विचारांची शीम सांबाळटा म्हणपाचें दाखोवन दिलां.

**सत्संगाद भवति हि साधुता खलानम्**
**साधूनां न हि खलसंगमात् खलत्वम् ।**
**आमोदं कुकुमभवं मृद एव धत्ते,**
**मृद्गन्धं न हि कुसुमानि धारयान्ति ॥**

सज्जन मनशांचे संगतींत दुश्ट मनशां बरीं जातात. हाचे उरफाटें, दुश्ट मनशांचे संगतीन सज्जन मनशांक दुश्टपणा येना. जमनीर पडिल्ल्या फुलांचो वास मातयेक येता, पूण फुलां मातयेचो वास घेनात.

सज्जन लोक जगांत कमीच. ताका लागून सज्जन मनशाक सज्जन मनीस मेळप ही एक कठीण गजाल. सज्जन मनशाची संगत मेळप ही एक पुण्याय अशेंय सांगपी सुभाषित वाचूंक मेळटा.

**सतां सभ्दि: संग: कथम् अपि हि पुण्येन भवति ।**

म्हळ्यार, सज्जनाची सज्जनाकडेन संगत जावप ही गजाल व्हड पुण्यायेन घडून येता.

सज्जन मनशाच्या मनाची तुळा सुभाषितकारांनी विशाळ अशा समुद्राकडेन केल्ली वाचूंक मेळटा. मन व्हड म्हणटकच सहन करपाची शक्ती आनी क्षमाशीलपणा,

ह्यो दोनीय गजाली सज्जन मनशांच्या आंगांत भिनिल्ल्यो आसतात. वायट विकार आनी विचार तांच्या म्हऱ्यांत लेगीत येनात.

**साधो: प्रकोपितस्य अपि मन: न आयाति विक्रियाम् ।**
**न हि तापयितुं शक्यं सागराम्भ: तृणोल्कया ॥**

जशें समुद्राचें उदक तणाचे चुडयेन तापोवप शक्य नासता, तेच भशेन सज्जन मनशाक खूब राग हाडपाचो यत्न केलो तरीय ताचें मन वायट विकारांनी भश्टना.

'लोकां सांगे ब्रह्मज्ञान । आपण कोरडा पाषाण ।' चडशे लोक हे म्हणीप्रमाण वागपी आसतात. म्हणून सुभाषितकार म्हणटात –

**परोपदेशे पाण्डित्यं सर्वेषां सुकरं नृणाम् ।**
**धर्मे स्वीयम् अनुष्ठानं कस्यचित् तु महात्मन: ॥**

दुसऱ्याक उपदेश करपाचें शाणपण कोणय करूंक शकता. आपलें कर्तव्य करपी मनशाक एक व्हड मनीस, महात्मा म्हणपाक जाय.

सज्जन मनशां दिसपाक कशीं आसतात हें सांगतना सुभाषितकार तांची तोखणाय नाल्लाची उपमा दिवन करतात. नाल्ल भायल्यान खूबच घट आनी टणक आसता. मात, ताचे भितल्लें उदक खूबच गोड आनी कातली तर रुचीकच! तशेंच सामान्य मनशाची सुभाषितकार बोरांकडेन तुळा करतात. सुभाषितकार म्हणटात –

**नारिकेलसमाकारा: दृश्यन्ते पि हि सज्जना: ।**
**अन्ये बदरिकाकारा: बहिर् एव मनोहरा: ॥**

सज्जन मनशां नाल्लाभशेन भायल्यान घट्ट म्हळ्यार कडक स्वभावाचीं अशीं दिसतात. पूण तांच्या मनांत कांयच वायट नासता. सामान्य मनीस मात भायल्यान बोरांभशेन पळोवंक बरो दिसता. पूण ताचें मन कुशिल्लें आसुंयेता.

**निर्गुणेषु अपि हि सत्वेषु दयां कुर्वन्ति साधव: ।**
**न हि संहरते जोत्स्नां चन्द्र: चाण्डालवेश्मन: ॥**

सज्जन मनीस 'गुणहीन', म्हळ्यार बरे गुण आंगांत नाशिल्ल्या, प्राण्यांचेर लेगीत दया करतात. एका मनशाची जात चांडाळ म्हण चंद्र आपलें चान्नें तागेल्या घरापुरतें आडावन दवरना. सज्जन मनीस जातीभेद वा बरो-वायट असो भेदभाव करिनासतना

सगळ्यांक आनंद दिता आनी सगळ्यांचेर दया करता.

**भवन्ति नम्राः तरव फलोद्गमैः, नवाम्बुभिः दूरविलम्बिनो घनाः ।**
**अनुद्धताः सत्पुरुषाः समृद्धिभिः, स्वभावः एव एषः परोपकारिणाम् ॥**

झाडाक फळां लागतकच तीं नम्र जातात. झाडां जडसाणेन बागवतात. उदकान भरिल्लीं कुपां उदकाच्या भारान सकयल येतात. तेच भशेन सज्जन मनीस वैभव मेळ्ळें म्हणून गर्विष्ठ जायनात. परोपकारी मनशांचो तर हो स्वभावच.

जायचें झाड धांपून दवरलें म्हणून तें परमळ्ळेबगर रावना. म्हणूनच जायची वेल दारांत आसा अशें आड्डून शेजाऱ्यांक सांगपाची गरज नासता. बरे गुण आंगांत आशिल्ल्या मनशाचें अशेंच आसता.

**गुणाः अनुक्ताः अपि ते स्वयं यन्ति प्रकाताम् ।**
**छाद्यमाना अपि सौगन्ध्यम् उद्वमति एव मालती ॥**

मनशाच्या आंगांतल्या बऱ्या गुणांची जायरात करपाची गरज नासता. जायची वेल धांपून दवरल्यार लेगीत फुलांचो वास परमळटा.

पुत्रप्राप्तीचो हावेस सगळींच जोडप्पीं बाळगितात. पूण मूर्ख अशे शंभर पूत आसले म्हूण पुत्रप्राप्तीचें समाधान जायना. एकलोच, पूण कर्तबगार पूत जाल्यार ताचेसारकें समाधान ना!

पंचतंत्रांतले एके बुनयादीक अशे गजालीची म्हाका हांगा याद जाता. तातूंत एक राजा राजसभेंत बसून म्हणटा, ''म्हजे फाटल्यान हें राज्य कोण चलयतलो? म्हगेल्या तिनीय राजपुत्रांचें विद्याभ्यासांत लक्ष ना. ते फकत खावन पिवन मौज-मजा करूंक गुल्ल आसात.'' राजा म्हणटा,

**अजातमृतमूर्खेभ्यो मृताजातौ सुतौ वरम् ।**
**यतस्तौ स्वल्पदुःखाय यावज्जीवं जडो दहेत् ॥**

भुरगो जालोच ना, भुरगो जावन जगलो ना, आनी जगल्यार तो मूर्ख निपजलो, ह्या तिनां भितर जल्माक येवन जगूंक नाशिल्लो वा जल्माकच येवंक नाशिल्लो भुरगो परवडलो. कारण ताचें दुख्ख थोडें आसता. पूण भुरगो निर्बुद्ध निपजल्यार तें दुख्ख मात आयुष्यभर जळत रावता.

राजा फुडें म्हणटा,

**किं तया क्रियते धेन्वा या न सूते न दुग्धदा ।**
**को र्थ: पुत्रेण जातेन यो न विद्वान्न भक्तिमान् ॥**

जी गाय वियेना वा दूदय दिना तिचो उपेग कितें? तशेंच, जो विद्वानय ना आनी जाची कोणाचेर भक्तिय ना, विश्वास ना असो भुरगो जल्माक येवन तरी कितें अर्थ?

अशा वेळार राजदरबारांतलो एक मंत्री उबो रावन म्हणटा,

**अनन्तपारं किल शब्दशास्त्रं स्वल्पं तथायुर्बहवश्च विघ्ना: ।**
**सारं ततो ग्राह्ममपास्य फल्गु हंसैर्यथा क्षीरमिवाम्बुमध्यात् ॥**

फकत व्याकरण जरी म्हळें तरी ताच्या अभ्यासाक अंत ना. आयुष्य तर खूबच कमी आसा. तातूंत भितर खूब आडमेळीं येत रावतात हें मतींत धरूंक जाय. अशा वेळार हंस जसो दूद आनी उदकाच्या मिश्रणांतलें दूद तितलें पिता तेच प्रमाण सगळ्या शास्त्रांचें सार तितलें घेवन चोंथो भायर उडोवप हेंच बरोबर.

राजाल्या तिनीय भुरग्यांक नितीशास्त्र शिकोवपाचें काम राजदरबारांतलो पंडित विष्णुशर्मा हो सांबाळटा. मित्रभेद म्हळ्यार मित्रांमदलीं झगडीं, मित्रप्राप्ती, काकोलुकीय म्हळ्यार कावळो आनी घुबड हांच्या संबंधींच्यो काणयो, लब्धप्रणाश म्हळ्यार मेळयिल्लें व्हगडावप आनी अपरीक्षितकारक म्हळ्यार समजून घेनासतना काम करप. अशा पांच तंत्रांतल्यो लोकांकाणयो सांगून विष्णूशर्मा राजाल्या भुरग्यांक शाणे करता. ह्योच काणयो म्हळ्यार पंचतंत्र हो काणयांसंग्रह.

अगणित अशीं नखेत्रां आनी एकलो एकसुरो चंद्र हांची उपमा दिवन रचिल्लें हें आनीक एक सुभाषित.

**वरम् एको गुणी पुत्रो, न च मूर्खशतानि अपि ।**
**एकश्चन्द्रस तमो बन्ति न तु तारागणस् तथा ॥**

एक गुणी असो पूत आसप भाग्याचें, पूण शंभर मूर्ख पूत नाकात. एकटो चंद्र काळोख पयस करता, मात नखेत्रांचो व्हड चोमो तें काम करपाक शकना.

बरो मनीस दिसपाक सामान्य मनशासारकोच दिसता. संद मेळटकच ताचे गुण पळेवंक मेळटात. कोगूळ वसंत ऋतु येतकच वळखूंक येता.

**काक: कृष्ण: पिक: कृष्ण:, को भेद: पिककाकयो: ।**
**वसन्तसमये प्राप्ते काक: काक:, पिक: पिक: ॥**

कावळो आनी कोगूळ दोगांय काळींच, दोगांयमदीं फरक कसलो? वसंत ऋतु येता तेन्ना कावळो तो कावळो, कोगूळ ती कोगूळ. कोगूळ कुहू कुहू करता जाल्यार कावळो काव काव करता.

अशेच तरेचो फरक हंस आनी बगळो हांचे भितर दिश्टी पडटा.

**हंस: श्वेतो, बक: श्वेत: को भेदो बक हंसयो: ।**
**नीरक्षीरविवेके तु हंसो हंसो, बक: बक: ॥**

हंस जसो शुभ्रवर्णीय, तसोच बगळोय शुभ्रवर्णीय. तशें जाल्यार दोगांयमदलो फरक कितें? तर उदक आनी दूद जेन्ना वेगळें-वेगळें करपाचें आसता, तेन्ना हंस तो हंस, आनी बगळो तो बगळो.

सोरपाच्या विखान मनीस मरता. पूण अशेय रोग आसात जे बरे जावपाक हेंच वीख तारक थारूं येता. वायटांतली वायट गजाल आसल्यार लेगीत तातूंतल्यान बरें तें घेवंक जाय, अशें सुभाषितकार म्हणटात.

**विषाद् अपि अमृतं ग्राह्यं, अमेध्याद् अपि काञ्चनम् ।**
**नीचाद् अपि उत्तमां विद्यां, स्त्रीरत्नं दुष्कुलाद् अपि ॥**

विखांतल्यान अमृत घेवचें, बुरशे वस्तुंतल्यान भांगर घेवचें, हलक्या दर्ज्याच्या मनशांकडल्यान बरी विद्या घेवची आनी वायट कुळांतली बरी चली बायल म्हूण स्वीकारची.

तात्पर्य, जें बरें तें खंयच्यानय प्राप्त करचें.

म्हाका याद जाता, म्हजी आजी सदांच म्हणटाली: लज, अब्रू ह्यो गजाली सांसवाभशेन इल्ल्योशो आसतात. शेणल्यार मेळपाक कठीण. ती म्हणटाली, एक वायट गजाल करपाक जर लज दिसली ना जाल्यार आनीक कितल्योशोच वायट गजाली करपाक लज कित्याक दिसतली? तशेंच, सुभाषितकार म्हणटात, चारित्र्य सांबाळपाक जाय. कारण धन शेणल्यार परत मेळोवंयेता, पूण चारित्र्य शेणल्यार मात तें परत मेळना.

**वृत्तं यत्नेन संरक्षेत वित्तम् एति च याति च ।**
**अक्षीणो वित्तत: क्षीणो, वृत्ततस् तु हतो हत: ॥**

आपलें [illegible] बरें दवरूंक जाय. पयसो वता आनी येता. मनीस पयशांनी कमी आसलो

जाल्यार परत पयसो जोडून ताच्यान वयर सरूं येता. मात, वर्तनान वायट आसल्यार वयर सरप कठीण.

खंयचोय रोग जडावपाक चड वेळ लागना. मात, रोग बरो जावपाक वखद घेवन लेगीत वेळ खूब लागता. तशेंच, बऱ्या गुणाची संवय करपाक खूब कश्ट घेवंचे पडटात. मात, वायट संवयो रोखड्योच लागतात.

**कदर्थितस्य अपि हि धैर्यवृत्तेः न शक्यते धैर्यगुणः प्रमार्ष्टुम् ।**
**अधोमुखस्य अपि कृतस्य वन्हेः न अधः शिखाःयान्ति कदाचिद् एव ॥**

धैर्यवान मनशाक कितलेय कश्ट दिल्यार लेगीत धैर्य हो ताचो गुण ना करप शक्य नासता. मशाल सकयल केली म्हणून मशालीच्यो ज्वाला वयरच उफाळून येतात. त्यो सकयल वचनात.

**सकृत् अपि दृष्ट्वा पुरुषं विबुधाः जानन्ति सारतां तस्य ।**
**हस्ततुलया अपि निपुणाः पलप्रमाणं विजानन्ति ॥**

बुद्धीमान लोक मनशाक एकच फावटीं पळेवन ताका वळखतात. ताच्या सामर्थ्याची जाणविकाय तांकां जाता. कुशळ लोकांक हाताचेर तोलूनच वजन कितलें आसा तें कळटा.

**शरीरस्य गुणांना च दूरम् अत्यन्तम् अन्तरम् ।**
**शरीरं क्षणविध्वंसि, कल्पान्तस्थायिनो गुणाः ॥**

शरीर आनी गुण हांचेमदलें अंतर खूबच आसा. शरीर हें क्षणभंगुर आसता जाल्यार गुण हे कल्पान्तामेरेन तिगून उरपी अशे आसात.

मनीस मरतकच ताचें शरीर नाश पावता पूण ताचे गुण, ताची कीर्त तशीच लोकांमदीं उरता. हेंच सुभाषितकारांक ह्या सुभाषितांतल्यान सांगपाचें आसा.

**गुणं पृच्छस्व मा रूपं, शीलं पृच्छस्व मा कुलम् ।**
**सिद्धिं पृच्छस्व, मा विद्यां, भोगं पृच्छस्व, मा धनम् ॥**

गुण कशे तें विचार, रूप कशें तें विचारूं नाका. शील कशें तें विचार, कुळ विचारूं नाका. सिद्धी वा यश कितलें मेळ्ळां तें विचार, कितली विद्या तें विचारूं नाका. धन कितलें तें विचारूं नाका, कितलो उपभोग घेतला तें विचार.

**गुणान् अर्चन्ति जन्तूनां न जातिं केवलां क्वचित् ।**
**स्फाटिकं भाजनं भग्नं काकिन्या अपि न गृह्यते ॥**

लोक मनशांच्या गुणांक मान दितात, जातीक खंयच मान मेळना. स्फटिकाचें फुटिल्लें आयदन एके दमडेक लेगीत कोण घेनात.

**य: प्रीणयेत् सुचरितै: पितरं स पुत्रो,**
**यद् भर्तुर् एव हितम् इच्छति तत् कलत्रम् ।**
**तद् मित्रम् आपदि सुखे च समक्रियं यद्,**
**एतत् त्रयं जगति पुण्यकृतो लभन्ते ॥**

जो आपल्या बापायक बऱ्या करण्यांनी संतुष्ट करता तोच खरो पूत; जी आपल्या घोवाचें हित इच्छिता तीच खरी बायल; जो सुखाच्या वेळार आनी संकटाच्या वेळार सारको वागता तोच खरो मित्र. पूत, बायल आनी मित्र हे तिनीय जगांत पुण्यकर्म करतल्यांकच मेळटात.

**येन आत्मा पण्यतां नीत: स एव अन्विष्यते जनै: ।**
**हस्ती हेमसहस्त्रेण क्रीयते, न मृगाधिप: ॥**

जो स्वताक विकता ताकाच लोक सोदतात. भांगर दिवन हत्ती विकतो घेतात, पूण शींव कोण विकतो घेना.

तात्पर्य, जें कितें उपेगी आसा तेंच विकतें घेतात, ताचेंच मोल दितात. हरशीं कोणय कितलोय व्हड आसलो म्हणून ताका कोण म्हत्व दिना आनी ताच्या फाटल्यान कोण वचना.

**आरोप्यते शिला शैले यत्नेन महता यथा ।**
**निपात्यते क्षणेन अध:, तथा आत्मा गुणदोषयो: ॥**

देवूळ बांदपाखातीर व्हड फातर वयर चडोवंक त्रास घेवंचे पडटात, यत्न करचे पडटात. पूण तोच फातर सकयल उडोवंक वेळ लागना. बरे गुण आपणावपाक कश्ट घेवंचे पडटात, दुर्गुण मात रोखडेच आंगवळणी पडटात.

**'क्रियेवीण वाचाळता व्यर्थ आहे'** अशें रामदास स्वामीन म्हळां. पूण सुभाषितकार हीच गजाल सांगपाक फुलां आनी फुलांचो वास ह्या गजालींचो आधार कसो घेतात तें पळेयात.

**कुसुमं वर्णसंपन्नं गन्धहीनं न शोभते ।**
**न शोभते क्रियाहीनं मधुरं वचनं तथा ॥**

फुलाचो रंग बरो आसलो म्हूण जायना. त्या फुलाक बरो वास आसचो पडटा. ना जाल्यार त्या फुलाक सोबा येना. तेच भशेन, कृती करिनासतना गोड-गोड उलोवपांत कसलीच सोबा ना.

तुकाराम महाराज म्हणटात, **'नाही निर्मळ जीवन । काय करिले साबण ॥'.** उदकान न्हालो म्हूण जायना, तर मनान निर्मळ आसपाक जाय. **श्यामची आई** ह्या साने गुरुजींच्या पुस्तकांतली एक गजाल हांगा म्हाका याद जाता. श्यामाच्या भुरगेपणांतली ही गजाल. आवय श्यामाक न्हाणोवन घरांत हाडटा आनी ताचें आंग पुसता. श्याम आवयक म्हणटा, ''म्हज्या पांयांचे तळवे घाण जातले, तेन्ना तुजो पदर पातळाय. हांव तांचेर म्हजे पांय दवरतां.'' श्यामाली आवय आपलो पदर ताका दवरूंक दिता आनी म्हणटा, ''श्याम, तळव्यांक माती लागूंक जायना ही बरी गजाल. पूण तुज्या मनाकय अशेंच सांबाळ, मनाक घाण लागूंक दिवंनाका.''

ही गजाल जरी ल्हानपणांतली आसली तरी श्यामाचे जिणेचेर मात आवयल्या त्या उतरांचो बरो परिणाम जालो हातूंत दुबाव ना. ही गजाल श्यामाचे जिणेक दिका दिवपी थारली हातूंत दुबाव ना.

सुभाषितकार म्हणटात –

**सर्वेषाम् एव शौचानाम् अर्थशौचं परं स्मृतम् ।**
**योऽर्थे शुचि: स हि शुचि:, न मृद्वारिशुचि: शुचि: ॥**

पयशांच्या दिवपा-घेवपांत जो वेवस्थित रावता, तो शुद्ध, स्वच्छ. फकत उदकान न्हालो म्हणून निवळ जायना.

**न उदकक्लिन्नगात्रस्तु स्नात: इत्यभिधीयते ।**

शरीराचे अवयव उदकान भिजले म्हणून शुद्ध जायनात, तर शरीराच्या इंद्रियांचेर जो जैत मेळयता, तोच खरो शुद्ध.

**गुणिनि गुणज्ञो रमते न अगुणशीलस्य गुणिनि परितोष:**
**अलि: एति वनात्पद्मं, न दर्दुर: तु एकवासोऽपि**

मनशाचे गुण वळखुपी मनीस गुणी मनशाच्या म्हऱ्यांत रमता. गुणहीन मनशाक गात तें जमना. भंवर खूब पयसुल्ल्यान कमळाकडेन येता. मात, त्या तळ्यांत रावपी बेबूक कमळाच्या म्हऱ्यांत लेगीत येना.

**क्षमातुल्यं तपो नास्ति, न संतोषात् परं सुखम् ।**
**न तृष्णाया: परो व्याधि:, न च धर्मो दयापर: ।।**

क्षमा करपासारकें आनी दुसरें व्हडपण ना. धादोसकायेसारकें सुख ना. हावरटपणासारको दुसरो रोग ना, आनी दया दाखोवपासारको धर्म ना.

बरो मनीस कोणाक म्हणप ? ह्या प्रस्नाक जाप दिवप कठीण म्हणून काय कोण जाणा, सुभाषितकारांनी बरो मनीस थारावपाखातीर ताची परीक्षा कशी करप तें सांगलां.

**यथा चतुर्भि: कनकं परीक्ष्यते निघर्षणच्छेदनतापताडनै: ।**
**तथा चतुर्भि: पुरुष: परीक्ष्यते, श्रुतेन शीलेन गुणेन कर्मणा ।।**

जेप्रमाण भांगराची परीक्षा खूब घांसप, तापोवप, धोडावप आनी मोडप अशा चार प्रकारांनी करतात, तशीच मनशाची परीक्षा करपाक विद्या, शील, गुण आनी वागणूक अशो चार गजाली तपासून पळेवंक जाय.

स्वामी विवेकानंद अशे तरेचे परिक्षेंत पास जाल्ले एक व्हड संत. तांचेविशीं घडिल्ली ही खबर. अमेरिकेक वचचे पयलीं स्वामी विवेकानंद शारदामातेचो आशिर्वाद घेवपाखातीर तिचे म्हऱ्यांत गेले. ''मात्सो राव, विचार करून आशिर्वाद दितां.'' हीं शारदामातेच्या तोंडांतलीं उतरां आयकून स्वामी विवेकानंद घुस्पले. थोड्या वेळान शारदामातेन विवेकानंदांक म्हळें, ''नरेंद्र, ती थंय सुरी आसा ती म्हाका हाडून दी.'' स्वामी विवेकानंदान सुरी हाडून शारदामातेच्या हातांत दिली. ती हातांत घेवन शारदामातेन स्वामीजींक म्हळें, ''नरेंद्र, तूं खरोच लोकांचें कल्याण करतलो. तुज्या हातांतल्यान व्हड कार्य जातलें आनी तुजें नांव अजरामर जातलें.'' विवेकानंदांनी शारदामातेक विचारलें, ''आई, सुरी हाडून दितकच तुवें म्हाका आशिर्वाद दिलो. पयलीं कित्याक दिलो ना ?'' शारदामातेन म्हळें, ''बाब नरेंद्र, तूं सुरी कशी दिता तें म्हाका पळेवपाचें आसलें. तुवें पातें आपल्या हातांत धरलें आनी मूठ म्हज्या हातांत दिली. लोक स्वताच्या हातांत मूठ धरतात आनी पातें दुसऱ्याच्या हातांत दितात. ताका लागून दुसऱ्याचो घात जावं येता. तुवें म्हजी काळजी घेतली आनी पातें तुज्या हातांत

धरून मूठ म्हज्या हातांत दिली. तूं खऱ्यांनीच लोकांचें कल्याण करतलो. हांव तुका कोटी-कोटी आशिर्वाद दितां.'' शारदामातेच्या ह्या आशिर्वादान स्वामीक जागतीक कीर्त फावो जाली अशें म्हळ्यार अतिताय जावंची ना.

**व्यसने मित्रपरीक्षा, शूरपरीक्षा रणङ्गणे भवति ।**
**विनये भृत्यपरीक्षा, दानपरीक्षा च दुर्भिक्षे ॥**

मित्राची परीक्षा संकटा वेळार करूं येता, शौर्य हें युद्धभूमिचेर कळटा, नोकर ताचे नम्र वागणुकेवेल्यान वळखूंक येता, जाल्यार दुकळांत दानी मनशाचो गुण कळटा.

**'जातीच्या सुंदरीला कांहीही शोभते'** अशी एक म्हण आसा. सुंदर बायलमनशेक नटपाची गरज लागना अशेंय म्हणटात. हे म्हणीक पुश्टी दिवपी हें सुभाषित.

**स्वभावसुन्दरं वस्तु न संस्कारम् अपेक्षते ।**
**मुक्तारत्नस्यशाणाश्मघर्षणं न उपयुज्यते ॥**

सैमान दिल्ली सुंदरताय आसल्यार, ती गजाल बरी दिसपाखोतीर म्हण वेगळें अशें कांयच करपाची गरज नासता. मोती बरो दिसचो म्हणून साणीचेर घांसपाची गरज पडना. बाकीच्या रत्नांक मात घांसून चकाकी हाडची पडटा.

जशी सुंदरताय जाय, तेच भशेन मनशाचें शील बरें आसपाक जाय. शील बरें आसल्यार कुळाची जाणविकाय आसपाची गरज ना.

**किं कुलेन विशालेन, शीलम् एव अत्र कारणम् ।**
**कृमयः किं न जायन्ते कुसुमेषु सुगन्धिषु ॥**

फकत व्हड कुळांतलो अशें म्हळें म्हूण जालेंना तर शील हेंच व्हडपणाचें खरें लक्षण. वासाच्या फुलांत किडे तयार जायनात? बऱ्या कुळांत जल्म घेतलो म्हण तो कुलीन थारना, तर शील बरें आसपाक जाय.

प्रत्येक झाडांत वखदाचो अंश आसता आनी प्रत्येक मनशाकडेन बरो गुण आसता. मात गरज उरता ती हें सगळें वळखुपी मनशाची, अशा अर्थाचें हें सुभाषित.

**अमन्त्रम् अक्षरं नास्ति, नास्ति मूलम् अनौषधम् ।**
**अयोग्यः पुरुषो नास्ति, योजकः तत्र दुर्लभः ॥**

मंत्र ना अशें अक्षर ना, वखदाक उपेग पडना अशें झाडाचें मूळ ना, योग्यता नाशिल्लो

मनीस ना. हें सगळें वळखुपी मात मेळप कठीण.

अशें म्हणटात, **'साधु कोमल मनाचा, साही अपराध जनाचा.'**

**नरस्य आभरणं रूपं, रुपस्य आभरणं गुण: ।**
**गुणस्य आभरणं ज्ञानं, ज्ञानस्य आभरणं क्षमा ।।**

बरें रूप हें मनशाचें भूषण, रुपाचें भूषण म्हळ्यार बरे गुण, बऱ्या गुणांचें भूषण ज्ञान आनी ज्ञानाचें भूषण क्षमा.

मनशान उद्योगी आसपाक जाय, काम करीत रावपाक जाय. मनशान आळशी आसपाक फावना. प्रयत्न केल्यार यश येताच. यश आयलेंना जाल्यार लेगीत मनीस दोशी थारना. नशिबाचेर भरवंसो दवरून रावल्यार कामां जायनात. 'असेल माझा हरी, तरी देईल खाटल्यावरी' अशी एक म्हण आसा. म्हळ्यार, स्वस्थ न्हिदून रावलो म्हणून कोणच आयतें हाडून दिवपाक ना.

म्हगेली आजी एक काणी सांगताली–

एक गाडेकार गांड्यांत सामान उपाट भरून आपल्या गांवांत वतालो. वाटेन वतना एकेकडेन गाड्याचें रोद चिखलांत रोमलें. गाडेकार गाड्यांतलो देंवलो आनी थंयच एका फातरार वचून बसलो आनी 'देवा, गाड्याचें रोद वयर काड' अशी प्रार्थना करपाक लागलो. देवाक गाडेकाराची काकुळट आयली. देव म्हाताऱ्या मनशाचें रूप घेवन गाडेकारा म्हऱ्यांत आयलो. 'आरे तूं कितें करता ?' देवान गाडेकाराक विचारलें. गाडेकारान त्या म्हाताऱ्या मनशाच्या रुपांत आशिल्ल्या देवाक म्हळें, 'म्हज्या गाड्याचें रोद चिखलांत रोमलां. केदो वेळ जालो, देवाक उलो मारतां तें रोद मातशें वयर काडून दी म्हूण. पूण देव खंय म्हजें आयकता ?' त्या म्हाताऱ्या मनशान गाडेकाराक म्हळें, 'आरे, फकत प्रार्थना केली म्हण गाड्याचें रोद वयर येवचें ना. तूं रोदाक हात घाल आनी प्रयत्न कर. देव तें वयर काडटलो.' गाडेकारान उठून रोदाक हात घालो आनी रोद वयर काडपाचो यत्न केलो. रोद वयर आयलें आनी गाडेकार खुशाल जावन आपले वाटेक लागलो. तात्पर्य, प्रयत्न करुंकच जाय.

**योजनानां सहस्त्रं तु शनैर्गच्छेत् पिपीलिका ।**
**अगच्छन् वैनतेयोऽपि पदमेकं न गच्छति ।।**

मूय ल्हव-ल्हव आनी चिकाटेन चलपाक लागल्यार हजारांनी योजनां चलूंक शकता पूण गरुडासारको व्हड पक्षी आळसावलो आनी सुस्तावलो जाल्यार एक पावल लेगीत

फुडें वचचो ना!

नेपोलियन म्हणटालो, ''अशक्य हो शब्द म्हज्या शब्दकोशांत ना.'' मनशान उद्योगी आसपाक जाय, प्रयत्नवादी आसपाक जाय. आंगांत शक्ती आसली म्हण कामां जातातच अशें ना, तर ते शक्तीचो उपेग करूंक कळपाक जाय.

**उद्योगिनं पुरुषसिंहम् उपैति लक्ष्मी:**
**दैवं हि दैवम् इति कापुरुषा: वदन्ति ।**
**दैवं निहत्य कुरु पौरुषम् आत्मशक्त्या**
**यत्ने कृते यदि न सिध्यति कोऽत्र दोष: ॥**

शिंवाभशेन पराक्रमी आनी उद्योगी मनशाकच संपत मेळटा. 'नशीब नशीब' करीत सुशेगाद बसपी बसूनच उरतात. आरे मनशा, तूं नशिबाचेर मात करून पराक्रम कर. प्रयत्न करुनय जर तुजें काम जालेंना जाल्यार तुजो कसलो दोश?

**उद्यमेन हि सिध्यन्ति कार्याणि, न मनोरथै: ।**
**न हि सुप्तस्य सिंहस्य प्रविशन्ति मुखे मृगा: ॥**

उद्योग करूनच कामां तडीक वतात. मनोराज्यां केलीं म्हणून कामां जायनात. न्हिदिल्ल्या शिंवाच्या तोंडांत हरण आपूण जावन येवन पडना.

न्या. रानडे एका व्हड मनशाच्या प्रयत्नाविशीं बरयतात–

एक मनीस वेंचणुकेक उबो रावलो आनी पडलो. मागीर तो धंदो करपाक लागलो. थंय ताका अपेस आयलें आनी रीणय जालें. मागीर ताणें एके सुंदर चलयेचेर मोग केलो. पूण ती लग्न जावचे पयलींच मेली. उपरांत तो परत वेंचणुकेक उबो रावलो. ताणें परतीय आपटी खाली. ताचे उपरांत ताणें जमीन महसूल खात्यांत नोकरी मेळोवपाचो यत्न केलो. तातूंतय ताका येस आयलें ना. मागीर ताणें देशाच्या उपाध्यक्षाचे जागेखातीर वेंचणूक लडयली आनी पडलो. निमाणेकडेन तो अमेरिकेचो राष्ट्राध्यक्ष जालो. ह्या व्हड मनशाचें नांव अब्राहम लिंकन.

ताट वाडून मुखार दवरल्यार जेवण पोटांत आपसूक वचना. हात-पांय हालयता तेन्नाच तें पोटांत वचपाक शकता. मुखार जेवण आशिल्लें आपसूक पोटांत वचपाची आस्त बाळगप हो नशिबाचेर आदारून रावपाचो अतिरेक! जाल्यारय, कांय गजाली नशिबांतच नासतात अशें म्हजी आजी सांगताली.

मनीस जल्माक येतना देवाकडेन मागून येवचें पडटा. तिणें सांगिल्ली अशीच

एक काणी. एक मनीस सामको गरीब आसलो. एक फावट शंकर पार्वती भोंवडेर आसतना पार्वती शंकराक त्या गरीब मनशाक धन दिवपाची आनी ताका श्रीमंत करपाची मागणी करता. शंकर तिका म्हणटा, 'ताच्या नशिबांत गरिबीच आसा ताका हांव कांयच करपाक शकना.' तरी लेगीत पार्वती हट्टाक पेट्टा आनी तो गरीब मनीस जे वाटेन वता ते वाटेर भांगराच्या पोवनांनी भरिल्ली पिशवी दवरपाक शंकराक सांगता. पार्वतीच्या आग्र्याक लागून शंकर तो गरीब मनीस जे वाटेन वचपाचो आसता, ते वाटेर भांगरा पोवनांची पिशवी दवरता. पूण त्या गरीब मनशाचें नशीब अशें, ते भांगरा पिशवे म्हऱ्यांत पावचे पयलींच तो गरीब मनीस विचार करता, 'आतां मेरेन हांव दोळे उकते दवरून चलतालों, आतां दोळे धांपून चलतलों.' दोळे धांपून चलपाचें थारायल्ल्यान शंकरान दवरिल्ले पिशवेचो त्या गरीब मनशाक कांयच उपेग जायना. पार्वतीक मात ताच्या नशिबांत गरिबी बरयल्या हें मान्य करचें पडटा.

पूण हाचो अर्थ, कामाक कांयच म्हत्व ना, असो लावंक जायना. सुभाषितकार म्हणटात –

**आस्ते भगः आसीनस्य, उत्तिष्ठति च तिष्ठतः ।**
**शेते निपद्यमानस्य, चराति चरतो भगः ॥**

जो स्वस्थ बशिल्लो आसता ताचें नशीबय बसून रावता. जो उठिल्लो आसता ताचें नशीबय उठ्ठा. जो पडून रावता ताचें नशीबय पडून रावता आनी जो भोंवता ताचें नशीबय काम करता, भोंवता. ताकाच सुदैवी म्हणटात.

एक भिकारी एक फावट एका श्रीमंतागेर गेलो. श्रीमंत मनशान ताका एक गुळो दिलो आनी सांगलें, ''हो भांगराचो मंत्रिल्लो गुळो. हाका सदांच सकाळीं नमस्कार कर आनी खूब पयशे मेळय. ज्या दिसा तुजी कांयच जोड जायना, त्या दिसा हो गुळो विकून तूं पयशे घे.'' मजा अशी, भिकाऱ्यान खूब काम केलें आनी तो स्वताच खूब श्रीमंत जालो. कांय तेंपान तो मंत्रिल्लो गुळो काडून ताचेकडेन आयिल्ल्या दुसऱ्या एका भिकाऱ्याक दिलो आनी आपल्याक जें कितें सांगिल्लें तेंच ताका ताणें सांगलें. दुसऱ्या भिकाऱ्यान कांयच काम करिनासतना, तो गुळो घेवन शेटीगेर गेलो. शेटीन तो गुळो पळोवन सांगलें, ''हो गुळो भांगराचो न्हय, तो पितळीचो.''

हे गोष्टीचें मर्म लक्षांत घेतल्यार काम करप हाका जिणेंत कितें म्हत्व आसा तें कळटा.

मनशान प्रयत्नवादी आसूंक जाय. जाणटेपणांत तुकाराम महाराज दोंगरार वचून

बसताले आनी ज्ञानेश्वरी, एकनाथ, भागवत वाचताले. हें सगळें वाचता आसतना तांकां न्हीद येताली. ही न्हीद ना करपाक तांणी कितें केलें? तुकाराम महाराज म्हणटात,

**''शेंडीस बांधोनिया दोरी । आपल्या हातीं टांगी वरी ।**
**म्हणे मनेसि असडा बैसल्यावरी । निद्रा दूरी पळेल ॥''**

वाचता आसतना न्हीद येता म्हणून तुकाराम महाराजांनी आपले शेंडयेक दोरी बांदली आनी ते दोरयेचें दुसरें तोंक एका झाडाक बांदलें. वाचता आसतना डुलकी लागल्यार मानेक झटको बसतालो आनी ताका लागून तांकां न्हीद लागनासली.

संत तुकाराम म्हणटात –

**जगाच्या कल्याणा संतांच्या विभूती ।**
**देह कष्टवीती उपकारें ॥**

हें शरीर दुसऱ्याचेर उपकार करपाखातीर आसा हें जणएकल्या मनशान समजूंक जाय. ही गजाल समजायतना सुभाषितकार म्हणटात

**परोपकारय फलन्ति वृक्षा:, परोपकाराय वहन्ति नद्य: ।**
**परोपकाराय दुहन्ति गाव:, परोपकारार्थम् इदं शरीरम् ॥**

परोपकार करपा खातीर झाडां फळां धारण करतात. न्हंयो व्हांवतात त्योय परोपकरा खातीर आनी गाय दूद दिता तीय परोपकारा खातीरच.

दान करप म्हळ्यार दुसऱ्याक भरपूर दिवप अशें न्हय, तर आपापले ताकदीप्रमाण दान करूंक जाय. भांगराचें दान करपी, पयशांचें दान करपी आनी उदकाचें दान करपी अशा तिगांयच्या दानाचें पुण्य (फळ) एकच आसता अशें सांगपी एक सुभाषित.

**सहस्त्रशक्ति: च शतं, शतशक्ति: दश अपि च ।**
**दद्यात् आप: च य: शक्त्या, सर्वे तुल्यफला: स्मृता: ॥**

हजार सुवर्णमुद्रा आशिल्ल्यान तातुंतल्यो शंभर सुवर्णमुद्रा काडून दिल्यो, शंभर आशिल्ल्यान धा काडून दिल्यो आनी आपल्याक तांक आशिल्लेप्रमाण तान लागिल्ल्याक उदक दिलें तर धर्मशास्त्राप्रमाण तिगांल्याय दानाचें फळ तितलेंच.

श्रीमंत मनशान केल्ल्या थोड्याशा दानान गरज आशिल्ल्याक व्हड पालव मेळटा

आनी श्रीमंत मनशालें व्हडलेंशें कांयच कमी जायना हें समजायतना सुभाषितकार म्हणटात

**ग्रासोद्गलितसिकथेन का हानि: करिणो भवेत् ।**
**पिपीलक: तु तेन एव सुकुटुम्बो अपि जीवति ।।**

आपल्या घासांतल्यान सकयल पडिल्ल्या शिताचे इल्लेशे उंडयेन हत्तीचें कसलें व्हडलेंशें लुकसान जातलें? पूण त्या शिताचे उंडयेर मूय आनी मुयेचें कुटुंब पोट भरपाक शकता.

पुण्य आनी पाप म्हळ्यार कितें हें सांगतना तुकाराम महाराज म्हणटात

**पुण्य परउपकार पापते परपीडा । आणीक नाही जोडा दुजा यासी ।।**
**तुका म्हणे उघडे आहे हित घात । जयाचें उचित करा तैसे ।**

कुंतिपुत्र युधिष्ठिराकय असोच उपदेश केल्लो वाचूंक मेळटा.

**दरिद्रान भर कौन्तेय, मा प्रयच्छ ईश्वरे घनम् ।**
**व्याधितस्य औषधं पथ्यं, नीरुजस्य किम् औषधे: ।।**

कुंतीपुत्रा, दरिद्री लोकांचें पालन पोशण कर. श्रीमंत आसात तांकां तूं पयसो दिवंनाका. रोगी मनशाक वखदाची गरज आसता, निरोगी मनशाक वखदाचो कसलो उपेग?

**यो न दादाति न भुङ्क्ते सति विभवे, नैव तस्य तद् द्रव्यम् ।**
**तृणमयकृत्रिमपुरुषो रक्षति शस्यं यथा परस्यार्थे ।।**

वैभव आसतना जो दान करिना आनी स्वता लेगीत त्या वैभवाचो उपभोग घेना, तें वैभव, धन, दौलत ताचें नासताच. तणाचो बावलो (बुजगावणें) जशें शेत राखता तसो तो दुसऱ्याचे धन-दौलतीची राखण करता.

**यद् ददासि दीनेभ्य: यत् च अश्नासि दिने दिने ।**
**तत् ते वित्तम् अहं मन्ये, शेषं कस्य अपि रक्षसि ।।**

जें धन तूं दीन-दुर्बळांक दिता आनी ज्या धनाचो तूं स्वता उपभोग घेता तेंच धन तुजें. उरिल्लें तें कोणाचें तरी आसता, जाची तूं फकत राखण करता.

परोपकार हें एक मनीसपणाचें लक्षण. जाल्यारय स्वार्थी मनशांपरस जनावरां बरीं.

विचार करपाची शक्त जनावरांत ना हें खरें आसलें तरी दान करपाचो एक गुण तांच्यांत दिश्टी पडटा. म्हशीक खावपाक दितकच ती मनशाक आपलें दूद दिवन उपकार फेडटा अशें म्हळ्यार जाता. दान करपी लोकांक समाजांत उंचेल्या पांवड्यावेलें स्थान आसता हें सुभाषितकार कशें मांडटात तें पळेयात.

**अज्ञेभ्य: ग्रन्थिन: श्रेष्ठा:, ग्रन्थिभ्य: धारिणो वरा: ।**
**धारिभ्य: कर्मिणो ज्ञेया:, कर्मिषु अपि उपकारिण: ।।**

अडाणी मनशांपरस ग्रंथ वाचपी श्रेष्ठ, तांचेय परस ग्रंथ वाचून समजून घेवपी श्रेष्ठ. ह्या दोगांयपरस ग्रंथांतलीं तत्त्वां कृतींत हाडून वागपी श्रेष्ठ आनी ह्या सगळ्यांपरस दुसऱ्यांचेर उपकार करपी श्रेष्ठ.

दान करप हें कोणाकडेनय जायना. दान करपाक आत्मसंयम आनी निर्लोभिपण अशा दोन गुणांची गरज आसता. म्हणून व्यास ऋषी युधिष्ठिराक म्हणटात

**दानानं न दुष्करं तात, पृथिव्याम् अस्ति किंचन ।**
**अर्थे हि महती तृष्णा, स च दु:खेन लभ्यते ।।**

बाबारे, हे पृथ्वीचेर दान करपासारकी आनी दुसरी कठीण गजाल ना. मनशाक धनाची तान खूबच आसता आनी हें धन तो खूब कश्टान मेळयता.

**दानं भोगो नाश: तिस्त्रो गतयो भवन्ति वितस्य ।**
**यो न ददाति न भुङ्क्ते तस्य तृतीया गतिर् भवति ।।**

दान दिवप, स्वता उपभोग घेवप आनी नाश जावप अशो धनाच्यो तीन अवस्था सांगल्यात. जो दान करिना, स्वताय उपभोग घेना ताच्या धनाची तिसरी अवस्था जाता.

**पिवन्ति नद्या: स्वयम् एव न अम्भ:,**
**स्वयं न खादन्ति फलानि वृक्षा: ।**
**न अदन्ति सस्यं खलु वारिवाहा,**
**परोपकाराय सतां विभूतय: ।।**

न्हंयो स्वताच उदक पियेनात; झाडां स्वताच फळां खायनात. कुपां शेतांतलें पीक खायनात. सज्जन लोकांचें सगळें वैभव परोपकाराखातीरच आसता.

**मूर्खो न हि ददाति अर्थ नरो दारिद्र्यशङ्कया ।**
**प्राज्ञ: तु वितरति अर्थं नरो दारिद्र्यशङ्कया ॥**

मूर्ख मनीस दळिद्राच्या भंयान, म्हळ्यार आपूण दळिद्री जायत म्हणून, दान करिना; शाणो मनीस फुडें दळिद्र आयल्यार दान करपाक मेळचेंना म्हणून दळिद्राच्या भंयान द्रव्याचें दान करता.

तळ्यांतलें उदक सांठयल्लेकडेन उरल्यार तें इबाडपाची भिरांत आसता. तेच भशेन पयसो सांठोवन दवरल्यार तो मेळत तसो खर्च जावपाची भिरांत आसता. तळ्यांतलें उदक इबाडचें न्हय म्हणून तें मदीं मदीं सोडचें पडटा तेच भशेन थोडो थोडो पयसो दान करून खर्चूक जाय.

**उपार्जितानाम् अर्थानां त्याग: एव हि रक्षणम् ।**
**तडागोदरसंस्थानां परीवाह: इव अम्भसाम् ॥**

तळ्यांत सांठोवन दवरिल्ल्या उदकाक वाट दिवप म्हळ्यार तळें सांबाळून दवरप. तेच भशेन, मेळयिल्ल्या पयशांचो कांय भाग दान करप म्हळ्यार तो सांबाळून दवरप अशें म्हणूं येता.

'देव एक' ही कल्पना तशी नवी न्हय. देवाचीं रुपां जरी वेगवेगळीं आसलीं तरी निमाणें ईश्वर एकूच अशें सांगपी हें सुभाषित. देव एक हें पटोवपा खातीर समुद्राची उपमा दिल्या. पावसाचें उदक न्हंयंत, न्हंयचें उदक समुद्राक मेळटा, जाल्यार समुद्राचें उदक खंय वता?, असो प्रस्न एका लेखकान विचारिल्लो वाचूंक मेळटा. प्रश्नाची जाप लेखक दिना, पूण मोन्यांनी सांगता, सगळें उदक समुद्रांतच एक जाता.

**आकाशात पतितं तोयं यथा गच्छति सागरम् ।**
**सवदेवनमस्कार: केशवं प्रति गच्छति ॥**

मळबांतल्यान पडिल्लें उदक जशें समुद्राक मेळटा तशेंच खंयच्याय देवाक केल्लो नमस्कार केशवाक मेळटा.

'देव एक' ही कल्पना ह्या सुभाषितांतल्यान मेळटा. देवाचीं रुपां जरी वेगवेगळीं आसलीं तरी शेवटाक ईश्वर एक आसा हेंच सांगपाचो यत्न सुभाषितकारांनी ह्या सुभाषितांतल्यान केला. म्हजे वळखीच्या एका मनशाची देवाबद्दलची कल्पना वेगळीच. तो देवळांत वचना, तो उपास करिना, ताका संकश्टी लागना वा विनायकी लागना,

सोमार जावं शेनवार सगळे दीस ताचे नदरेन सारकेच. तागेलो देव घरांतच आसा – तागेले आवय आनी ब्रापूय – आनी ते खातीर ताका देव सोदपाक देवळांत वचपाची गरज भासना. घरांतल्यान भायर सरतकच जाणटे, अपंग अशा लोकांक मदत करप म्हळ्यार व्हड देवस्पण अशें तो म्हणटा.

इंग्लीशींत एक म्हण आसा, God helps those who help themselves. सुभाषितकार म्हणटात,

**उद्यमः, साहसं, धैर्य, बुद्धिः, शक्तिः, पराक्रमः ।**
**षड् एते यत्र वर्तन्ते तत्र देवो हि साह्यकृत् ॥**

उद्योग, धाडस, धीर, बुद्धी, शक्ती आनी पराक्रम ह्यो स गजाली ज्या मनशाकडेन आसात ताकाच देव मदत करता.

भगवद्गीतेंत श्रीकृष्ण अर्जुनाक म्हणटा–

**''ईश्वरः सर्वभूतानां ऱ्हद्देशेऽर्जुन तिष्टति''**

हे अर्जुना, ईश्वर हो सगळ्या प्राणीमात्रांच्या काळजांत रावता.

भक्तीभावान दिल्लें, अर्पण केल्लें म्हाका पावता अशेंय श्रीकृष्ण अर्जुनाक सांगता.

**पत्रं पुष्पं फलं तोयं यो मे भत्कया प्रयच्छति ।**
**तद् अहं भत्युपहृतम् अन्श्रामि प्रयत्नात्मनः ॥**

पान, फूल, फळ, उदक ह्यो गजाली जो म्हाका भक्तीन दिता, त्या पवित्र मनाच्या भक्तान म्हाका अर्पण केलां म्हूण हांव तें ग्रहण करतां.

निसर्गाची बरोबरी मनीस करूंक शकना हो विचार सुभाषितकार कसो मांडटात तो पळेयात.

**हेम्नः पुष्पाणि निर्मातुं बहवः सन्ति शिल्पिनः ।**
**तत्र सौरभनिर्माणे चतुरः चतुराननः ॥**

भांगराचीं फुलां तयार करपी कारागीर खूब आसात. मात फुलांभितर सुगंध निर्माण करपी ब्रह्मदेव चतुरच आसपाक जाय.

**नाहं वसामि वैकुण्ठे, योगिनां हृदये, रवौ ।**
**मद्भक्ताः यत्र गायन्ति, तत्र तिष्ठामि, नारद ॥**

भगवान विष्णू नारदाक सांगतात, ''हे नारदा, हांव वैकुंठलोकांत रावना, योग्यांच्या काळजांत वा सूर्यलोकांतय रावना. ज्या जाग्यार भक्त म्हजी भक्ती करीत स्तोत्रां म्हणटात थंय हांव रावतां.''

मनशान मरणाची याद दवरूंक जाय म्हणून आयचीं कामां आयजच करूंक जाय. आयचें काम फाल्यांचेर उडोवंक जायना. इतलेंच न्हय तर सांजवेळा करपाचें काम शक्य जाल्यार सकाळींफुडेंच करचें, इतलो मनशाच्या जिविताचो भरवंसो नासता.

एक फावट एका यक्षान युधिष्ठिराक प्रस्न विचारलो, ''सगळ्यांत व्हड अशें अजाप खंयचें?''

युधिष्ठिर म्हणटा,

**अहनि अहनि भूतानि गच्छन्तीह यमालयम् ।**
**शेषा: स्थावरम् इच्छन्ति, किम् आश्चर्यम् अत:परम् ।।**

दिसानदीस प्राणी मरतात, यमसदनाक वतात. तरी लेगीत जिते उरिल्ले आपणें कायम जितेच उरचे अशें इच्छितात. हाचेपरस आनीक दुसरें अजाप कसलें?

एक फावट एका मनशान एकनाथ महाराजांक विचारलें, ''महाराज, तुमगेली जीण कशी निष्पाप. तुमकां केन्नाच राग येना. तुमी सदांच शांत. आमचें अशें कित्याक जायना?'' एकनाथ महाराजान त्या मनशाक म्हळें, ''म्हजें बरें आसा. आयजसावन सात दिसांनी तूं मरतलो.'' तो मनीस घरा गेलो आनी सगळ्यांकडेन बरे भशेन वागपाक लागलो. आपल्याकडल्यान कसलेंच वायट काम जावंक ना हाची जतनाय ताणें घेतली. सातव्या दिसा नाथ त्या मनशागेर आयले. तांणी ताका विचारलें, ''सात दिसांत तुवें कितल्यो वायट गजाली केल्यो?'' त्या मनशान नाथांक म्हळें, ''महाराज, मरण तर दोळ्यांमुखार आसा. हांव सगळ्यांकडेन बरे भशेन वागतां. म्हज्या हातांतल्यान वायट कांयच जावंचेंना.'' नाथांनी म्हळें, ''कळ्ळें मू तुका, आमचें जीवन निष्पाप कित्याक तें? मरणाची याद दवरल्यार बरी जीण जियेवपाक मेळटा, आनी वायट गजालीपसून पयस रावंयेता.'' अशें म्हणून नाथांनी ताका आशीर्वाद दिलो.

सुभाषितकार म्हणटात –

मृत्यो: बिभेषि किं बाल, न स भीतं विमुञ्चति ।
अद्य वा अब्दशतान्ते वा मृत्युर्वै प्रणिनां ध्रुव: ।।

ारे मूर्ख मनशा, तूं मरणाक कित्याक भियेता? मनीस भियेलो म्हूण मरण ताका ोडून दिना. जावं आज, जावं शंभर वर्सांनी, मरण निश्चित येतलें. मरण अटळ ासा म्हणूनच ताका भियेनासतना मनशान आपलीं कामां करीत रावपाक जाय.

'The world is a stage' अशा अर्थाची एक कविता शेक्सपियरान रचल्या. शाच अर्थाचें सुभाषित सुभाषितकारांनी रचिल्ल्याचें वाचूंक मेळटा.

**क्षणं बालो भूत्वा क्षणमपि युवा कामरसिक: ।**
**क्षणं वित्तै: हीन: क्षणमपि च संपूर्णविभव: ।**
**जराजीर्णै: अङ्गै: नट इव वलीमण्डिततनु: ।**
**नर: संसारान्ते विशति यमधानीजवनिकाम् ॥**

ोडो वेळ भुरगो जावन, थोडो वेळ प्रेमाचो आनंद उपभोगपी तरणाटो जावन, थोडो ळ गरीब तर थोडो वेळ खूब श्रीमंत जावन म्हातारपण येवन शरिराचे अवयव र्जर जातकच आनी कातीचेर सुरकुत्यो पडटकच जसो एक नट नाटकाच्या ड्ड्याफाटल्यान वता, तसो मनीस आयुश्य सोंपतकच पड्ड्याआड वता.

भगवद्गीतेंत भगवान श्रीकृष्ण अर्जुनाक सांगता–

**जातस्य हि ध्रुवो मृत्यु: ध्रुवं जन्म मृतस्य च ।**
**तस्माद् अपरिहार्ये अर्थे न त्वं शोचितुम् अर्हसि ॥**

ो जल्म घेता ताचें मरण निश्चित आसा, आनी जो मरता ताचो परत जल्म िश्चित जातलो म्हणून तुज्या हातांत ना. अशा गजालीचें दुख्ख करप योग्य न्हय.

गेल्ली जीण परत मेळना हें समजायतना सुभाषितकार म्हणटात–

**जीवितं गलति क्षिप्र जल्म् अञ्जलिना यथा ।**
**प्रवाह: इव वाहिन्या: गतं न विनिवर्तते ॥**

ातांतल्या पोशान घेतिल्ल्या उदकाप्रमाण मनशाची जीण गळून पडटा. न्हंयचो प्रवास ासो परत येना तशेंच गेल्ली जीण परत मेळना.

स्वताचो जीव, जावं मनशाक जावं जनावराक, खूबच प्रिय आसता. हांगा म्हजे ाजयेन सांगिल्ले काणयेची याद जाता.

जाणटो जाल्लो एक बापूय आपल्या पुताक सांगता, ''म्हजो फुडलो जल्म दुकराचो. ांव ह्याच वाड्यार दुकर म्हणून जल्माक येतलों. असल्या हळशिकावण्या जनावराचो

जल्म म्हाका नाका. तेन्ना हांव सांगतां तें लक्ष दिवन आयक. तूं तुगेलें आर्म तयार दवर. हांव दुकराच्या जल्माक आयले उपरांत म्हाका फार मार आनी मारून उडय.'' पुतान बापायक विचारलें, ''पूण तुका वळखप कशें?'' बापायन फोडणिशी केली, ''हांव दुकर म्हणून जल्माक येतलों त्या दुकराच्या कपलार धवो दाग आसतलो.''

कांय तेंपान बापूय मरता. पूत बापायन सांगलां ते प्रमाण आपलें आर्म घेवन दुकराचो जल्म घेतिल्ल्या बापायक मारपाक वाड्यार वता. खरेंच ताका तकलेर धवो दाग आशिल्लो दुकर दिश्टी पडटा. त्या दुकराचे दिकेन पूत आपलें आर्म जोखता. ते बराबर तो दुकर उलोवपाक लागता, ''पुता, हांवें तुका सांगिल्लें खरें, पूण तूं म्हाका मारूं नाका. हो दुकराचो जल्म म्हाका तितलोच प्रिय, जितलो तुजो जीव तुका प्रिय.'' पूत आपलें आर्म घेवन घरा परतता. तात्पर्य, जण एकल्याक आपलो जीव प्रिय आसता.

आवय, बापूय, भाव, भयण, मित्र, बरें मागपी हे रस्त्यार मेळिल्ले भशेन मेळटात. कारण हो सहवास क्षणिकच आसता. संवसार म्हळ्यार काळचक्र जें फिरत आसता. सुभाषितकार म्हणटात,

**कालो हि परमेश्वर: ।**

काळ होच परमेश्वर.

**काल: पचति भूतानि, काल: संहरते प्रजा: ।**
**काल: सुप्तेषु जागर्ति, कालो हि दुरतिक्रम: ।।**

काळ हो प्राणिमात्रांक परिपक्व करता, जाण्टो करता, मरणाक योग्य करता. काळ लोकांचो संहार करता. मनशां न्हिदिल्लेकडेन आसतना लेगीत काळ मात जागोच आसता. म्हणून तो न्हिदेंतय मनशांक ओडून व्हरता.

**न काल: दण्डम् उद्यम्य शिर: कृन्तति कस्यचित ।**
**कालस्य बलम् एतावत् विपरीतार्थदर्शनम् ।।**

काळ हो दांडो उबारून कोणाची तकली फोडटा अशें न्हय. काळाचो प्रभाव असो की तो येवजिनाशिल्ल्योच गजाली खऱ्यो करून दाखयता.

काळ येतकच वायट गजाली लेगीत बऱ्यो दिसपाक लागतात. म्हणटात न्हय,

**विनाशकाले विपरीत बुद्धी ।**

जिवीत हें क्षणभंगुर आसता. म्हणून ज़िविताक आळवावेल्या उदकाची उपमा दिल्या. आळवावेल्या उदकाभशेन मरण केन्ना येतलें हाचो नेम नासता. श्री शंकराचार्य म्हणटात,

**नलिनीदलगतजलम् अतितरलम् तद्वत् जीवितम् अतिशयचपलम् ।**

कमळाचे पाकळेचेर आशिल्लें उदक हें चंचल आसता तशेंच जिविताचें. तेंवूय बी चंचल म्हळ्यार अस्थिर. ताचो शेवट केन्ना जातलो हाचो नेम नासता.

शरीराक पांजऱ्याची उपमा दिवन मरण ही एक सभावीक घडणूक अशें सांगपी हें सुभाषित –

**उद्गाटितनव द्वारे पञ्जरे विहगो ऽ निल: ।**
**यद् तिष्ठति तद् आश्चर्य, प्रयाणे विस्मय: कुत: ॥**

मनशाचें शरीर हो एक णव दारांचो पांजरो जातूंत प्राणाक पाखो कसो दवरला अशें म्हणूं येता. दोन नाकापुडयो, दोन दोळे, दोन कान, एक तोंड, मूत्रद्वार आनी गुद्द्वार अशे तरेचीं णवय दारां उकतीं आसतना हो प्राणपक्षी शरिरांत रावता हें एक अजापच. तो उडून गेल्यार (मनीस मेल्यार) अजाप कसलें ?

महाभारतांतलें – कुरुक्षेत्रावेलें युद्ध सोंपतकच व्यास मुनी युधिष्ठिराक सांगतात –

**सर्वे क्षयान्ता: निचया:, पतनान्ता: समुच्छ्रया: ।**
**संयोगा: विप्रयोगान्ता:, मरणान्तं च जीवितम् ॥**

सगळ्यो एकठांय केल्ल्यो गजाली कमी जायत आसतात आनी भरभराटीक आयिल्ल्यो गजाली पोंदा पडटात आनी जिविताच्या शेवटाक मरण आसता.

रामायणांत अशेच तरेचो उपदेश श्रीराम भरताक करतात.

**यथा अगारं दृढस्थूणं जीर्णं भूत्वा उपसीदति ।**
**तथा अवसीदन्ति नरा: जरामृत्युवंशगता: ॥**

घट्ट खांब्याचेर उबारिल्लें घर लेगीत पोन्नें जावन पडटा. तेच प्रमाण मनशां म्हातारीं जावन मागीर मरणाचे वेंगेंत वचून नाश पावतात.

**नन्दन्ति उदिते आदित्ये, नन्दन्ति अस्तमितेऽहनि ।**
**आत्मनो न अवबुध्यन्ते मनुष्या: जीवितक्षयम् ॥**

सूर्योदय जातकच मनशांक आनंद जाता तसो सुर्यास्त जातकच लेगीत आनंद जाता. पूण आपलें आयुष्य दिसानदीस कमी जायत वता हें मात तांकां समजना.

**काल कर्षति भूतानि सर्वाणि विविधानि उत ।**
**न कालस्य प्रियः कश्चित्, न द्वेष्यः, कुरुसत्तम ॥**

काळ सगळ्या प्राणीमात्रांक मरणाकडेन ओडून व्हरता. हे कुरुश्रेष्ठा, काळाक कोण प्रिय, कोण अप्रिय अशें कांयच लागना.

'अति थंय माती' अशी एक म्हण आसा. जावं बरी, जावं वायट, खंयचेय गजालीचो अतिरेक जावंक जायना. महात्मा गांधींचो खून जालो तेन्ना सुप्रसिद्ध नाटककार बर्नार्ड शॉ हांच्या तोंडांतल्यान उद्‌गार आयले, 'अती चांगुलपणाचो शेवट अशेच तरेचे शोकांतिकेंत जाता.'

दानशूरपण हें बरेंच. पूण तरीय लेगीत दानाच्या अतिरेकानच बलीराजाक पाताळांत वचचें पडलें. अती गर्विष्ठ सभावाक लागून दुर्योधनान आपलो आनी कौरवांचो नाश केलो. अती स्त्री-लंपटपणाक लागून रावणानय आपलो असोच घात केलो. अशेंय म्हणटात, अती परिचय लेगीत अपमान जावंक कारणीभूत थारूंयेता. सुभाषितकार म्हणटात,

**अतिरुपेण वै सीती, अतिगर्वेण रावणः ।**
**अतिदानाद् बलिः नष्टः – अति सर्वत्र वर्जयेत् ॥**

अती रुपवती आशिल्ल्यान सीतेचो, अती गर्वाक लागून रावणाचो आनी अती दानाक लागून बलीचो नाश जालो. देखून खंयचेय गजालीचो अतिरेक करूंक जायना.

**अनारम्भो हि कार्याणां प्रथमं बुद्धिलक्षणम् ।**
**प्रारब्धस्य अन्तगमनं द्वितीयं बुद्धिलक्षणम् ॥**

झेपनाशिल्ल्या कामाक सुरवातच करप न्हय हें बुद्दीचें पयलें लक्षण, जाल्यार सुरू केल्लें काम पुराय करप हें बुद्दीचें दुसरें लक्षण.

**आपदसु न त्यजेद् धैर्यम् संपत्सुचन नम्रताम् ॥**

संकटां आयलीं म्हणून मनशान धीर सोडपाक जायना आनी उत्कर्श जाता तेन्ना नम्रता सोडूंक जायना.

**अकरणाम् मन्दकरणं श्रेय: ॥**

खंयचीय बरी गजाल अजिबात करिनासतना रावचे परस ती ल्हव-ल्हव आनी सवकासायेन करप हें कितलेंशेंच बरें.

**अकृत्वा परसंतापम् अगत्वा खलमन्दिरम् ।**
**अनुत्सृज्य सतां वर्त्म, यत् स्वल्पम् अपि तद् बहुम् ॥**

दुसऱ्याक वायट दिससारकें करचें न्हय. दुश्ट लोकांच्या घरा कसलीय मागणी करपाक वचचें न्हय, सज्जनपण सोडचें न्हय. हें सगळें करता आसतना जें कितें थोडें साध्य जाता तें खूब अशें मानपाक हरकत ना.

सुभाषितकार म्हणटात, गोड (स्वादिश्ट) खाण चार चौगां वांगडा खावचें. चार चौगां वांगडा खावपांत एक आनंद आसता, जाका लागून मन बरें उरता आनी बऱ्या मनान खाल्ल्यान पचन बरें जाता असोय विचार आसुंयेता. कसलोय निर्णय चार चौगांच्या सल्ल्यान घेवचो अशेंय सुभाषितकार म्हणटात. एकट्यान प्रवास करप तितलें समा न्हय अशें तांचें म्हणणें. प्रवास करतना आनी रातचें भोंवतना एकटो आसप समा न्हय. चोर आनी जनावरां केन्ना हल्लो करीत हाचो नेम नासता. आज जनावरांचो भंय ना, पूण चोरांचोय ना अशें म्हणूं नजो.

**एक: स्वादु न भुञ्जीत, एकश्च अर्थान् न चिन्तयेत् ।**
**एको न गच्छेत् अध्वानं, न एक: सुप्तेषु जागृयात ॥**

एकट्यान गोड खावचें न्हय. कसल्याय विशयाचो विचार एकट्यान बसून करचो न्हय. एकट्यान प्रवासाक वचचें न्हय. तशेंच, सगळींजणां न्हिदिल्लीं आसतना एकट्यान जागें रावचें न्हय.

सुभाषितकार समाजाबरोबर मानसशास्त्राचोय विचार करतात. म्हणूनच सगळींजणां न्हिदिल्लीं आसतना एकल्यानच जागो रावल्यार तें मानसिक नदरेन वायटाक पडूं येता अशेंच तांकां म्हणपाचें आसा. एकलोच जागो आसल्यार बऱ्या विचारां वांगडा वायट विचारय मनांत येवंयेतात. वायट विचार बऱ्या विचारां परस चड जाल्यार वायट घडणूक घडूं येता.

मनीस कितलोय ज्ञानी आसूं, म्हत्वाचो निर्णय चार-चौगांच्या मत्तानच घेवपाक जाय, अशें सुभाषितकारांचें म्हणणें. ते म्हणटात –

**सर्वज्ञस्य अपि एकाकिन: निर्णयाभ्युपगमो दोषाय ।**

मनीस सर्वज्ञ आसल्यार लेगीत ताणें एकट्यान निर्णय घेतल्यार तो दोशी थारूं येता.

**अग्निहोत्र गृहं क्षेत्रं मित्रं भार्या सुतं शिशुम् ।**
**रिक्तपाणिर्न पश्येत् च राजानं देवतां गुरुम् ॥**

यज्ञ, घर, तीर्थक्षेत्र, मित्र, घरकान्न (बायल), ल्हान भुरगें, राजा, देवता आनी गुरू हांकां मेळपाक वतना रिकाम्या हातान वचचें न्हय.

मेळपाक वतना कसलीय तरी भेटवस्त व्हरची, अशेंच हें सुभाषित सुचयता. सुदामा आनी कृष्ण हे भुरगेपणासावन इश्ट. कृष्णाक मेळपाक वतना सुदामा ताका फोव व्हरता आनी कृष्ण ते रुचीन खाता. घडये अशा गजालींतल्यान मोग वाडटा जावंक जाय. म्हजो मित्र म्हाका कितें तरी घेवन आयला हे घडणुकेंतलो आनंद वेगळोच. ताची तुळा करूं नजो. अशे तरेच्या अणभवांतल्यानच सुभाषितकारांक हें सुभाषित सुचलां जावंक जाय.

**न स्थातव्यं न गन्तव्यं क्षणम् अपि अधमै: सह ।**
**पय: अपि शौण्डिकीहस्ते वारुणी इति अभिधीयते ॥**

सकयल्या पांवड्यावेल्या लोकांवांगडा रावंनये आनी थोडो वेळ लेगीत तांचे वांगडा वचूं नये. सोरो विकपी बायलेच्या हातांत दुदाचें आयदन आसल्यार लेगीत तें सोऱ्याचें आयदन अशें लोकांक दिसता.

आपूण बरो आसलो म्हणून जायना. समाजाचोय विचार करूंक जाय. सोऱ्याच्या दुकानांत गेल्लो मनीस सोरो पियेवंक ना हें समाज मानपाक तयार नासता. चोरावांगडा भोंवपी मनीस समाजाचे नदरेन चोरच थारता. समाज मनशाक वळखता तो ताच्या सवंगड्यांवेल्यान. जशे ताचे सवंगडी, तसो तो. सुभाषितकारांनी अशीय रचना केल्या –

**बुद्धि: च हीयते पुंसां नीचै: सह समागमात् ।**
**मध्यमै: मध्यतां याति, श्रेष्ठतां याति च उत्तमै: ॥**

सकयल्या पांवड्यावेल्या मनशांचे संगतींत राविल्ल्यान मनीस निर्बुद्ध जाता. म्हळ्यार, ताचीय बुद्द्द तशीच सकयल्या पांवड्यावेली उरता. साधारण मनशांचे संगतींत

रावतिल्ल्यान मनशाची बुद्द सर्वसामान्य अशी जाता आनी हुशार मनशांचे संगतींत रावतिल्ल्यान ताची बुद्दय उंचेल्या पांवड्यावेली, श्रेष्ठ अशी जाता.

**दिनान्ते च पिबेत् दुग्धं, निशान्ते च पिबेत पयः ।**
**भोजनान्ते पिबेत् तक्रम्, किं वैद्यस्य प्रयोजनम् ॥**

सांजवेळां, म्हळ्यार न्हिदचे पयलीं दूद पियेवचें, म्हणटकच शांत न्हीद लागता आनी दुदाचें पचन जाता. फांतोडेर उदक पियेवचें म्हणटकच पोट निवळ जाता. जेवणाच्या शेवटाक ताक पियेवचें, म्हणटकच अन्नाचें पचन जाता. ह्यो तीनय गजाली करतकच मनशाक कसलोच रोग जावंचोना आनी मागीर दोतोरांक कांयच काम उरचेंना.

हांगा दोतोरांक कांयच काम उरचेंना ही अतिशयोक्ती अशें म्हणुंयेता. जाल्यारय, सुभाषितकारांनी सांगिल्ल्यो तिनीय गजाली सामक्योच फट अशें म्हणपय बरोबर जावंचेंना. ह्यो तिनीय गजाली प्रकृतीक बऱ्यो पडपासारक्यो आसात हातूंत इल्लोय दुबाव ना.

**दृष्टिपूतं न्यसेन् पादं, वस्त्रपूतं पिबेत जलम् ।**
**सत्यपूतां वदेद वाचम्, मनःपूतं समाचरेत् ॥**

दोळ्यांक पवित्र म्हळ्यार स्वच्छ दिसता त्या जाग्यार पावल दवरून चलचें. गाळून निवळ केल्लें उदक पियेवचें. सत्याची चाळण लावन उलोवचें आनी मनान पवित्र थारायलां ते प्रमाण वागचें.

ह्या सुभाषितांत चडसो भर डोळसपणाचेर दिला अशें म्हाका दिसता. खंयचीय गजाल विचारपूर्वक करूंक जाय. दोळे आसून कुड्डेपणान वागूंक जायना. म्हगेली आजी म्हणटाली, 'एकल्यान गाय मारली म्हणून दुसऱ्यान पाडूक मारचें न्हय.' तात्पर्य, बऱ्या वायटाचो विचार करूनच पावल फुडें घालपाक जाय.

**लालयेत् पञ्च वर्षाणि, दशवर्षाणि ताडयेत् ।**
**प्राप्ते तु षोडशे वर्षे पुत्रे मित्रवद् आचरेत् ॥**

भुरग्याचें वय पांच वर्सां जायमेरेन ताची अपुरबाय करची. ताचे उपरांत धा वर्सां मेरेन तो चुकता तेन्ना ताका मारुंयेता. पूण सोळावें वर्स लागतकच ताका इश्टाभशेन वागोवंक जाय.

ह्या सुभाषितांत भुरग्याचो विचार बरेच खोलायेन केला. 'सोळावें वरीस धोक्याचें'

अशी म्हणय आसा. इंग्लिशींत हाका adolescence stage अशें म्हणटात. ह्या वयाचेर भुरग्याकडेन वागतना आवय बापायन खूबच जतनाय घेवंक जाय. भुरग्याचें मन सांबाळून ताचेकडेन वागूंक जाय, ताका समजून घेवंक जाय. इश्टाभशेन ताचेकडेन वागल्यार हें काम सोंपें जावंयेता अशें सुभाषितकारांक दिसता.

**सर्वनाशे समुत्पन्ने हि अर्धं त्यजति पण्डित: ।**
**अर्धेन कुरुते कार्यं, सर्वनाशो हि दु:सह: ॥**

सर्वनाश जावपाचो प्रसंग आयल्यार शाणो मनीस अर्दें सोडून दिता आनी उरिल्ल्या अर्ध्यार आपलें काम भागयता. सर्वनाश सहन करप खूबच कठीण. सदांच तडजोड करपाची वृत्ती दवरूंक जाय.

सुभाषितकारांचो रोख मनशाच्या हट्टीपणाचेर आसा. 'खाईन तर तुपाशीं नाहीतर उपाशी' अशी हट्टी वृत्ती बरी न्हय, अशेंच हें सुभाषित सुचयता. तडजोड करपाची वृत्ती आपणायल्यार ताचो परिणाम बरो जावंयेता. पांडवांकडेन शत्रुत्व करूं नाका अशें धृतराष्ट्रान दुर्योधनाक सांगलें. पूण तों मेरेन खूबच कळाव जाल्लो. दुर्योधनालो हट्टी सभाव सगळ्यांक नडलो. हें सगळें जाणा जावन संजय धृतराष्ट्राक म्हणटा –

**गतोदके सेतुबन्धो यादृक् तादृग् मतिस्तव ।**
**संदीप्ते भवने यद्वत् कूपस्य खननं तथा ॥**

उदक सगळें व्हांवन वतकच बांद घालप अशे तरेचे तुजे विचार म्हळ्यार, घराक उजो लागतकच बांय खणपाक वचप तशांतले आसात.

अशाच अर्थाचें आनीक एक सुभाषित.

**चिन्तनीया हि विपदाम् आदौ एव प्रतिक्रिया ।**
**न कूपखननं युक्तं प्रदीप्ते वहनिना गृहे ॥**

आपत्ती येवंचे पयलींच उपाय करून दवरूंक जाय. घराक उजो लागतकच बांय खणूंक वचप हें बरोबर न्हय.

जाणट्या मनशांलें आयकप हो एक शिस्तीचो प्रकार. जाणट्या मनशांक आपले परस चड समजता हाची जाणविकाय दवरप ही एक शिस्त. रामान दशरथाची आनी कैकयीची आज्ञा अशेच शिस्तींतल्यान आनी कर्तव्याच्या हेतून पाळ्ळी. आयज ह्या मुद्द्याचेर वाद घालपी खूब जाण आसतले. विचार करिनासतना जाणट्या मनशांची

आज्ञा पाळप काय ना? हाची जाप दिवप बरेंच कठीण. पूण एक मुद्दो खरो – खंयचेय गजालीचो अतिरेक जावंक फावना.

**आज्ञा गुरुणां हि अविचारणीया ।**

जाणटीं मनशां सांगतात ते विशीं तें योग्य काय अयोग्य असो विचार करुंनये. ती आज्ञा दोळे धांकून पाळची.

एक गजाल अणभवांतल्यान पळेवंक मेळटा ती अशी. जायते फावटी घरांतल्या जाणट्या आवय-बापायली आज्ञा विचार करिनासतना पाळ्ळी जाल्यार तातुंतल्यान बरें कितेंय तरी जाता. खूब फावट तात्पुरतें लुकसाण जातलें अशें दिसता, पूण मुखावेले जिणेंत ताचो फायदो जाता. हो एक अणभव जाणट्या मनशांचेर आशिल्ले श्रद्धेचो परिणाम, अशेंय म्हणूं येता.

**इदम् एव हि पाण्डित्यम्, इयम् एव विदग्धता ।**
**अयम् एव परो धर्मः यद् आयात् न अधिको व्ययः ॥**

प्राप्ती आसा ताचेपरस चड खर्च करप ना हें शाणपण, हीच विद्वत्ता आनी होच श्रेष्ठ धर्म.

'हातरूण पळेवन पांय पातळावंक जाय' अशी एक म्हण आसा. दिसपट्टे जिणेंत मतींत दवरपासारकी ही म्हण आनी हे म्हणीची फोडणिशी करपी सुभाषित. तात्पर्य, आपणाक अशक्य अशीं कामां शाण्या मनशान करचीं न्हय. ज्ञान घेवपाक जाय, पूण आपले तकलेक तें पचना जाल्यार आपणाक सोंपें तेंच काम मनशान करूंक जाय. रेशमी कपडे नात म्हणून कपडेच घालिनासतना रावल्यार कशें जातलें? आपल्या वांट्याक जें कितें येता तेंच बरें मानून घेवंक जाय अशेंय सुभाषितकारांक म्हणपाचें आसा.

**एको देवः केशवो वा शिवो वा । एका नारी सुन्दरी वा दरी वी ।**
**एकं मित्रं भूपतिर्वा यतिर्वा एको वासः पत्तने वा वने वा ॥**

केशव म्हळ्यार विष्णू वा शिव. खंयच्याय एका देवाक भजल्यार पुरो. बायल सुंदर आसूं वा कुरूप. तिचेवांगडा संवसार करचो. आपलो इश्ट राजा आसूं ना जाल्यार संन्याशी, इश्ट तो इश्टच. शारांत रावं ना जाल्यार रानांत/खेड्यांत, खंय तरी फाट तेंकोवंक मेळटकच जालें.

तात्पर्य, जें कितें आपल्या वांट्याक येता तेंच बरें मानून घेवंक जाय. पयलींच्या काळांत कुटुंबां व्हड आसतालीं. दनपारां आनी रातीकडेन जेवणाच्यो पंगती आसताल्यो. घरांतली जाणटी बायल वाडपी आनी जेवपी मनशांचेर लक्ष दवरताली. जेवतल्या भुरग्यांक ती शिटकावणी दिताली, 'दुसऱ्यांच्या ताटांत पळेनाकात, तुमच्या ताटाचेर लक्ष दवरात.' ही शिटकावणी त्या भुरग्यांक एक वळण लायताली. बरे जिणेक जाय आशिल्लो बरो गुण तांच्या आंगांत रिगतालो.

**कार्यार्थी भजते लोकं यावत्कार्यं न सिध्यति ।**
**उत्तीर्णे च परे पारे नौकाया: किं प्रयोजनम् ॥**

जोंमेरेन आपलें काम साधना, तोंमेरेन लोकांकडेन संबंध दवरचो. न्हंयचे दुसरे देगेर पावतकच व्हड्याचो उपेग कितें ?

**गते शोको न कर्तव्यो भविष्यं नैव चिन्तयेत् ।**
**वर्तमानेन कालेन वर्तयन्ति विचक्षणा: ॥**

जावन गेल्ल्या गजालींचें दुख्ख करचें न्हय. भविष्यकाळाचोय विचार करचो न्हय. भविष्याचीं सपनां रंगयत बसचें न्हय. शाणीं मनशां वर्तमानकाळाक धरून जाय तशीं वागतात.

रामायणांतलो एक प्रसंग. मंथरा कैकयेक सांगता, ''रामाक राज्याभिषेक जातकच मागीर वर मागून उपेग जावंचो ना.'' आयजमेरेन वर मागून घेतलो ना हाची खंत मंथरा बाळगिना. फुडें केन्ना तरी वर मागूंक मेळटलो हाचीय ती आस्त धरिना. वर्तमान काळाचेर भर दिवन आतांच वर मागून घेवपाचो म्हणून कैकयेक पटोवपाचो यत्न करतना मंथरा म्हणटा

**गतोदके सेतुबन्ध: न कल्याणि, विधीयते ।**

हे कल्याणी, उदक व्हांवन वतकच मागीर बांद घालून उपेग जायना.

सोरो पियेवप बरें न्हय ही समजिकाय बरेच पयलीं सावन लोकांक आसली. पूण तेन्ना लेगीत सोऱ्याच्या दुकानांक राज्यकर्त्यांचो आशिर्वाद आसतालो जावंये. आयज तर तो आसताच. ना जाल्यार राज्य चलप कठीण जावंयेता ! सुभाषितकार म्हणटात

**चित्त भ्रान्तिर् जायते मद्यपानाद्**
**भ्रान्ते चित्ते पापचर्याम उपैति ।**
**पापं कृत्वा दुर्गतिं यान्ति मूढा**
**स्तस्मान् मद्यं नैव पेयं न पेयम् ॥**

सोरो पियेल्ल्यान मनांत भ्रम उरता, मनीस भ्रमिश्ट जाता. मन जाग्यार नाशिल्ल्यान मनीस वायट वागता, नाका आशिल्लीं पापां करता. ताचो फुडलोय जल्म खूबच सकयल्या पांवड्यावेलो आनी दुख्खान भरिल्लो असो जाता. म्हणून सोरो पियेवंनये, केन्नाच पियेवंनये.

आयज बायल आनी दादलो एकठांय वावुरतात. चडशा मळांनी ती दादल्याचे बरोबरीन आपलो वांटो उबारता. खंयचेय गजालीचो अतिरेक जावंक जायना. तेच भशेन, बायलमनीस स्वतंत्र जाल्या म्हणून तिणें लक्ष्मणरेषा हुपूंक जायना अशी शिटकावणी दिवपी एक सुभाषित –

**तप्ताङ् गारसमा नारी घृतकुम्भसम: पुमान ।**
**तस्माद् वह्निं घृतं चैव नैकत्र स्थापयेद बुध: ॥**

बायलमनीस ही धगधगत्या कोळशाभशेन आसता आनी दादलोमनीस हो तुपाचे गिंडयेभशेन आसता. शाण्या मनशान अग्नी आनी तूप एकेकडेन दवरूंक जायना. बायलमनशे लागीं उरतकच दादल्याक भान उरना आनी तो तिच्या मोगांत पडटा, म्हणून तांकां एकठांय येवंक दिवंक जायना.

अर्थात, हें सुभाषित घोव-बायलेक लागना. पूण लग्न जाल्ल्या दादल्याक वा बायलेक ही शिटकावणी अशें म्हणुंयेता. आयच्या सुधारिल्ल्या जगांत हें सुभाषित काळाभायरें जालां अशें म्हणिनासतना, तें बायलमनशेक एक बरी शिटकावणी दिता, अशेंच म्हणुंयेता.

**नष्टं द्रव्यं लभ्यते कष्टसाध्यम्**
**नष्टा विद्या लभ्यतेऽभ्यासयुक्ता ।**
**नष्टारोग्यं सूपचारै: सुसाध्यम्**
**नष्टा वेला या गता स गतैव ॥**

पयसो ना जाल्यार तो कश्ट करून परत मेळोवं येता. शिकप (विद्या) विसरलो

जाल्यार अभ्यास करून ती परत मेळोवं येता. अनारोग्य जालें जाल्यारय बरे-बरे उपाय करून तें निवारूं येता. पूण वेळ गेलो तो गेलोच. तो परत येवप शक्य ना. देखून वेळाचो बरो उपेग करून घेवंक जाय.

**धनिक: पण्डितो राजा नदी वैद्य: तु पञ्चम: ।**
**पञ्च यत्र न विद्यन्ते न तत्र दिवसं वसेत ॥**

धनवान मनीस, विद्वान मनीस, राजा, न्हंय आनी दोतोर, हे पांच जाण ज्या गांवांत नात, थंय एक दीस लेगीत रावचें न्हय.

न्या. राम केशव रानडे हांणी 'सत्य' नांवाच्या पक्ष्याची गजाल सांगल्या. एका मनशान 'सत्य' नांवाच्या पक्ष्याक आपल्या किल्ल्यांत बंदखणींत दवरलो. देवदूत त्या पक्ष्याक सोदीत त्या किल्ल्यांत पावलो. त्या देवदुताक पळेवन सगळे कावळे आड्डूंक लागले. दरएकलो कावळो म्हणटालो, 'हांवच तो सत्य पक्षी'. थोड्या वेळान थंय आशिल्ले गीद आड्डूंक लागले. दरएकलो गीद म्हणटालो, 'हांवच तो सत्य पक्षी'. कोणशाक एक सुंदर पक्षी आसलो. तो आसलो सत्य पक्षी. देवदूतान ताका विचारलें, 'तूं ओगी कित्याक?' सत्य पक्ष्यान म्हळें, सत्य आड्डना. असत्याक आड्डुचें पडटा. प्रामाणिकपणान सोदल्यार सत्य मेळ्ळेबगर रावना.'

सुभाषितकार म्हणटात,

**सत्यम् एव जयति, न अनृतम् ।**

सत्याचोच जय जाता. असत्याचो जायना.

महाभारतांत युधिष्ठिर भीमाक सांगता –

**मम प्रतिज्ञांच निबोध सत्यां वृणे सत्यम् अमृतात् जीवितात् च ।**
**राज्यं च पुत्राश्च यशो धनं च सर्वं न सत्यस्य कलाम् उपैति ॥**

म्हजी ही सत्य प्रतिज्ञा समजून घे. अमृत आनी जीण हांचेपरस सत्य आपणावप हांव मानतां. राज्य, पूत, यश, धन हें सगळें सत्याचो सोळावो वांटो लेगीत जायना.

अशें जरी आसलें तरी कितलें आनी खंयमेरेन खरें उलोवचें हें जाणा जावप खूबच गरजेचें. ना जाल्यार खऱ्याचो अतिरेक जावन तेंच वायटाक पडूं येता. सत्याच्या अतिरेकाक विकृती आनी सत्याचो सुवर्णमध्य ही संस्कृती असो विचार न्या. राम केशव रानडे हांच्या लिखाणांतल्यान वाचूंक मेळटा. खऱ्याचो अतिरेक जाणून घेवपाक तांणी एक गजाल सांगल्या.

एक कसाई गायेच्या फाटल्यान धांवता. गाय बरीच फुडें आनी कसाई फाटल्यान उरता. धांवतां धांवतां कसाई चार रस्त्यांकडेन पावता. थंय एक मनीस उबो आसता. ताका कसाई गाय खंयच्या रस्त्यान गेल्या असो प्रस्न विचारता. तो मनीस गाय गेल्ली ताचे उरफाटे दिकेन बोट दाखयता आनी गायेचे प्राण वांचयता. तात्पर्य, गायेचे प्राण वांचोवंक तो मनीस जरी फट उलयलो अशें दिसलें तरी तें फट जायना. अशा प्रसंगा वेळार खरें उलयल्यार ती एक विकृती अशेंच म्हणचें पडटलें.

**अनृतं जिवितस्य अर्थे वदन् न स्पृश्यते अनृतैः ।**

प्राण वांचोवपाखातीर जो फट उलयता ताका फट म्हणिनात.

अनुशासन पर्वांत म्हादेव पार्वतीक सांगता—

**आत्महेतोः परार्थे वा नर्महास्याश्रयात् तथा ।**
**ये मृषा न वदन्ति इह ते नराः स्वर्गगामिनः ॥**

स्वार्थाखातीर, दुसऱ्याच्या बऱ्याखातीर वा फकांणांचेर घालून लेगीत जे लोक फट उलयतात ते सर्गांत वतात.

सुभाषितकारांनी पांच प्रसंग सांगल्यात. अशा प्रसंगां वेळार फट उलयल्यार पातक लागना वा ताका फट म्हणिनात अशें सांगपी हें सुभाषित—

**न नर्मगुक्तं वचनं हिनस्ति, न स्त्रीषु राजन् न विवाहकाले ।**
**प्राणात्यये, सर्वधनापहारे, पञ्च अनृतानि आहुः अपातकानि ॥**

फकाणांनी उलयतना, बायलां संबंदान उलयतना, लग्नप्रसंगावेळार, प्राण वांचोवपाखातीर, धन चोरून व्हरतना जो फट उलयता ताका पातक लागना.

अशाच अर्थाचें आनीक एक सुभाषित—

**अनृतेन भवेत् सत्यं, सत्येन एव अनृतं भवेत् ।**
**यद् भूतहितम् अत्यन्तं तत् सत्यम् इति धारणां ॥**

केन्नाकेन्नाय फट उलयल्यार सत्याचें आचरण केल्ले भशेन जाता आनी केन्नाकेन्नाय खरें उलयल्यार फट उलयलाशें जाता. पूण अशें करून जर प्राणीमात्रांचें बरें जाता जायत जाल्यार ताकाच सत्य म्हणपाक जाय. हो एक जिविताचो नेम.

महात्मा गांधींनी प्रतिज्ञा केली, 'हांव दूद पियेवचोंना.' कांय तेंपान महात्मा गांधी

दुयेंत पडले. दोतोरान तांकां दूद पियेवंक फर्मायलें. महात्मा गांधीन म्हळें, 'प्राण गेल्यार जाता, हांव दूद पियेवंचोना.' महात्मा गांधींची बायल कस्तुरबा बुदवंत आसली. तिणें तांकां विचारलें, 'तुमी प्रतिज्ञा केल्ली तेन्ना तुमी कसलें दूद पियेताले?' गांधींनी म्हळें, 'गायेचें वा म्हशीचें.' कस्तुरबान तोड काडली. 'म्हळ्यार तुमी जी प्रतिज्ञा केल्ली ती गायेचें वा म्हशीचें दूद पियेवंचेना म्हणून.' महात्माजीन म्हळें, 'बरोबर'. कस्तुरबान महात्मा गांधींक बोकडेचें दूद पियेवपाक दिलें आनी हो प्रस्न सुटावो केलो. हाकाच सत्याचो सुवर्णमध्य अशें म्हणटात.

भगवान श्रीकृष्ण म्हणटात —

नोक्तपूर्वं मया मिथ्या स्वैरेष्वापि कदाचन ।

आयजमेरने फकाणांनी लेगीत हांव केन्नाच फट उलयलों ना.

महाभारताचो नायक म्हळ्यार श्रीकृष्ण. कितलेशेच कडेन फटी उलोवपी हो नायक आपल्याच तोंडान सांगता हांव फकाणांनी लेगीत फट उलयलों ना म्हण! म्हणजे हांगाय तो फटच उलयता? ह्या प्रस्नाची जाप कळटली जाल्यार फट म्हळ्यार कितें हें जाणून घेवपापरस खरें उलोवप म्हळ्यार कितें हें जाणून घेवपाची चड गरज आसा. सत्य म्हळ्यार कितें हें सांगता स्वता श्रीकृष्ण म्हणटा —

**यद्भूतहितमत्यंतं एतत्सत्यं मतं मम ।**

जातूंत प्राणीमात्रांचें हीत आसा, बरें आसा, तेंच सत्य.

समजा एका मनशाक दरोडेखोरान धरलो आनी हातांत सुरी घेवन पयशांची मागणी केली. अशा वेळार कितें करप? श्रीकृष्ण म्हणटा —

**श्रेयस्तत्रानृतं वक्तुं सत्यादिति विचारितम् ॥**

अशा वेळार खरें उलोवपापरस फट उलोवपच योग्य अशें विचारान्ती थारायलां.

सत्य आनी असत्य हांचेकडेन पळोवपाचे दोन दृष्टिकोन आसात, सूक्ष्म धार्मिक दृष्टिकोन आनी लौकिक दृष्टिकोन. पांडवांक पालव दितना कृष्णान सूक्ष्म धार्मिक दृष्टिकोन बाळगिलो. हाका लागून कितल्याशाच संकटांतल्यान पांडवांची सुटका जाली. महाभारतांत अर्जुन आनी युधिष्ठिर हांचो एकवट कृष्णाच्या सूक्ष्म धार्मिक दृष्टिकोनाक लागून कशे तरेन इबाडूंक पावना ही एक समजून घेवपासारकी घडणूक.

कर्णान युधिष्ठिराक युद्धांत हारयतकच युधिष्ठिर बरोच पिकार जाता. सांजवेळां

शिबिरांत परततकच युधिष्ठिर तो राग अर्जुनाकडेन उक्तायता. युधिष्ठिर अर्जुनाक म्हणटा, 'कितें उपेग तुज्या गांडीव धनुष्याचो, दिवन उडय तें कोणाकय.' आपल्या गांडीव धनुष्याची जो कोण निर्भत्सना करतलो ताका हांव जितो मारतलों अशी अर्जुनान प्रतिज्ञा केल्ली आसता. युधिष्ठिरान केल्ले निर्भत्सनेक लागून अर्जुन आपल्या व्हडल्या भावाक मारूंक तलवार काडटा. पूण कृष्ण थंय आशिल्ल्यान तो दोगांकय आडायता. कृष्ण अर्जुनाक म्हणटा, 'एक म्हळ्यार अशी प्रतिज्ञा करप हें मूर्खपणाचें. आयक, गुरुची निर्भत्सना केल्यार ताका जितो मारिल्ले भशेन जाता. तेन्ना तूं युधिष्ठिराची निर्भत्सना कर.' अर्जुन आपणाल्या व्हडल्या भावाक जुगारी म्हणटा आनी ताची निर्भत्सना करता. अशे तरेन आपणाली एक प्रतिज्ञा तो पुराय करता.

अर्जुनाली आनीक एक प्रतिज्ञा आसता. 'जो कोण म्हज्या भावांक जितो मारतलो ताका हांव जितो मारतलों', अर्जुन म्हणटा. युधिष्ठिराची निर्भत्सना करून हांवें ताका जितो मारलो म्हणून आतां हांव स्वताक जितो मारतां' अशें म्हणून अर्जुन आपणाली गोमटी कापपाक तलवार काडटा. पूण श्रीकृष्ण, जो धर्माच्यो सगळ्यो बारीकसाणो जियेला, तो आपणाली तकली चलयता. तो अर्जुनाक म्हणटा, 'सज्जन मनशान स्वताची तुस्त करप म्हळ्यार स्वताकच जितो मारिल्ले भशेन जाता.' श्रीकृष्ण अर्जुनाक ताचीच तुस्त करपाक सुचयता. अर्जुन तशें करता. आनी अशे तरेन कृष्ण धर्माचे सूक्ष्म नदरेन दोगांय भावांमदलो एकवट, माया साबूत दवरूंक यश मेळयता.

खंयचीय गजाल अशीच आसता. बारीकसाणेन अभ्यास करून निर्णय घेतल्यारच दिसपट्टे जिणेंत त्रास जायना. एकान दुसऱ्याक जितो मारप म्हळ्यार खून करप. पूण आत्मसंरक्षणा खातीर कोणाकय जितो मारप हाका खून म्हणूं नज. अशे तरेच्या विचाराक खोलायेन केल्लो विचार अशें म्हणूं येता. सत्याचो बारकावो सांगपी आनीक एक सुभाषित —

**ये तू सभ्या: सदा ज्ञात्वा तूष्णीं ध्यायन्त: आसते ।**
**यथाप्राप्तं न ब्रुवते, ते सर्वे अनृतवादिन ॥**

भर सभेंत जे लोक सत्य खबर आसून लेगीत ओग्गी रावतात आनी योग्य तें उलयनात, ते सगळेजाण फट उलोवपीच.

संवसारांतल्यो सगळ्यो गजाली सत्याक लागून चलल्यात आनी म्हणून सत्यान वागतल्यांचें कल्याण जातलेंच असो सुभाषितकारांचो विश्वास परगटावपी अशें हें सुभाषित —

**सत्येन धार्यते पृथ्वी, सत्येन तपते रवि: ।**
**सत्येन वायवो वान्ति, सर्वं सत्ये प्रतिष्ठितम् ॥**

सत्याक लागून संवसार तिगून आसा, सत्य हेंच संवसाराचो आधार. सत्याक लागून सूर्य उजवाड दिता आनी सुर्याचो उजवाड म्हणजेच सत्य. सत्याक लागून हवा आसा आनी आमकांय श्वास घेवपाक मेळटा. म्हणूनच संवसारांतल्यो सगळ्यो गजाली सत्याच्या आधारान चलल्यात.

अशें म्हणटात, 'जसो आपूण, तशे लोक.' एक फावट कृष्णान युधिष्ठिराक राज्यांतल्यान दुष्ट मनीस सोदून हाडपाक सांगलें. युधिष्ठिर राज्याच्या कोनशा-कोनशांनी भोंवलो आनी हात हालयत परतो आयलो. बाबड्याक दुष्ट मनीसच मेळ्ळो ना. मागीर कृष्णान दुर्योधनाक आपोवन हाडून सज्जन मनीस सोदून हाडपाक फर्मायलें. दुर्योधन सगळ्याक भोंवन हात हालयत परत आयलो. तात्पर्य, जसो आपूण, तशे लोक. सुभाषितकार रचना करतात—

**श्रूयतां धर्मसर्वस्वं श्रुत्वा चैव अवधार्यताम् ।**
**आत्मन: प्रतिकूलानि परेषां न समाचरेत् ॥**

धर्म कितें सांगता तें आयकात. 'आपल्याक ज्यो गजाली वायट आनी दुख्ख दिवपी आसतात त्यो आपणें दुसऱ्यांकय करूं नये. लोकांनी जें आपल्याक करूं नये अशें दिसता तें आपणेय दुसऱ्या कोणाकच करचें न्हय.'

सुभाषितकारांनी खूब मजेशीर गजाली सांगल्यात. तुकाराम महाराजांनी ओव्यो रचल्यो आनी त्यो ते जियेले.

**'ठेविले अनंते तैसेचि रहावे। चित्ती असो द्यावे समाधान॥**

तुकाराम महाराजांनी सांगिल्ली हीच गजाल सुभाषितकार कशी सांगतात तें पळयात—

**अविश्रान्तं वहेद् भारं, शीतोष्णं च न विन्दति ।**
**ससन्तोष: तथा नित्यं, त्रयं शिक्षेत गर्दभात् ॥**

विसव घेनासतना काम करप, थंडी वा वत हांचो त्रास मानप ना आनी जें मेळटा तांतूंत समाधान मानप ह्यो गजाली मनशान गाढवा कडल्यान शिकच्यो.

अशीच एक मजेशीर गजाल. एका मनशाली म्हस माघ म्हयन्यांत वियेली. तागेल्या पुरोहितान ताका सांगलें, 'माघ म्हयन्यांत म्हस वियेवप हो एक अपशकून.

तेन्ना ह्या अपशकुनांतल्यान सुटका जावपाखातीर यज्ञ करून तूं शंभर म्हशी दान कर.' त्या मनशान यज्ञाची तयारी केली. यज्ञ सुरू जालो. यज्ञ चालू आसतना थंय एक पंडित ब्राह्मण आयलो. ताका पळोवन पुरोहित आपलें बिंग फुटत म्हणून भियेलो. यजमानाक संस्कृत येना हें जाणा जावन ताणें संस्कृत सुभाषिताच्या आधारान ब्राह्मणाक शिटकायलो. कारण म्हस माघ म्हयन्यांत वियेली म्हणून कसलोच अपशकून जायना अशें सांगून पंडित ब्राह्मण आपली दक्षिणा बुडयत, ह्या भंयान पुरोहित म्हणटा —

**अस्य मूर्खस्य यागस्य दक्षिणा महिषीशतम् ।**
**त्वया अर्धं, मया अर्धं च; विघ्नं मा कुरू, पण्डित ॥**

ह्या मुर्खाच्या यज्ञाची दक्षिणा शंभर म्हशी, अर्द्यो तूं घे, हांव अर्द्यो घेतां. आरे पंडिता, ह्या कार्यांत तूं विघ्न हाडूं नाका.

मंत्र म्हणपा जाग्यार सुभाषित म्हणून पुरोहितान आपल्या यजमानाक फटयलो आनी यजमानाच्या कुस्तार आपलें आनी त्या पंडित ब्राह्मणाचें बोल्स भरलें. मनशाच्या विचित्र सभावाची वळख दिवपी आनीक एक सुभाषित. एक फावट एका मनशागेर एक पावणो खूब पयसुल्ल्यान बैलगाडयेन आयलो. घरांतले बायलमनशेक दिसलें, घोवाच्या नात्यांतलो वा वळखीचो आसतलो. घोवाक दिसलें, बायले वटेंतलो कोणतरी आयला. जेवण-खाण वेवस्थीत जालें. वता आसतना घोवान पावण्याक ल्हवूच ताची वळख विचारली. पावणो म्हणटा —

**अस्माकं बदरीचक्रं, युष्माकं बदरीतरूः ।**
**बादरायणसंबन्धात् – यूयं यूयं, वयं वयम् ॥**

आमचे बैलगाडयेचें रोद बोरये-झाडाच्या लाकडाचें केलां. तुमच्या दारांत बोरांचें झाड आसा. तर असो हो बादरायण संबंध. खरें पळेल्यार तुमचो-आमचो कसलोच संबंध ना. तुमी ते तुमी, आमी ते आमी.

ज्योतिषशास्त्रांत नव-ग्रहांची पीडा सांगल्या. पूण सुभाषितकार मात धा ग्रहांची पीडा सुभाषितांतल्यान मांडटात. हो धावो ग्रह सदां वक्री आनी खूब दुष्ट अशें तांचें म्हणणें.

**सदा वक्रः, सदा क्रूरः, सदा पूजाम् अपेक्षते ।**
**कन्याराशिस्थितो नित्यं, जामाता दशमो ग्रहः ॥**

सदांच हो ग्रह वक्री आसता, सदांच दुष्टपणा करता आनी छळटा. आपलें मान-पान सारकें जावंक जा़य अशी सदासर्वकाळ ताची अपेक्षा. सदांच कन्या राशीक आसपी हो जांवय-ग्रह. हाका सुभाषितकार धावो ग्रह थारायतात.

बऱ्यो गजाली उपमा दिवन सांगपाची लकब सुभाषितकारांत पळोवंक मेळटा तशेंच बऱ्यो-वायट गजाली एक वेगळेच तरेचे लकबीन सांगून त्यो पटोवपाचो सुभाषितकारांचो यत्न तोखणाय करपासारको. देखीक, 'गरिबी परस मरण बरें' हें सांगपाक गरीब मनशाक सुभाषितकार सरळ मसंडेंत व्हरून सोडटात.

**उत्तिष्ठ क्षणम् एकम् उद्वह गुरूं दारिद्र्यभारं सखे**
**श्रान्तः तावद् अहं चिरं मरणजं सेवे त्वदीयं सुखम् ।**
**इति उत्तको धनवर्जितेन सहसा गत्वा श्मशाने शवो**
**दारिद्र्यात् मरणं वरं वरम् इति ज्ञात्वा एव तूष्णी स्थितः ॥**

एक निर्धन म्हळ्यार गरीब मनीस मसंडेंत वचून प्रेताक म्हणटा, 'मित्रा, म्हाका पुरो जालां. ऊठ आनी थोडो वेळ म्हज्या दारिद्र्याचें वजें तूं सांबाळ. ते मेरेन तुज्या मरणाचें सुख हांव उपभोगतां.' दारिद्र्यापरस मरण बरें म्हूण तें प्रेत ओग्गी पडून रावलें.

मनीस हो आशेखोर प्राणी. ही आशा ताका जल्मभर सोडिना. म्हजें म्हजें करीत तो जीण जियेत, मात ताका मरतना बरोबर कांयच व्हरूंक मेळना. हो मनशाचो सभाव सुभाषितकार एके वेगळेच तरेन कसो मांडटात तें पळोवया—

**अशनं मे, वसनं मे, जाया मे, बन्धुवर्गो मे ।**
**इति 'मे मे' कुर्वाणं कालवृको हन्ति पुरुषाजम् ॥**

अन्न म्हजें, वस्त्र म्हजें, बायल म्हजी, नातेवाईक म्हजो, अशें सतत म्हजें म्हजें करपी मनशाच्या रुपान आशिल्ल्या बोकडाक काळाच्या रुपान आशिल्लो लांडगो मारून उडयता.

ह्या सुभाषितांत मनशाक बोकड म्हळा जाल्यार दुसरेकडेन ताका बैल केला. पयलींच्या काळांतले राजा-महाराजा लहरी आसताले. केन्ना कोणाचेर तांची कृपा जाताली आनी केन्ना अवकृपा जाताली हें सांगप कठीण आसतालें. आज हें काम जनता करता. केन्ना फुडाऱ्याक तकलेर घेवन नाचतात आनी केन्ना ताका सकयल

आपटितात हें कळपाक तशें सोंपें न्ही. सुभाषितकार म्हणटात—

**अहं हि संमतो राज्ञ: य: एवं मन्यते कुधी: ।**
**बलीवर्द: स: विज्ञेय: विषाणपरिवर्जित ॥**

ज्या मूर्ख मनशाक दिसता की राजाची मर्जी म्हजेरच चड आसा, अशा मनशाची स्थिती शिंगां नाशिल्ल्या बैला भशेन आसता.

आशा मनशाक कशीच सोडना. म्हणच आसा, 'मनीस आशेर जगता'. मनीस तान लागतकीर उदक पियेता, जाका लागून थोडो वेळ तरी तो तान पयस दवरता. भुकेचेंय तशेंच. अन्न मेळ्यार भूक बरोच वेळ पयस उरता. आशा मात मनशाक सोडिना. देखून सुभाषितकार म्हणटात—

**क्षुध्–तृट्–आशा: कुटुम्बिन्य: मयि जीवति न अन्यगा: ।**
**तासाम् आशा महासाध्वी कदाचित् मां न मुञ्चति ॥**

भूक-तान आनी आशा ह्यो म्हज्यो तीन बायलो. हांव जितो आसमेरेन ह्यो म्हाका सोडून दुसरेकडेन वचनात. तिनांमदीं आशा ही महासाध्वी. ती तर म्हाका केन्नाच सोडिना.

शुद्ध उच्चार खूब गरजेचे. शब्दांचो उच्चार शुद्ध जालोना जाल्यार अर्थाचो अनर्थ जावंयेता. अशें जावंचें न्ही म्हणून सुभाषितकार व्याकरण शिकपाचो सल्लो दितात. अर्थाचो अनर्थ कसो जाता हें सांगपाक सुभाषितकारांनी एका सुभाषितांत तीन शब्द दिल्यात जे सारके उच्चारलेना जाल्यार भलतोच अर्थ जाता. 'स्वजन' म्हळ्यार 'आपलीं मनशां'. पूण हो शब्द 'श्वजन' असो उच्चारल्यार 'कुत्र्यांचो कळप' असो जाता. 'सकल' म्हळ्यार सगळे. होच शब्द 'शकल' असो उच्चारल्यार ताचो अर्थ 'कुडको' असो जाता. तशेंच, 'सकृत' म्हळ्यार एकदां. होच शब्द 'शकृत' असो उच्चारल्यार ताचो अर्थ शेण असो जाता. सुभाषितकार म्हणटात—

**यदि अपि बहु न अधीषे तथापि पठ पुत्र व्याकरणम्।**
**स्वजन: श्वजनो मा भूत् सकलं शकलं, सकृत, शकृत्**

आरे पुता, जरी तूं खूब शिकलो ना जाल्यार लेगीत व्याकरण तरी शीक. 'स्वजन'चो उच्चार 'श्वजन', 'सकल'चो उच्चार 'शकल' आनी 'सकृत'चो 'शकृत' असो करनाका.

व्याकरण शिकल्यार शुद्ध उलोवंक बरोवंक येता इतलेंच सुभाषितकारांक म्हणपाचें आसा. व्याकरणान जशें शुद्ध उलोवंक आनी बरोवंक कळटा तशें कशें वागचें हें कळपाक सुभाषितांचो व्हड आधार जावंयेता. म्हाका दिसता, मनशाक ताच्याय परस व्हड आधार म्हणटात तो कृष्णाच्या तत्त्वज्ञानाचो. तशें पळोवंक गेल्यार आमी दोन पूर्णावतार मानतात. पयलो श्रीरामाचो आनी दुसरो श्रीकृष्णाचो. दोन अवतार दोन तोंकावेले. रामाचो जन्म चैत्र म्हयन्यांतलो, गिमांतलो, जाल्यार कृष्णाचो जन्म श्रावणांत, भर पावसाळ्यांत. रामाचो जन्म शुद्ध पक्षांत जाल्यार कृष्णाचो जन्म वद्य पक्षांत. रामाचो जन्म दनपरां बारा वरांचेर जाल्यार कृष्णाचो मध्यानेर बारा वरांचेर. पांच हजारां परस चड वर्सां पयलीं जावन गेल्ल्या कृष्ण ह्या महापुरसाक 'अनंत नामें, अनंत रुपें आनी अनंत गुण'. यशोदा ताका चाळपाक बशिल्ले कडेन दुडुदुडू धांवत येवन रवि घट्ट धरपी ह्या बाळकाची तोखणाय करतना पंडित म्हणटात —

**गुंजावर्ण डोळे शिरीं, बाबरझोटी**
**मयूरपिच्छ वेष्टी शोभतसे**

बाल-गोपाळांचे वांगडा खेळपी, नाचपी ह्या भुरग्याची तोखणाय पंडित अशेय तरेन करतात —

**असे कर्णिका अंबुजामाजिं जेवी**
**मुलोमध्यभागीं बरे कृष्ण तेवीं**
**मुखीं ग्रास सप्रेम घालूनि हातीं**
**दही-भात दे, देव लीला पहाती.**

कृष्णाचे बाबतींत आठ आंकड्याक खूबच म्हत्व आसा. कृष्ण हो देवकीलो आठवो चलो. कृणाचो जन्म अष्टमीक जालो. ताणें आठ लग्नां केलीं. ताच्या आठ बायलांचीं नांवां अशीं: रुक्मिणी, सत्यभामा, भद्रा, लक्ष्मणा, सत्या, मित्रविंदा, जांबवती आनी कालिंदी. कृष्णाचो 'चिंतामणी' हो आठ आंगांचो. जीण सुखी आनी समाधानी जातली जाल्यार कृष्ण-चिंतामणीचीं आठ आंगां जाणून घेवपाची गरज जणएकल्या मनशाक आसा.

कृष्ण-चिंतामणीचो पयलो विचार सांगता,

सैमाचो एक नेम आसा – 'एके फावटी एकच गजाल.' हो नेम मनाकूय लागू जाता. मनांत एका वेळार एकच विचार आसूंक जाय.

चिंता सुरू जाली म्हणटकच विचारांची गर्दी जाता आनी मन कासावीस जाता, न्हीद लागना, तोंडाची रूच वता, जेवणा-खाणाची इत्सा मरता. हाचेर उपाय म्हळ्यार, **आपलें मन बऱ्या कामांत रमोवप. हाका लागून चिंतेक मनांत येवपाची वाट आडावता, मन प्रसन्न उरता, मनाचे उष्णतेन चिंतेच्या झेलाचें उदक जाता.**

— चिंतेचेर सवायांतलें सवाय वखद म्हळ्यार आपलें मन बऱ्या कामांत घुस्पावन् दवरप.

कृष्ण-चिंतामणीचो दुसरो विचार —

खंयचेय गजालीची चिंता सुरू जातकीर चडांत चड कितें आनी कितलें वायट जावंयेता हाचो अदमास घेवचो आनी चडांत चड वायट गजाल आपणावपाची मनाची तयारी करची. तेच बरोबर ती वायटांतली वायट गजाल जावची न्हय म्हूण यत्न करचे.

कृष्ण अर्जुनाक म्हणटा, 'चडांत चड वायट कितें जातलें? तूं हारतलो वा मरतलो.'

— 'वायटांतली वायट गजाल आपणावपाखातीर मन तयार केलें जाल्यार हीच वायटांतली वायट गजाल जावची न्हय हे खातीर यत्न करपाक नेट येता. **चिंता पैसावता आनी मन हलकें उरता.**

कृष्ण चिंतामणीचो तिसरो विचार —

मनीस आपणाकडेन कितें ना हाचोच चड विचार करता. आपणाकडेन कितें आसा ताचो तो विचार करिना. आपणाकडेन कितें ना ह्या विचारान चिंता सुरू जाता. अशा वेळार कितें ना हो विचार धांवडावन घालूंक जाय आनी कितें आसा हो विचार नेटान करूंक जाय. अशें केल्यार चिंता पळून वतली.

— आपणाकडेन कितें आसा हाचो विचार करात.

— आपणापरस सगळ्या वटांनी कमी आशिल्ल्या मनशाकडेन पळयात म्हणटकच आपणाकडेन चड कितें आसा ह्या विचारान मन धादोस जातलें.

कृष्ण चिंतामणीचो चवथो विचार —

कुविचारांनी चिंता निर्माण जाता जाल्यार सुविचारान चिंता पयसावता. आपल्या मनाक वायट विचार करपाचीच चड संवय आसता. ही संवय घालोवपाखातीर बरे विचार करपाची संवय करूंक जाय.

— सुविचाराच्या उजवाडान चिंतेचो काळोख ना जाता.

— पूर्वज सांगतात, स्वताकच देव मानून काम करात.

— स्वताक देव मानिल्ल्यान एके तरेची जबरदस्त शक्ती तयार जाता जाकालागून चिंता नपश्चात जाता.

कृष्ण चिंतामणीचो पांचवो विचार.

चिंता ल्हान आसल्यार ती दुख्ख दित रावता. चिंता चडूच केली जाल्यार तसली हुंवारी-चिंता दुख्ख दिवपाबदला सुख दिता.

रामदास स्वामीन आवयक सांगलें, 'आई, चिंता करतो विश्वाची.'

कोंकणींत एक म्हण आसा, 'कांट्यान कांटो काडपाक जाय.'

दुसऱ्याची चिंता पयस करपाचो यत्न करात, तुमचीय चिंता पयस जातली.

कृष्णान हेंच काम केलें. आयुष्यभर लोकांची चिंता करपाक कृष्णान वेळ घालयलो. कृष्णाची चिंता इतली व्हडली, चिंतेच्या हुंवाराक लागून कृष्ण स्वताच चिंतामणी जालो.

लोकांनी कृष्णाक विचारलें, 'कृष्णा, सगळ्या लोकांक तुवें पदव्यो दिल्यो, तूं खंयच्या पदार बसतलो ?'

कृष्णान म्हळें, 'म्हजी पदवी ''सर्वांचा दास''.'

कृष्ण म्हणटा, 'सगळ्यांच्यो चिंता पयस करप हेंच म्हजें काम.'

— दुसऱ्याच्या हाताक अत्तर लायतना आपल्याकय अत्तर लागता. दुसऱ्याक सुख दिल्यार आपणाकय सुख मेळटा. हो भांगरा उतरांनी बरोवन दवरपासारको विचार.

कृष्ण चिंतामणीचो सवो विचार—

जेन्ना आपणामुखार कसलोय प्रस्न उप्रासता तेन्ना त्या प्रस्नाचें उत्तर भितरलो-भायलो विचार करिनासतना दिल्यार गोंदळ जावंयेता. गोंदळ हें एक चिंतेचें मुखेल कारण. युद्ध सुरू जावचे पयलींच अर्जुनान फाटलो-फुडलो विचार करिनासतना आपल्याच मनान कांय गजाली थारायल्यो आनी गोंदळ केलो जाका लागून अर्जुनाक निर्शेणी आयली.

— ताकतिकेन घेतिल्लो निर्णय गोंदळ करता.

— गोंदळ हें एक चिंतेचें मुखेल कारण.

कृष्ण चिंतामणीचो सातवो विचार—

चिंता पयस करपाची खरीच इत्सा आसल्यार तातुंतल्यान वाट मेळटाच.

भूक लागतकच खावपाक जाय, म्हणटकच भूक भागतली. फकत रांदून दवरलें म्हूण पोटांत पडना आनी भूकय भागना. तशेंच, बेत केलो म्हण काम तडीक वचना, तर तें काम प्रत्यक्षांत उतरावंक जाय.

— प्रयत्नार्थी परमेश्वर.

— प्रयत्न करूंक जाय, यश मेळटाच.

कृष्ण चिंतामणीचो आठवो विचार —

जे मेरेन आपली दृष्टी अंतर्मुख जायना ते मेरेन चिंता आपल्याक सोडून वचना.

कृष्ण म्हणटा, 'देव जणएकल्याच्या अंतस्करणांत आसा. अंतस्करणांतल्या देवाक उलो मारात. तुमचे चिंतेक तोच धांवडावन घालपाक शकता.'

— प्रार्थना करात आनी तुमच्या अंतस्करणांतल्या देवाक उलो मारात.

— प्रार्थनेंतल्यान तयार जाल्ले शक्तीमुखार चिंता तग धरूंक शकना.

कुरुक्षेत्रावेलें भारतीय युद्ध ही एक भारताच्या इतिहासांतली वायट अशी घडणूक. अशे तरेचें युद्ध जावचें न्हय म्हूण कृष्णान खूबच यत्न केले. पांडवांचे वतीन शिष्टाई करपाक कृष्ण हस्तिनापुराक गेलो. धृतराष्ट्राचे राजसभेंत कृष्णान कौरवांक उद्देशून केल्लें भाशण म्हळ्यार राजकारणाच्या शिष्टाईचो अतिउत्कृष्ट असो नमुनो. शेवटाक श्रीकृष्ण म्हणटा —

**कुरूणां पांडवानां च शम: स्यादिती भारत**
**अप्रणाशेन वीराणामेतद्या चितुमागत: ॥**

कौरव पांडव हे भाव-भाव. तांणी शांततायेन आनी बरे भशेन वागचें. एकामेकां कडेन झगडून सर्वनाश करून घेवचो न्हय हें सांगपाक हांव आयलां.

पूण दुर्योधन हट्टी. ताणें कृष्णाच्या शब्दांक इल्ली लेगीत किंमत दिली ना. 'सुयेच्या तोंकार उरपा इतली लेगीत जमीन हांव पांडवांक दिवचोंना' अशें सांगून ताणें कृष्ण-शिष्टाई मातये-भरवण केली.

काल-नियती सर्वनाशाक उद्युक्त जाली आनी कृष्णासारको षड्गुणैश्वर्यसंपन्न महापुरुषाक हो विनाश टाळप शक्य जालेंना. युद्ध सुरू जावपाच्या वेळार अर्जुनाचे हातपांय गळसणले. 'हांव युद्ध करचोंना' अशें म्हणपी ह्या अध्वर्युची निर्शेणी काडून

उडोवपाक श्रीकृष्णान ताका तत्त्वज्ञान सांगलें. हेंच तत्त्वज्ञान म्हळ्यार भगवद्गीता! कर्म, भक्ति आनी ज्ञान ह्या तीन गजालींचो ताळमेळ घालपाक गीता शिकयता. फकत अर्जुनाली निर्शेणी काडपाचें काम गीतेन केलें अशें न्हय, तर जगावेल्या खंयच्याय मनशाची निर्शेणी काडपाचें वखद गीतेच्या रुपान श्रीकृष्णान संवसाराक दिलें. अशा ह्या भगवद्गीतेंतल्या कांय श्लोकांचे अर्थ अशे आसात—

**यज्ञदान्तप:कर्म न त्याज्यं कार्यमेव तत् ।**
**यज्ञो दानं तपश्चैव पावनानि मनीषिणाम् ।।**

यज्ञ, दान, तप हीं कामां करपाकच जाय. तीं करिनासतना रावप समा न्हय. हीं कामां केल्यार चित्त शुद्ध जाता.

**वासांसि जीर्णानि यथा विहाय नवानि गृहणाति नर: अपराणि ।**
**तथा शरीराणि विहाय जीर्णानि अन्यानि संयाति नवानि देही ।।**

जे प्रमाण मनीस पोरणे कपडे काडून नवे कपडे घालता तेच भशेन 'देहधारी' पोरणी कूड (शरीर) उडोवन नवें धारण करता (पुनर्जल्म घेता).

**सुखदु:खे समे कृत्वा लाभालाभै जयाजयौ।**
**ततो युद्धाय युज्यस्व, नैवं पापम् अवाप्स्यसि।।**

हे अर्जुना, सुख आनी दुख्ख, फायदो आनी नुकसान, जैत आनी हार ह्यो सगळ्यो गजाली सारक्योच अशें मानून युद्ध कर. तशें केल्ल्यान तुका पाप लागचेंना.

— कर्तव्य म्हणून केल्ली खंयचीय गजाल पाप थारूंक शकना. कर्तव्य म्हणून केल्ली गजाल हिंसा थारना. अशा गजालींनी कसलोच स्वार्थ नासता.

**कर्मणि एव अधिकार: ते – मा फलेषु कदाचन।**
**मा कर्मफलहेतु: भू:, मा ते संगोऽस्तु अकर्मणि ।।**

हे अर्जुना, कर्म करपाचो अधिकार तुका आसा. पूण ताच्या फळाचेर तुजो अधिकार ना.

— फळाचे आशेन काम करूं नाका.

**समत्वं योग: उच्यते।**

समबुद्धी म्हळ्यार योग.

— फळाची आस्त बाळगिनासतना फायदो-नुकसान सारकेंच अशें समजुपा इतलें मन स्थिर दवरप हाकाच समत्व अशें म्हणटात.

**वशे हि यस्य इन्द्रियाणि तस्य प्रज्ञा प्रतिष्ठिता ।**

जाचीं इंद्रियां स्वाधीन आसतात, ताची बुद्धी स्थिर उरता.

— दोळे, नाक, कान, जीब आनी त्वचा हांकां ज्ञानेंद्रियां म्हणटात. हात, पांय ह्या सारक्या अवयवांक कर्मेंद्रियां अशें म्हणयात. कर्मेंद्रियां कडल्यान वायट घडणुको घडच्यो न्हय म्हूण ज्ञानेंद्रियां आपले स्वाधीन आसचीं पडटात.

**बुद्धिनाशात् प्रणश्यति ।**

बुद्धी नष्ट जाली म्हणटकच मनशाचो सर्वनाश जाता.

— मनशाक सुखाची जबरदस्त इत्सा आसता. जो ही इत्सा पुराय करपाचे आड येता त्या मनशाचो ताका राग येता. अशा रागाच्या वेळार ताका बऱ्या वायटाचें भान उरना. ताची बुद्धी नष्ट जाता. तो अविचारान वागता आनी नाश पावता.

**निर्ममो निरहंकार: स शान्तिम् अधिगच्छति ।**

जाका ममत्व आनी अहंकार ना ताकाच शांती मेळटा.

— 'हें म्हजें, तें म्हजें' अशे तरेचो सभाव म्हळ्यार ममत्व. ह्या सभावाक लागून मनीस धन-संपत्तीची खूबच आस्त बाळगिता. हांवच शाणो, म्हाकाच सगळें कळटा, असो गर्व आसप म्हळ्यार अहंकार. हें 'मी'पण बरें न्हय. गर्व आनी आस्त ह्या दोनूय गजालींक लागून मनीस धांवधपट्यो काडटा आनी मनान अस्वस्थ जाता पूण ह्यो गजाली सोडल्यार मात ताका मन:शांती मेळटा.

**प्रकृतिं यान्ति भूतानि, निग्रह: किं करिष्यति ।**

सगळे प्राणी आपापल्या सभावाप्रमाण वागतात. सभावाच्या हट्टीपणामुखार तो कितें करतलो ?

— सभावाक वखद ना. बरे विचार आनी बरे संस्कार हांच्या आधारान सभावाचेर जैत मेळोवं येता. हें जैत म्हळ्यारच मनाचेर जैत मेळोवप. हाकाच मन:संयम अशें म्हणयात. मनीस आनी जनावर हांचेमदलो फरक तो होच.

**परित्राणाय साधूनां विनाशाय च दुष्कृताम् ।**
**धर्मसंस्थापनार्थाय संभवामि युगे युगे ॥**

सज्जनांची राखण करपाखातीर, दुर्जनांचो नाश करपाखातीर आनी धर्माची प्रस्थापना करपाखातीर हांव प्रत्येक युगांत जन्म घेतां.

**न हि ज्ञानेन सदृशं पवित्रम् इह विद्यते ।**

ज्ञानाइतलें पवित्र दुसरें अशें पृथ्वीचेर कांयच ना.

**विद्याविनयसंपन्ने ब्राह्मणे गवि हस्तिनि ।**
**शुनि चैव श्वपाकेच पण्डितः समदर्शिनः ॥**

विद्या आनी नम्रताय आशिल्लो ब्राह्मण, गाय, हत्ती, कुत्रो आनी शूद्र ह्या सगळ्यांकडेन शिकिल्लो मनीस एकेच नदरेन पळयता. ज्ञानी मनीस जातीवेल्यान मनशाक कमी लेखना. तो सगळ्यांचेरच मोग करता आनी सगळ्यांविशीं तो आपुलकी बाळगिता.

**न प्रहृष्येत् प्रियं प्राप्य, न उद्विजेत प्राप्य च अप्रियम् ।**

जाय आशिल्ली, बरी गजाल घडली वा आपले आवडीची वस्त मेळोवपाक यश मेळ्ळें म्हण खोस उकतावची न्हय, तशेंच वायट गजालीन निर्शेवचें न्हय.

— सुख आनी दुख्ख जावपी दोनूय घडणुकांनी मन स्थिर दवरूंक जाय.

**उद्धरेद् आत्मना आत्मानं न आत्मानम् अवसादयेत।**
**आत्मा एव हि आत्मनो बब्धुर् आत्मैव रिपुर् आत्मनः ॥**

आपलो स्वताचो उद्धार आपणेंच करचो आनी आपलो नाशय आपणेंच करचो. आपूणच आपलो भाव आसता आनी आपूणच आपलो शत्रू आसता.

— आपल्या इंद्रियांचेर ताबो मेळयल्यार आपूणच आपलो भाव आसता, ना जाल्यार मात आपूणच आपलो शत्रू आसता.

**मन्मना भव मद्भक्तो मद्याजी मां नमस्कुरू।**
**मामेवैष्यसि युक्त्वैवमात्मानं मत्परायणः ॥**

मनान म्हजे म्हऱ्यांत यो, म्हजो भक्त जा, म्हजी पूजा कर आनी म्हाका नमस्कार कर. अशे तरेन म्हाका समरस जाल्यार तूं म्हाकाच येवन मेळटलो.

— तुकाराम महाराजांनी म्हळां, 'देव भावाचा भुकेला'. देवाक भक्ती करपी भक्त जाय. जावन गेल्ल्या सगळ्या संतांनी भक्तीमार्ग आपणायिल्लो तांच्या बरपावळींतल्यान वाचूंक मेळटा.

**भक्तिप्रेमाविण ज्ञान नको देवा ।** एकनाथ महाराज

**मना सज्जना भक्तिपंथेचि जावे ।**
**तरी श्रीहरी पाविजे तो स्वभावे ॥** रामदास स्वामी

**समोऽहं सर्वभूनेषु न मे द्वेष्योऽस्ति न प्रिय: ।**
**ये भजन्ति मां भक्त्या मयि ते य: तेषु चाप्यहम् ॥**

सगळ्या प्राणिमात्रांक हांव सारकोच वागयतां. हो म्हाका आवडटा, तो म्हाका आवडना असो भेदभाव हांव करिना. जे म्हजी भक्ती करतात तांचे वांगडा हांव रावतां आनी ते म्हजे वांगडा रावतात.

— देवाक सगळीं सारकीं. देवाक राग येना. देव सगळ्यांचेर सारकेंच प्रेम करता. देव शिक्षा करिना, फकत क्षमा करता. देव कोणाक मारिना, तो सगळ्यांक तारता. जे ताची भक्ती करतात तांचे बरोबर तो सदा-सर्वकाळ रावता.

**यो न हृष्यति, न द्वेष्टि, न शोचति, न काङ्क्षति ।**
**शुभाशुभपरित्यागी भक्तिमान् य: स मे प्रिय: ॥**

जो कसलोच आनंद मानिना, कोणाचोच द्वेष करिना, कोणाखातीर दुख्ख करिना आनी कसलीच इच्छा बाळगिना, तशेंच जो कसल्याय कामाच्या फळाची आस्त बाळगिना अशे तरेचो भक्तिमान मनीस म्हाका आवडटा.

**सम: शत्रौ च मित्रे च तथा मानापमानयो: ।**
**शीतोष्णसुखदु:खेषु सम: संगविवर्जित: ॥**
**तुल्यनिन्दास्तुतिर् मौनी संतुष्टो येन केनचित् ।**
**अनिकेत: स्थिरमतिभक्तिमान् मे प्रियो नर: ॥**

शत्रू आनी मित्र, मान आनी अपमान, थंड आनी उष्ण, सुख आनी दुख्ख ह्यो

गजाली जाका सारक्योच तशेंच जाका कसलीच आस्त ना, जाका निंदा आनी स्तुती एकाच सारकीं, जो मनन करता आनी जें कितें मेळटा तातूंत धादोस रावता, कसलीच आस्त बाळगिना आनी अपेक्षा करिना अशे स्थिर बुद्धिचो भक्त म्हाका आवडटा.

**सर्वस्य च अहं हृदि संनिविष्टो**
**मत्तः स्मृतिर् ज्ञानम् अपोहनं च ।**

हांव सगळ्यांच्या हृदयांत रावतां. स्मरण, ज्ञान आनी तर्क ह्यो गजाली तुका म्हजेकडल्यान मेळटात.

**दातव्यम् इति यद् दानं दीयते अनुपकारिणे**
**देशे, काले च, पात्रे च, तद् दानं सात्विकं स्मृतम् ।**

आपलें कर्तव्य अशें समजून दान करप, काळ वेळ आनी मनीस पळोवन, तशेंच आपल्याचेर उपकार न करणाऱ्याक दान करप हाका सात्विक दान अशें म्हणटात.

— आपणाचेर उपकार केल्ल्या मनशाक दान करप समा न्ही. ताका दान म्हणूं नज. अशा दानाक 'केल्ल्या उपकाराची परतफेड' अशें म्हणूं येत.

*शुक्लां ब्रह्मविचारसारपरमामाद्यां जगद्व्यापिनीं*
*वीणापुस्तकधारिणीमभयदां जाड्यान्धकारापहाम् ।*
*हस्ते स्फाटिकमालिकां विदधतीं पद्मासने संस्थितां*
*वन्दे त्वां परमेश्वरीं भगवतीं बुद्धिप्रदां शारदाम् ॥*

*शुभं भवतु*

# परिशिष्ट १

## कवी कालिदासाचीं कांय सुभाषितां

**आज्ञा गुरुणां हि अविचारणीया ।**

जाण्ट्या मनशान केल्ली आज्ञा चड विचार करिनासतना पाळूंक जाय.
✻ आज्ञा करपी जाण्टो मनीस हो विचारी आनी अणभवी आसूंक जाय. तसो आसल्यार ताच्या तोंडांतल्यान आयिल्ल्या उतरांचो परिणाम बरोच जातलो अशी खात्री बाळगूं येता. ताणें सांगिल्लें काम श्रद्धेन आनी विश्वासान केल्यार फळादीक जातलें हातूंत दुबाव ना.

— — —

**एको हि दोषो गुणसंनिपाते निमज्जति इन्दोः किरणेषु इव अङ्कः**

चंद्राच्या किरणांमुखार (चान्न्यामुखार) ताचेवयले दाग दिसनात. तेच भशेन बरे गूण आशिल्ल्या मनशाचो एकाद्रो दोष लिपून वता.
✻ बरे गूण आशिल्ल्या मनशाच्या वायट गुणांकडेन लक्ष वचना आनी वायट गूण आशिल्ल्या मनशाच्या बऱ्या गुणांचो उपेग जायना.

— — —

**अर्थो हि कन्या परकीय एव ।**

चलीभुरगें हें परक्याचें धन.
✻ आयच्या आधुनिक युगांत हें सुभाषित अर्थ नाशिल्लें थारता काय कितें असो

दुबाव आयलो. तरीपूण जे मेरेन कुटुंबांत लग्न संस्कार जायत रावतले ते मेरेन ह्या सुभाषिताक 'कालबाह्य' म्हणपाची गरज ना.

— — —

**भर्तृवल्लभतया हि मानसीं मातुः अस्यति शुचं वधूजनः ।**

आपली धूव तिगेल्या घोवाक आवडली हें कळटकच आवयचें दुख्ख पयस जाता.
✻ आपली धूव लग्न करून दिल्ल्या त्या घरांतल्या मनशांक आवडली हें कळटकच तिचे आवयक आनंद जाता, ती सुखावता. तशें जालें ना जाल्यार धुवेच्या फुडाराविशींची चिंता तिका सतायत रावता हातूंत दुबाव ना.

— — —

**न कामवृत्तिर्वचनीयम् ईक्षते ।**

मोग लोकांची पर्वा करिना.
✻ 'मोग कुड्डो आसता' अशी म्हण आसा. अणभवांतल्यान ती तयार जाल्या जावंक जाय.

— — —

**अशोच्या हि पितुः कन्या सद्भर्तृ प्रतिपादिता ।**

बऱ्या भुरग्याकडेन लग्न केल्ले धुवेखातीर बापायन दुख्ख धरचें न्हय.
✻ खूब वर्सां पोसली, खेळयली, शिकयली आनी बरी जीण जियेवपाक पुरायेन तयार केल्ली धूव बऱ्या वा वायट भुरग्याकडेन लग्न करून दितकीच बापायक त्रास जातलोच. भुरगो बरो आसल्यार ह्या त्रासांफाटल्यान सुख लिपिल्लें आसतलें अशें म्हणूं येता.

— — —

**न रत्नम् अन्विष्यति, मृग्यते हि तन् ।**

रत्न दुसऱ्याक सोदूंक वचना, रत्नाक सगळे सोदतात.

✲ बरी वस्त आसल्यार भिरांत कसली? तिचें मोल करपाची गरज नासता.

— — —

**स्तोत्रं कस्य न तुष्टये ।**

स्तुती केल्यार कोणाक बरें दिसना?

✲ स्तुती केल्यार बरें दिसप हें नैसर्गिक. आपणें केल्ल्या कामाची, आपले सुंदरकायेची कोणेंय स्तुती करतकीच तो मनीस सुखावता.

— — —

**सतां हि संदेहपदेषु वस्तुषु प्रमाणमन्त: करणप्रवृत्तय:**

दुबावाक जागो आसता तेन्ना सज्जन मनीस आपल्या अंतकरणाक दिसता तेंच प्रमाण मानता.

✲ आपले सद्विवेकबुद्धीक ज़ें मानवता ते प्रमाण निर्णय घेवप आनी तशें वागप हें बऱ्या मनशाचें लक्षण.

— — —

**अभितप्तम् अय: अपि मार्दवं भजते, का एव कथा शरीरिषु**

खूब तापयतकीच घट्ट अशें लोखण लेगीत मोव जाता थंय मनशाचें कितें?

✲ दुख्ख जातकच मनीस खूबच हळव्या मनाचो जाता.

— — —

**सर्वः खलु कान्तम् आत्मीयं पश्यति ।**

खरेंच, प्रत्येकाक सुंदर तें आपलेंशें दिसता.
✲ हो एक मनीस सभाव. आपलें घर सुंदर सोबीत आसचें, आपली बायल/घोव सुंदर आसूंक जाय, बरी वस्त, सोबीत सुंदर वस्त आपली आसची अशें कोणकय दिसता.

— — —

**अनुद्धताः सत्पुरुषा समृद्धिभिः ।**

सज्जन मनीस वैभव आसलें म्हूण गर्विश्ठ जायनात. ते खूब नम्रतायेन वागतात.
✲ फळांचो भार जावन झाडां लेगीत बाग घेतात.

— — —

**क्रिया दि वस्तूपहिता प्रसीदति ।**

बरे गजालीचेर वा बऱ्या मनशाखातीर केल्लें काम खूबच परिणामकारक जावन त्या कामांत यश येता.
✲ बुद्धिमान भुरगीं विद्या सहजतायेन आनी बेगीन आत्मसात करतात.

— — —

**पूर्वावधीरितं श्रेयः दुःखं हि परिवर्तते ।**

एकदां न्हयकारिल्ली बरी गजाल परत मेळप कठीण.
✲ खंयचीय गजाल न्हयकारतना जतनाय घेवंक जाय. ना जाल्यार पश्चाताप करपाची पाळी येवं येता.

— — —

**मनोरथानाम् अनटा: प्रवाहा: ।**

मनोराज्यां करतल्यांक शीम नासता.
✻ मनोराज्यां करप खूब सोपें, पूण तें प्रत्यक्षांत हाडप तितलेंच कठीण. 'मनोराज्यां केल्ल्यान पोट भरना' अशीय एक म्हण कोंकणींत वाचूंक मेळटा.

— — —

**पुराणम् इति एव न साधु सर्वम् ।**

फकत पोरणी गजाल म्हूण ती बरी अशें सदांच धरून चलूंक नज.
✻ 'जुने ते सोने' अशी जरी म्हण आसली तरी ती सगळेच बाबतींत खरी थारता अशें ना.

— — —

**किम् इव हि मधुराणां मण्डनं न आकृतीनाम् ।**

गोड रुपाच्या मनशाक कितें सोबना अशें आसा ?
'जातीच्या सुंदरीला काहीही शोभते' अशी एक म्हण आसा. सुंदर बायलेक चड साज-श्रृंगार करपाची गरज नासता.

— — —

**तम: तपति धर्मांशौ कथम् आविर्भविष्यति ?**

सूर्य मळबांत आसतना काळोख कसो जातलो ?
✻ पराक्रमी आनी शिकिल्ल्या मनशामुखार दुष्ट आनी निर्बुद्ध मनशाचें शाणेपण चलना. तो फिको पडटा.

— — —

**मन्दोऽपि अमन्दताम् एति संसर्गेण विपाश्चित:**

ज्ञानी मनशाचे संगतीक लागून मंदबुद्धीचो मनीस लेगीत बुद्धीमान जाता.
✼ 'पुष्पसंगे मातीस वास लागे' तशें बऱ्या मनशाचे संगतीन वायट मनीस लेगीत बरो वागपाक शिकता, इतलोच ह्या सुभाषिताचो अर्थ.

— — —

**विषम् अपि अमृतं भवेत् क्वचित्, अमृतं विषमीश्वरेच्छया ।**

ईश्वराचे इच्छेक लागून विषाचें अमृत आनी अमृताचें विष जावं येता.
✼ ईश्वराचे इत्सेमुखार कोणाचेंच कांयच चलना.

— — —

# परिशिष्ट २

## एके वळीचीं सुभाषितां

**चलति एकेन पादेन, तिष्ठति एकेन पाण्डितः ।**

शाणो मनीस एका पावलान फुडें वता, अशा वेळार तो फाटल्या पावलार उबो रावता.
✻ उदरगत सादतलो जाल्यार ती सवकसायेन, विचार करून पावल घालूंक जाय. ताकतीक केल्यार चूक जावंयेता.

— — —

**जननी जन्मभूमिश्च स्वर्गाद् अपि गरीयसी ।**

आवय आनी मातृभूमि ह्यो स्वर्गापरसय व्हड.
✻ आवय ती आवय, तिचो जागो दुसरी खंयचीय बायलमनीस घेवपाक शकना. तशेंच, मातृभूमि म्हणजेच आपलो देश. केद्याय व्हडल्या सुखाचें मोल ताचे बरोबर करूं नज.

— — —

**न मातुः परदैवतम् ।**

आवयपरस श्रेष्ठ अशें दैवत ना.
✻ आवयची आनी बापायची सेवा केल्यार देवळांत वचपाची गरज ना, स्तोत्रां वाचपाचीय गरज ना, जप करपाचीय गरज ना.

— — —

**सहस्त्रं तु पितृन् माता गौरवेण अतिरिच्यते ।**

आवयचें व्हडपण इतलें आसा की एक हजार बापूय लेगीत ताचे मुखार कमी थारतात.
✲ आवयची उणीव कोणूच भरून काडपाक शकना इतलेंच सुभाषितकारांक सुचोवपाचें आसा.

— — —

**साधवो न हि सर्वत्र, चन्दनं न वने वने**

सज्जन लोक सगळेकडेन आसतातच अशें ना. प्रत्येक रानांत चंदनाचें झाड नासता.
✲ बरी गजाल करप खूब कठीण, वायट गजाल करप तितलेंच सोंपें होच तांतलो मतितार्थ.

— — —

**स हि भवति दरिद्रो यस्य तृष्णा विशाला ।**

चड आस्त बाळगिता तो दरिद्री.
✲ मनशान समाधानी आसपाक जाय. चड आस्त बाळगप समा न्हय.

— — —

**शक्तेर्युक्तिर्बलीयसी ।**

शारीरिक शक्तीपरस युक्तीचें, म्हळ्यार बुद्धीचें बळ चड.
✲ म्हणच आसा, 'शक्तीपेक्षां युक्ती श्रेष्ठ'.

— — —

**शत्रौ : अपि गुणा: ग्राह्या:, दोषा: वाच्या: गुरो: अपि**

शत्रुचे लेगीत गुण घेवचे आनी गुरुचे दोष सांगचे.

— — —

**शनैः संचिनुयाद् धर्मं वल्मीकं पुत्तिकाः इव।**

मुयो जशो हळू हळू करून वारूळ तयार करतात तेच भशेन हळू हळू करून पुण्य एकठांय करूंक जाय.

✲ पुण्य एकठांय करप म्हळ्यार बरीं कामां करप. हळू हळू करप म्हळ्यार खूब विचार करून करप. बरें काम करपाक खूब विचार करचो पडटा.

— — —

**यथा भूमिः तथा तोयं, यथा बीजं तथा अङ्कुरः ।**

जशी जमीन तशें उदक, जशें बीं तशें रोप.

✲ तुकाराम महाराजांनी म्हळां, ''शुद्ध बीजापोटी फळें रसाळ गोमटी।''

— — —

**मृत्योः बिभेषि किं बाल? न स भीतं विमुञ्चति।**

आरे अज्ञानी मनशा, तूं मरणाक कित्याक भियेता? भियेल्ल्या मनशाक मरण येना अशें ना.

✲ मरण कोणाकच चुकूंक येवंक ना.

— — —

**मरणान्तानि वैराणि ।**

मरतकच वैर-शत्रुत्व उरना.

✲ मनीस मरतकच ताचेकडेन शत्रुत्व बाळगुचें न्हय. शिवाजी महाराजांनी अफजलखानाक मारतकच ताचे अंत्यसंस्कार मानान केले.

— — —

**स्वभावो दुरतिक्रमः ।**

सभाव सोडून काम करप कठीण.

✲ कोंकणींत एक म्हण आसा: 'स्वभावाक वखद ना'.

— — —

**स्रजम् अपि शिरसि अन्धः क्षिप्तां धुनोति अहिशङ्कया।**

कुड्ड्याचे तकलेर फुलांची माळ दवरल्यार, कुड्डो ती माळ सोरोप समजून भिरांतीन भायर मारता.

✻ अडाणी मनशाक बरें-बास्कळ वळखूंक येना. बऱ्या गजालींचो ताका भंय दिसता. सुभाषितकारांक हेंच म्हणपाचें आसा.

— — —

**पुराणम् इति एव नं साधु सर्वम् ।**

पोरणें तें सगळेच वटेन बरें आसता अशें ना.

✻ 'जुनें तें सोनें' अशीय म्हण आसा.

— — —

**नास्ति विद्यासमं चक्षुः ।**

विद्येन जो द्रष्टवो जाता तो आनीक कित्यान जायना.

✻ मनशाक शिक्षण आसूंकच जाय. शिक्षणाक पर्याय ना.

— — —

**परोपदेशे पाण्डित्यं सर्वेषां सुकरं नृणाम् ।**

दुसऱ्याक उपदेश करतना आपल्याक सगळेंच कळटा अशें दाखोवप खूब सोंपें.

✻ म्हणटातच, 'लोकां सांगे ब्रह्मज्ञान...'

— — —

**न हि वन्ध्या विजानाति गुर्वीं प्रसववेदनाम् ।**

वांझ बायलेक बांयटीचो त्रास कळना.

✻ जाका भोगता ताकाच कळटा, अशेंच सुभाषितकाराक म्हणपाचें आसा.

— — —

**न स्त्री स्वातन्त्र्यम् अर्हति ।**

बायलमनशेक स्वातंत्र्य दिवप समा न्ही.
✻ बायलमनशेक संरक्षण आसपाक जाय, तिका आधार दिवपाक जाय. तिका गुलाम करूंक जाय असो अर्थ घेवंक फावना.

— — —

**कर्णिनी वै भूमि :।**

जमनीक कान आसतात.
✻ 'वणटीक कान आसतात' अशी एक कोंकणींत म्हण आसा. गुपीत दवरपा सारकी गजाल उलयतना जतनाय घेवंक जाय, असोच तिचो अर्थ.

— — —

**काच: काच:, मणिर्मणि: ।**

हारसो तो हारसो, रत्न तें रत्न.
✻ अस्सल वस्तूक नकली वस्तुची सर येना.

— — —

**किं मिण्टम् अन्नं खरसूकराणाम् ।**

गाढव आनी डुक्कर हांकां मिष्टान्नाची कसली रूच ?
✻ म्हणटातच न्ही, 'गाढवाला गुळाची काय चव ?'

— — —

**क्लेश: फलेन हि पुनर्नवतां विधत्ते।**

कष्टांचें फळ मेळटकच आनीक कष्ट करपाक हुरूप येता.

— — —

**अकुलीनो अपि यो विद्वान्, दैवतेः अपि पूज्यते ।**

बऱ्या कुळांत जन्म जाल्लो नासूनय जो विद्वान आसता ताका देव लेगीत पूजनीय मानतात.

✼ मनीस शिकिल्लो आसल्यार, विद्वान आसल्यार ताचें कूळ पळोवपाची गरज ना. समाजांत अशा मनशांक मानाची सुवात मेळटा हातूंत दुबाव ना.

— — —

**अति सर्वत्र वर्जयेत ।**

सगळेच बाबतींत अतिरेक बरो न्हय.

✼ म्हणच आसा, 'अति तेथें माती'.

— — —

**इतो व्याघ्रः इतः तटी ।**

हेवटेन वाग, तेवटेन दोंगराची कड.

✼ 'इकडे आड तिकडे विहीर' अशीय एक म्हण आसा.

— — —

**मनःपूतं समाचरेत् ।**

आपल्या मनाक, बुद्धीक पट्टा तशेंच करचें.

✼ हाचो अर्थ 'बरें वागचें' असो घेवंक जाय. मनांत येता तें करचें म्हळ्यार वायट करपाकय मेकळीक आसा अशें समजूंक फावना.

— — —

**पृथिव्यां त्रीणि रत्नानि–जलम्, अन्नं, सुभाषितम्**

पृथ्वीचेर तीन रत्नां आसात: उदक, अन्न आनी सुभाषितां.
✻ हांगा सुभाषितां म्हळ्यार बरे विचार, बरे आचार असो करूंक जाय.

— — —

**मौनं सर्वार्थसाधनम्**

उलोवप कमी केल्यार सगळीं कामां जावन येतात.
✻ 'जीभ जिंकी तो जग जिंकी' अशी एक म्हण आसा.

— — —

**न कूपखननं युक्तं प्रदीप्ते वह्निना गृहे।**

घराक उजो लागतकच बांय खणप समा न्हय.
✻ संकट येतकीच तें पयस करपाखातीर विचार केल्यार ताचो उपेग जायना. ताची तजवीज पयलींच करपाक जाय.

**पयोगते किं खलु सेतुबन्ध:?**

उदक व्हांवन वतकीच बांद घालून कितें उपेग?
✻ 'बैल गेला आणि झोपा केला' अशीय एक म्हण आसा.

— — —

**निर्वाणदीपे किमु तैलदानम्?**

पालवल्ल्या दिव्याक तेल घालून कितें उपेग?
✻ कोणाकय मदत करपाची जाल्यार ती योग्य वेळार करूंक जाय अशें सुभाषितकारांक सुचोवपाचें आसा.

— — —

**सुखं हि दु:खानि अनुभूय शोभते, घनान्धकारेषु इस दीपदर्शनम् ।**

दाट काळखांत दिव्याक जशी सोबा येता, तेच प्रमाण दुख्खाचो अणभव घेतकीर सुखाक सोबा येता.
❊ जितलीं दुख्खां मनीस पचयता, तितलो तो शाणो जाता अशें म्हणटात.

— — —

**सन्धये सरला सूचि:, वक्रा छेदाय कर्तरी**

जोडपाक सूय वापरतात ती सरळ आसता, जाल्यार कापपाक कातर वापरतात ती वांकडी आसता.
❊ सरळ मनाचीं मनशां संबंध जोडटात, जाल्यार वांकड्या मनाचीं मनशां संबंध तोडटात.

— — —

**विषाद अपि अमृत ग्राह्मं, बालाद् अपि सुभाषितम्**

विषांतल्यानय अमृत घेवचें, तशेंच ल्हान भुरग्याकडल्यान बरे विचार आयकुचे.
❊ बरी गजाल आपणावपाक विचार करपाची गरज ना.

— — —

**वरम् एको गुणी पुत्रो, न च मूर्खशतानि अपि।**

एकूच गुणवान असो पूत आसचो, पूण शंभर मूर्ख पूत नाकात.

— — —

**यदेव क्रियते नित्यं, रति: तत्र एव जायते ।**

जें सदांच आचरणांत हाडटा ताची आवड निर्माण जाता.
❊ चोरपाची संवय जातकीच चोरीन दिसता, ताका कारण लागना.

— — —

**भूमौ स्थितस्य पतनाद् भयम् एवं नास्ति ।**

जो जमनीरच आसा ताका सकयल पडपाचो भंय ना. गरीब मनशाक गरीब जावपाचो भंय ना.
✻ श्रीमंताक मात दारिद्र्याचो भंय दिसता.

— — —

**भिन्नरुचिर्हि लोकः ।**

लोकांची आवड वेगवेगळी आसता – प्रत्येकाची वेगळी आसता.
✻ म्हणटातच न्ही, 'व्यक्ति तितक्या प्रकृति'.

— — —

**नदी वेगेन शुद्धयते**

न्हंयचें उदक व्हांवत आसता म्हण तें शुद्ध जाता
✻ न्हंयो पवित्र म्हणटात हाचेंय कारण तेंच.

— — —

**नलिकागतमपि कुटिलं न भवति सरलं शुनः पुच्छम्।**

कुत्र्याची वांकडी शेपडी नळयेंत घालून दवरली म्हण ती सरळ जावंचीना.
✻ कुत्र्याचेर फातर मारल्यार, तो ताच्या खंयच्याय भागार बसल्यार, कुत्रो दाव्या पांयानच कुट्टा असो समज आसा.

— — —

**नग्नक्षपणके देशे रजकः किं करिष्यति ?**

ज्या देशांत लोक कपडेच घालिनात त्या देशांत मडवळाक कसलें काम ?
✻ जावं मडवळ, जावं शिंपी, ते बेकारच उरतले.

— — —

**न तत् परस्य संदध्यात प्रतिकूलं यद् आत्मनः ।**

जें आपल्याक वायटाक पडटा तें दुसऱ्याक मेळचें अशें चिंतप समा न्हय.
✻ दुसऱ्याचें वायट चिंतल्यार आपलेंच वायट जावंयेता हो विचार आपणायल्यार दुसऱ्याचें वायट चिंतप जावचेंना.

— — —

**न खलु कश्चित् धीमताम् अविषयो नाम ।**

बुद्धीमानाक समजना असो खंयचोच विशय नासता.
✻ म्हणच आसा, 'बुद्ध आशिल्ल्याक भांडवल नाका'.

— — —

**दुःखितस्य निशा कल्पः, सुखितस्य एव च क्षणः ।**

दुख्खी मनशाक एक रात खूब वर्सां इतली व्हड दिसता, जाल्यार सुखी मनशाक ती एका क्षणाइतली ल्हान दिसता.
✻ सुख हें क्षणिक आसता, दुख्ख पचोवंक शिकचें पडटा, कळचें पडटा.

— — —

**क्षते क्षारम् (क्षारः) ।**

जखमेर मीठ चोळप.
✻ पडिल्ल्याच्या पोटार पांय दवरप अशीय म्हण लोकांमदीं आसा.

— — —

**चित्ते, वाचि क्रियायां च साधूनाम् एकरूपता**

सज्जन मनशाचें मन, ताचें उलोवप आनी वागप एकसारकें आसता.
✻ सज्जन मनीस मनांत आसा तेंच उलयता आनी उलयता ते भाशेन वागता. तुकाराम महाराजांनी म्हळां, 'बोले तैसा चाले। त्याची वंदावी पाऊलें॥'

— — —

**कालस्य कुटिला गति: ।**

कालगती वांकडी आसता आनी तिचो अंदाज येना.
✻ काळ तो! केन्ना कितें घडोवन हाडटलो हाचो अंदाज बांदूं नजो.

— — —

**आलस्यं हि शरीरीणां शरीरस्थो महारिपुः ।**

आळस हो मनशाचे कुडींतलो एक शत्रू.
✻ आळस बरो न्ही. म्हणच आसा, 'आळशाक दुप्पट काम'.

— — —

**अर्थस्य पुरुषो दास:, दासस्तु अर्थो न कस्यचित् ।**

मनीस पैशाचो गुलाम जायत, पूण पैसो मात कोणाचोच गुलाम नासता.
✻ पैसो बरें करता आनी वायटय करता!

